## पुंडलीक नारायण नायक

पुस्तक रूपान उजवाडाक आयिल्लें साहित्य

### कविता

● गा आमी राखणे (दु.आ.)

### कथा

● मुठय ● पिशान्तर ● अर्दूक

### नवलकथा / नवलीका

● अच्छेव (दु.आ.) ● बांबर ● वसंतोत्सव आनी दायज ● गुणाजी

### निबंध

● पाजण

### नाटकां

● खण खण माती ● रक्तखेव ● राखण ● सुरींग ● सूर्यसांवट (दु.आ.) ● देगान्द ● मुक्तताय ● शबै शबै भोजन समाज ● पिंपळ पेटला ● श्री विचित्राची जात्रा (दु.आ.) ● दायज ● चैतन्याक मठ ना ● आत्मवंचना

### एकांकी

● गांवधनी गांवकार ● छपन्न थिगळी येसवंत ● चौरंग (दु.आ.) ● आकाशमंच ● दिगंत

### नाटक-समिक्षा

● रंगपाट

### बालनाट्य/ बालसाहित्य

● रानसुंदरी ● आळशांक वाग खातलो ● शिंवाचो बळी ● मनू ● गोंयचो पावस ● गौरी आनी कल्परूख ● बेकार भोंवडेकार

### संपादित साहित्य

● वेंचीक कोंकणी एकांकी ● समकालीन कोंकणी लघुकथा

# अच्छेव

(कादंबरी)

गांवगिरे जिणेची एक वास्तवकाणी

पुंडलीक नारायण नायक

अपुरबाय प्रकाशन

अच्छेव
कादंबरी

ACCHEV
Novel in Konkani
by - Pundalik N. Naik

प्रकाशन क्र. 75



पयली उजवाडावणी :
जानेवारी 1977

दुसरी उजवाडावणी :
2009

मुखचित्र :
श्रीधर कामत बांबोळकार

उजवाडावपी :
हेमा पुं. नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें - गोंय 403 401
e-mail : apurbai.hema@gmail.com

ISBN-81-86488-75-8

छापणावळ :
हिरू नारायण नायक
ऋतू ऑफसेट
वळवय, फोंडें - गोंय

मोल : रू. 75/-

## पयले आवृत्तीचीं
# दोन उतरां

कोंकणी बरपावळीच्या मळार बाब पुंडलीक नायक देंवलो पयलीं कवी ह्या नात्यान. तोवूय 'बांगर बैला' च्या आवेशान. शिंगां दाखोवन पुजा करून घेतलो ही शिटकावणी आनी धपकावणी दीत. आमी ताच्यो कविता चकीत जावन वाचतात, म्हणटा म्हणसर तो एक आगळेच जातीचो कथाकार म्हूण मुखार सरलो. लक्ष्मणरावां सारकेले जाणटे आनी व्हड कथाकार ताच्यो कथा वाचून सद्गतीत जाले आनी म्हणपाक लागले. 'येदे ल्हान पिरायेर येद्या तोलाच्यो कथा बरोवपी हो भुरगो एक दीस कोंकणी कथा-साहित्याकूच न्हय, तर भारतीय कथा-साहित्याक मोलाचो रत्नां-हार ओंपतलो." पुंडलीकाच्या कथांचें पुस्तक अजून भायर सरपाचेंच आसा, म्हणटा म्हणसर तो एके नवलिकेच्या रूपान पयलो 'बांबर' घेवन आयलो.

आनी आतां ही 'अच्छेव' नवलकथा घेवन तो आयला...

पुंडलीकाची साहित्य-साधना वेगान आनी खोलायेन चलत आसा.

'अच्छेवां'तल्या कोळंब गांवांत आमी सगळे पावल्यात. थंय भोंवल्यात. पंडरीक, आबूक, येश्याक, रूक्मीणीक मेळ्ळ्यात. तांचेकडेन उलयल्यात. पुणून पुंडलीकाकडेन ते जितल्या मेकळेपणान उलयतात तितले आमचेकडेन केन्ना उलयल्यात व्हय? तांणीं आपलीं सुखां-दुख्खां, निर्शेण्यो, खर्शेण्यो, हावेस, उत्फरके आमच्या मुखार इतल्या मेकळेपणान केन्ना मांडल्यात व्हय? गोंयच्या खंयच्याच मराठी, पुर्तुगीज, इंग्लेज आनी कोंकणीय बी बरप्याकडेन ते अशे इतले नागडे-उगडे आनी धोंगां-पोंगां सयत उबे रावंक नाशिल्ले. पयलेच खेपे तांकां पुंडलीकाच्या रूपान कोण तरी आपलोसो मनीस मेळ्ळा आनी तांकां वाचा फुटल्या. ते जशे 'आसात' तशेच हांगा दिश्टी पडटात.

पुंडलीकाचें हें सगळ्यांत व्हडलें येस.

'अच्छेव' ही देवनागरी कोंकणींतली येद्या व्हडल्या आकाराची पयलीच नवलकथा. जाग प्रकाशनान ती उजवाडावंक मेळ्ळी हाचो आमकां संतोस आसा. 'मीन पिकलां खाणयांनी' ह्या नांवान ती जाग म्हयन्या-नेमाळ्यांत हाचे पयलीं कांय खिस्तींनी उजवाडा आयिल्ली.

पुंडलीका कडल्यान कोंकणी बरपावळिची दिशीं दिशीं खूब सेवा जावं अशें मागतांव.

प्रियोळ, 26-1-1977 उजवाडावपी

## ‘अच्छेव’ कादंबरीविशीं –

‘अच्छेव’ ही पुंडलीक नारायण नायक हांगेली कादंबरी 1977 वर्सा जाग प्रकाशनान उजवाडाक हाडली.

आयज 31 वर्सां उपरांत हे कादंबरीची दुसरी आवृत्ती अपुरबाय प्रकाशनाचे वतीन प्रसिध्द जाता.

मदल्या काळांत ह्या कादंबरीचे बाबतींत जायत्यो गजाली घडल्यात. ‘अच्छेव’ कोंकणी साहित्यांतली एक वाटचिरो थारल्या. कोंकणी समीक्षकांनी तिची खास दखल घेतल्या.

हे कादंबरीचें एक म्हत्वाचें वैशिश्ट्य म्हणल्यार लेखकान तीस वर्सां आदीं हे कादंबरींत गोंयचें पर्यावरण, सैमाचो इबाड, सैमीक अरिश्टां हांचेविशीं जीं भाकीतां केल्लीं तीं सगळीं जशाक तशीं खरीं उतरल्यांत.

कोंकणी साहित्याचो परिघ हुपून ही कादंबरी भारतीय साहित्यांत पावल्या. ऑक्सफॉर्ड युनिव्हर्सिटी प्रेस, नवी दिल्ली हे प्रकाशन संस्थेन ती इंग्लीश भाशेंत अणकारीत करून ‘द अपहिवल’ (The Upheaval) ह्या नांवान उजवाडायल्या. इंग्लीश अणकार विद्या पै (कोलकता) हाणीं केला जाल्यार पुस्तकाक डॉ. मारिया आवरोरा कुतो हाणीं अभ्यासपूर्ण दीर्घ प्रस्तावना बरयल्या. देशांतल्या इंग्लीश नेमाळ्यांनी ह्या पुस्तकाचेर बरे अभिप्राय छापून आयल्यात.

इंग्लीश अणकाराचो आस्पाव, राष्ट्रीय थरावयल्या साहित्यिक परिसंवादांनी, चर्चा सत्रांनी जाला. फाटल्या तीन वर्सां सावन धारवाडच्या कर्नाटक विद्यापिठांत एम.ए. च्या अभ्यासक्रमाखातीर ‘द अपहिवल’चो आस्पाव जाला.

नॅशनल बुक ट्रस्ट, नवी दिल्ली हे संस्थेन एके येवजणेखाला, भारतीय भासांनी अनुवादीत करपाखातीर ‘अच्छेव’ची निवड केल्या. ‘अच्छेव’ गोवा विद्यापिठाच्या तिसरें वर्स बी. ए. कोंकणीच्या अभ्यासक्रमाखातीर (2009) लागल्या.

ह्या पुस्तकाचे निमाणेकडेन ‘अच्छेव’ आनी ताच्या अणकारा संबंदित संदर्भांची वळेरी दिल्या. ही वळेरी करपाक डॉ. प्रकाश वजरीकार हांची मदत लाबल्या. हे वळेरेचो विद्यार्थ्यांक आनी अभ्यासकांक लाव जातलो अशी आस्त आसा.

ज्योती गांवकार हाणीं खूब बरे तरेन पुस्तकाची अक्षर जुळोवणी केल्या. दुसरे आवृत्तेखातीर श्रीधर कामत बांबोळकार हाणीं चित्र काडलां.

पयले आवृत्तेंत मुद्रणाच्यो कांय चुकी उरिल्ल्यो. लेखकाचे इश्ट श्री. पांडुरंग का. गावडे हाणें त्यो खासा लक्ष घालून दुरूस्त केल्यात आनी चडान चड निर्दोश पध्दतीन ही आवृत्ती तयार केल्या. लेखकान कांयकडेन किरकोळ स्वरूपाची सुदारणा केल्या.

दुसरे आवृत्तीच्या वेळार जांचो हातभार लाबलो, तांचे सगळ्यांचे उपकार!

– प्रकाशक

# 1

**मा**डांनी आपल्यो सांवळ्यो उदकांतल्यान काडून घेतल्यो. सांजवेळचो वारो रेंदरासारको आयलो. दर माडाचेर झोपय घालून चुडट्यो मेजूंक लागलो. माड सदच्या सारके आंग आंग शिरशिरले, कवाळ्यांतलीं सवर्णी भिरभिरलीं. कोऱ्या कागदार रेगो ओडिल्ल्यासारकीं झाडांभोंवतणयां गिरगिरूंक लागलीं. शेताबांदा वयली मुट्टली भेडस वाऱ्याकडेन फुतफुतली ते सरशीं वारो तिच्या आंगापांगांत रिगून तिका फाफसून वडयली आनी शेळ्या आंगार फुगांव काडून घेतिल्ले खंतीन ती वग्गी रावली. भेडशीची करामत पळोवन किडकिडे पिटकोळेची केंसरी फुलां किटकिटलीं. तेसरशीं पिटकोळेचीं बोरांयेदीं तांबडीगुंज फळां तट्टटून आयलीं आनी भेडशीच्या खाकोळांत बशिल्ल्या साळोरे पिल्यांक दोळे घालूंक लागलीं.

धव्याफुल्ल बळारींचीं निमाणी हार वायगणांतल्यान उडून गेली तेन्ना पंडरीन मान वयर केली. बाग पडिल्लें कंबर ताणें नीट केलें. चिखलांत दोनय पांय घट्ट रोमून तोल सांबाळ्ळो. ताच्या कंबरांत वाय भरिल्ल्या सारकी जाली. सवकासायेन मान बागोवन ताणें वेदना जिरयली. खिणभर हातपांय वातडिल्लेवरी जावन तो शेतांतलें बावलें कसो उबो रावलो. एक थंड शितळ झोत ताच्या आंगा वयल्यान गेली आनी ताचे घामसाणेचो वास सगळ्या शेतांत भल्लो. पूण तेन्ना शेतांत पंडरीबगर

आनीक कोणच नाशिल्लो. ताचे शिरकोणेंत तो एकलोच मेरो धरपाचें काम करतालो. सकाळीं जोतपण करून जाल्लें.

सारकीं चार तासां घालून कमाशी केल्ली. पयल्या तासाक शेतांत ताच्या जोताबगर आनीक तीन जोतां चलतालीं. खंयच्याय होऱ्यार बारय नासतना पयलें तास जाल्लें आनी मागीर तेच तरेन आडास वडयल्लें. अत्रास आनी ओपतासांय ताणें खासा आपणें हातांत नांगर धरून घातिल्लीं आनी आज दोन जोतांनी मागोवणी जाल्ली. सकाळ मेरेन ताका सगळीं कामां सोपोवपाचीं आशिल्लीं. फाल्यां रोवणी दवरलेली. पूण मेरो धरपाचें सांजचें उरिल्लें.

उदकांत हात झंजळून ताणें मेरेची दांग काडली. शेतांत पावलट मारीत तो बांदावटयां वळ्ळो. शेतांत पांय बरेच रोमतात तें पळोवन ताका खोस जाली. वरसा सारकीच बरी कमाशी जाल्ली.

"जाल्यो मेरो?" बांदावयल्यान घरा वचपी शाणून ताका हडकिलो.

"हय."

"रोव केन्ना रे?" शाणूक खबर आसूनय ताणें विचारलें.

"तुका खबर ना?" न्हेशिल्ल्या वाल्याक हात पुशीत पंडरीन ताकाच विचारलें. बांदा वयलें खोमीस उखलून खांदार वडयलें. तुवालो दुसऱ्या खांदार वडयलो आनी फोलिणांतली आख्खी विडी काडून शाणूक दिली. शाणूची विडी पेटयत ताणें विचारलें.

"तूं केन्ना रोयता?"

"आजून सारकें आडासूच जावंना."

"कळाव कित्याक लायलो?"

"कळाव कसो? वरसा सारके आमी फाटीं तूं फुडें."

"एक वरस सगळ्यांत आदीं रोवंचें तुयें."

"कित्याक? चड पिकतलें?"

"बरें आपले नडणे काडणेक."

"लोकांच्या दोळ्यांनी माती घालूंक." वाऱ्यान विडयेचो धुंवर शाणूच्या दोळ्यांत गेलो आनी तो दोळो चोळूंक लागलो.

"आमी लोकांचें भोव खाता."

"कोण कोणाक पोशिना रे."

“मागीर? जालें.”

“वान्सा लागता तसल्यांची.” शाणून विडयेचो धुंवर सोडलो. पंडरीले शिरेर नदर मारीत ताणें म्हणलें,

“बाकी वरसा परस बरी कमाशी केल्या तुयें.”

“चार तासां घातल्यां.”

“हायें दोन घातलीं तरी अजून नळ कुसों ना मरे.”

“खण्णी घालपाची तुयें.”

“बकात्सायो करता ते म्हाज्यो? खण्णी घालूंक मानाय खंयचे हाडप? आमकां कोण लागीं रावता?”

“कित्याक रावना?”

“रावता रे. पूण आदले मानाय ना आतां. खण्णे दिसा पोटभर पिवपाक आनी जेवपाक घातल्यार भागतालें सगळें. आतां दिसावड्याक हात वडयता.”

“तो काळ खंय उल्ला रे आतां! ते फिरंगी गेले आनी ते उंडेय गेले. मनशांक लेगीत दुडवांनी मेजपाचें ह्या काळार.” पंडरीन पावलां उखल्लीं.

“बाकी तुजें बरें रे.” शाणून माथें खरपिलें.

“अं.”

“घरचो म्हूण शेताचो कुडको आसा. नाजाल्यार आमी? भाटकारान नाका म्हटल्यार साटली – पोटली मारपाची खांकेक.”

“आमचें तरी खंय, आज्या पणज्याचें!”

“जावं रे, नशीब जाय तेका. नाजाल्यार आवय बापूय आसून फातराक जाल्ल्या सारके आमी.”

“फाल्यां रोवणेक येता मरे?”

“फाल्यांच रोवणी?”

“येदो वेळ सांगता कितें?”

“तशें न्हु रे, पूण....”

“कितें.....?” पंडरी चलतां चलतां रावलो.

“तळ्या वयलें देवस्पण जालें?”

“नकळों हांव.”

“फाल्यां.”

“मागीर?”

“तळ्या वयल्या देवस्पणा आदीं रोव वडयना न्हू रे शेतांत...”

पंडरी वगीच रावलो. रोव दवरच्या आदीं ताका हे गजालीचो उगडास नाशिल्लो. न्हाल्ल्या आंगार पाल पडिल्ले भशेन ताका जालें.

“पूण हायें रोव दवल्ला मरे.”

“रोवाक कितें, शेण मारून दवरल्यार आठ दीस कांय एक जायना.”

“पूण सगळें...”

“रोयतलो जाल्या रोय रे. पूण तळ्या वयलें देवस्पण तें. आदींपासून खर. पयल्स वरसाची वयल्या वाड्या वयली गजाल नकळों?”

“कसली?”

“जलम्यान चोरू घालचे आदीं जोत बांदलेलें. जोतपण करून बेस बरें घरां येयलां, पाग्याचो सणसणीत पाडो गोठ्यांत फडफडून मेलो ना!”

“पूण त्या पाड्याक सर्पान..”

“तळ्या वयल्यान फुंकलो तेका.”

***

“तळ्यावयल्या देवस्पणाक तू रावों नाका.” येशान पंडरीच्या खांदार हात दवल्लो. ताका तो समजावंक लागलो.

“आरे पंडरी, तळ्यावयल्या देंवचाराक पंडरीचें वायट जाल्लें जाय?”

ताणें फेणयेचें कोप तोंडांक लायलें. कोडूक निवळी घोंटिल्ले भाशेन घटाघट घोटलें आनी ‘खाँक’ करून चुट्ट्यांच्या कडव्यार कालवा येदें धेरकेल माल्लें.

“ये येसल्या, भायर थुंकपाक जायना?” गल्ल्या वयलो दादा येशाचेर आड्डलो. आपले तांबशे दोळे ताणें येशाचेर थिरायले. “बुरशा कास्ताचो.”

“तो सगळ्यांचेर सारकी किरपादृश्टी दवरता. एकल्यान उब्यान आनी दुसऱ्याक कातरेन दिना.” गल्ल्या वयल्या दादाचेर लक्ष दिना आसतना येसो पंडरीक समजावणी दीत रावलो.

दादाले सोऱ्याचे गादयेर ल्हवू ल्हवू पिवपी येवपाक लागले. एकामेकांत पडून झांकडी वाडूंक लागल्यो. गल्ल्या वयलो दादा लाटणाच्या उजवाडान मनशांक वळखून सोरो दिवंक लागलो. आरमारींतली एक एक बाटली काडून पाव, देड पाव कोपांत ओतूंक लागलो. मेजार कोपां एकामेकाक आदळूंक लागलीं. तशीं पिवप्यांचीं भुजां एकामेकांक घश्टूंक लागलीं. मेजार वांटकुळेच कोपाचे दाग उठूंक लागले. दागार दाग पडून एकामेकांत घुस्पूंक लागले. गादये भायर येवन कांय जाणांनी पेळयेर थपकण माल्ली आनी खळांतल्यो तोराशिरो रूच काडून चोखूंक लागले. कोणें काश्टेचे व्होटयेंत घालून शेतांतले कोंगे हाडिल्ले. तांणी धगाटो केलो. पणसाचीं भिकणां कशीं कोंगे भाजले. फातरार आदळून कल्लां फोडलीं आनी 'सू' 'सू' करीत हुनहुनीत खावपाक लागले. सोंपले तशे काश्टे शेवाक हात पुसून दुसरें कोपट्याल मारूंक भितर सरले.

येशान पंडरीक हाताक धरून पेळये वयलो उठयलो.

"कितें मेल्ले वारिचो कसो तूं. हांव सांगता न्हू तुकां, रोय फाल्यां. हांव पळयतां तळ्यावयल्या राखणदाराक." ओडितूच येशान ताका भितर व्हेलो.

"दोन पाव दी." येशान झेतान दादाक फर्मायलें.

"सांजेक आसा मरे?" दादान विचारलें.

"आरे, येशाक तूं कितें समजलो?"

"सांजेक नाशिल्लो."

"हो धेयूय ना रे?" येशान हड्ड्यार थापटां मारीत विचाल्लें.

"तो कितें पावणेर काडपाचो आसा?" दादान बाटलेक गुड्डी लायली. येशाचो स्वास अडलो.

"तुका नागयला रे?" येसो दादाचेर गुरगुरलो.

"चड जालें येशा." दादान मान वयर केली.

"वोत दोन पाव." येशान त्याच नेटान फर्मायलें.

"पयशे काड." दादाय थीर आसलो.

"फाल्यां दिता."

"फाल्यांच यो."

"सांगलें न्हूं, फाल्यां दिता." येशान मातसो आवाज चडयलो.

"तुकाय सांगलें न्हू फाल्यां दिता म्हण." दादान ताचेपरस आवाज चडोवन

सांगलें.

‘‘बापायच्यान तर दितां.’’ येशान सोपूत घेतलो.

‘‘बापायन फाटल्यान कांय दवरूना म्हण बापायक लेगीत खायशी.’’

‘‘भात दिता मरे फुडल्या सर्दार.’’

‘‘फुडल्या सर्दार?’’ दादा ताका पिशांत काडून हांसलो. ‘‘फुडलीं धा सर्दा येयलीं तरी म्हाका गोटो मेळचोना.’’

‘‘आतांच कशें कळ्ळें तुका?’’

‘‘तूं खंयचें घालतलो भात म्हाका? कोणाच्या भाटाक कुरू मारतलो? खंय बापायचें बेंस आसा तुका?’’

‘‘म्हणटकच आमी मनीस न्हू मरे?’’ येसो निरशेलो.

‘‘न्हू कित्याक, हाडां मासां आसा तीं! तोंडाचीं बातां आनी भीक मागोन खातां.’’ दादान ताचेर आडनदर करीत म्हणलें.

‘‘वोत दोन पाव.’’ पंडरी गर्देंतल्यान मुखार आयलो.

‘‘दोन कोणांक?’’ दादान मातशें अजापान ताचेवटयां पळयलें.

‘‘वोत तूं.’’ पंडरीन ताका पळय नासतना परत फर्मायलें.

‘‘घे.’’ पंडरीन उजव्या हातांतलें कोप येशाक दिलें आनी दाव्या हातांतलें आपल्या वोठांक लायलें.

‘‘आतां पियेवं मरे?’’ येशान कोप माथ्यावयर काडून नेटान दादाक दाखयलें आनी घटाघट घोटलें. दादान ताका दाद दिली ना. दुसऱ्या गिरायकांक तो निबावंक लागलो. पंडरी कोपां मेजार दवरून भायर गेलो. दादान जाप काडिनासतना मेजाचें गवेत उकतें केलें. पंडरीच्या व्हदळच्या बिलार आनीक दोन पाव लापसान बरयले. लाटणाच्या उजवाडांत धरून आंकडे सारके उठल्या काय ना तें पारखून घेतलें. जमिल्ली मोड कुशीक सारून हिसपाची पटी गवेतांत धोंगशिली.

पंडरी आनी येसो भायर येवन पेळेर बसले. पूण येशाचो कुलो लागलो ना. तो उठलो.

‘‘म्हणटकच फाल्यां रोयणी जातली.’’ येशान दोनय हात मेजार मारिल्ल्या सारके वावुडले. मातसो तोल वचून तो हाल्लो.

‘‘हायें थरयलांच रे.’ पंडरीन म्हटलें.

‘‘मागीर जालें मरे, आतां मोडटें घालपाक कोणाच्या बापायची शाती

आसा?'' येशान आपल्या हड्ड्यार हात माल्लो. परतो मातसो तोल वचून तो झिडपलो.

''म्हाकांय याद नाशिल्ली रे देवस्पणाची.''

''केली कोणे?''

''आनी कोण? आमचो शाणू.''

''तरी म्हणटा हांव, हें येवजलें कोणांक! आरे, असलीं विघ्नां, अपशकुनां करपाची बडूच तेची. सारकी बापायची वारी चलयता. आरे, हेचो बापूय इतलो दुस्वाशी आशिल्लो – कोणाची उंच बरी तणाची कुडी हेचे नदरेक भरल्यार काडी लायनासतना उजो पेट्टालो. हांयें पळयला हेच्या बापायक. निमणे मरते घडयेक लेगीत तेचे भोंवतणी लोक वावुरता तें तेच्यान पळोवं नजो जातालें. अखेरेक दुसऱ्यांचें बरें सोसूं नजो जावनच काबार जालो. आनी आतां शाणू तेचेंच कास्त. बीं तशें भात.'' येसो एका दमान उलोवन गेलो.

''पूण तेचें तशें कांय चुकोना रे.''

''तेचें केन्नाच कांय चुकना. पूण फुडें बत्तीस दांतांचो पडलेलो दांत कसो उलयतलो.''

''तेचेर कोण आसा. रे.'' कुल्यार हात फाफडीत पंडरी पेळये वयलो उठलो.

''पाडा पोडों तेच्या घराक. चल, फाल्यां कोणांक रोयणेक सांगपाचें आसल्यार सांग. हांव फांतोडेर येतां.''

''निवळो हाडटा मरे?''

''तूं कित्याक भियेला? हांव हाडटां निवळो.''

''तुजेकडेन आसा?''

'म्हाजेकडेन ना.''

''मागीर? नाका. हांव हाडूंक लायतां कोणाकय. तूं फांतोडेर यो.''

''तूं पर्वा करूं नाका. हांव आत्तां पासून येयन.' पंडरीन गादयेर जमिल्ल्या आनीक दोगां मानायांक फायचे रोयणेक सांगलें, एकल्याक निवळो हाडपाक लायलो. दुसऱ्याक सकाळीं येतना केळीच्या पन्नास पानांचो येडो हाडपाक सांगलो. परतो एकदां दोगांकय उगडास करून तो भायर आयलो.

''चल, या मरे!'' पंडरीन येशाच्या हाताक धरलो.

''आयक.'' यशान पंडरीच्या कानाकडेन व्हरपाचें तें तोंडाकडेन तोंड व्हेलें.

गादी आपल्या बापायचीच अशा नेटान पंडरीक विचारलें, ‘‘आनीक घेतलो?’’

‘‘कोण हांव?’’

‘‘घेतलो जाल्यार तुकां जाय तितलो दितां.’’ येशान ताका भितर धुकलपाक हात लायलो.

‘‘म्हाका आनीक थेंब नाका.’’

‘‘नाका! आनीक कांयच घेवं नाका तूं. चल, फाल्यां रोयणी. सुस्सेगाद ताणून दी. बेश्टें जागरण करून घेवं नाका जिवाक.’’

‘‘चल, तुंवय घरा. आनीक घेवं नाका.’’ दितलो कोण, हो प्रस्न येशाक पडलोना.

‘‘शे ऽऽ बापायच्यान हांव आनीक घोंट मारिना. म्हाका पितलो जाल्यार खुब्ब आसा. पानदुडू मोडिनासतना. तसो पयशाक पादिशेर म्हूण उतराक गू केन्नाच खावंचोना.’’

***

‘‘आवय, हायें फाल्यां मास्तराक रोवणेक सांगलां.’’ नानून आंगणांत वावर क़रपी आवय भोंवतणी भोवर मारलो. तो खूब उमेदीन आसा म्हणपाचें कळटालें.

‘‘रोवपाक सांगलां?’’ आवयन फकाणां केलीं.

‘‘मास्तराक रोवंक कळटा? तेका जेवपाक सांगलां.’’

‘‘बरें केलें.’’

‘‘आयज सकाळीं बाप्पानूच सांगलेलें सांग म्हण. जाणां आवय?’’

‘‘अं.’’

‘‘पयलीं मास्तरानूय म्हाका तशेंच विचारलें.’’

‘‘कितें?’’

‘‘जेवपाक काय रोवपाक म्हण.’’

‘‘तुवें कितें सांगलें?’’

‘‘हांव वगीच रावलों.’’

“आरे, सांगपाचें न्हू जेवपाक म्हण.”

“आमचो मास्तर शाणो आसा तसो. हातिचे किरंगळेचें बोट दाखयल्यार तेका ज्युस्त कळटा हेका मुतोंक जालां म्हण.”

“आनीक कितें कळटा तुज्या मास्तराक?” रूक्मीणीन ओणव घातलो. आंगणांत रोवाची पोटली आडवी केली. मुगड्याचो वेठो सोडोवपाक लागली.

“मास्तराक सगळें कयटा.”

“तूंच न्हुरे निकतो सांग रोवपाक कळना म्हण.”

“मास्तराक रोवंक कयटलें, पूण शेतांत देंवल्यार तेचें धवें पुडयें चिखलांत लोळचें ना तर? आनी बैलांच्यो शेंपड्यो बसून धवेलें खोमीस पसून लोयटलें. जोत आमुडटना माथ्याचो फेटो सुटून चिखलांत पडटलो.” नानू मास्तराचो पाखो घेवन मास्तराची व्हडविकाय गावंक लागलो.

“फाल्यां येतलो मरे मास्तर?”

“जेवपाक.” नानून बेगिबेगीन सांगून वडयलें.

“हय रे.” रूक्मीण मुमरख्यांनी हांसली आनी रोव सुपांत ओतून घेवंक लागली.

“आंवय गे.” पडवेर नाचणें दळीत बशिल्ल्या केंसरान किलांट मारिल्ले भशेन मारली.

“कितें गो?” रूक्मीणीन आंगणांतल्यान ओणव्यांनीच विचारलें.

“हात वळ्ळे.’ केंसर वाजेलें.

“आनीक मातशें बस बाय. चल रे नानू. तेका दात्याक पालव धर.”

“वयतां आवय. मास्तर जेवपाक येतलो तेचो उगडास धर.”

“भियेवं नाका रे. उपाशी दवरिना तुज्या मास्तराक.”

“आनी आवय, फाल्यां म्हाका सुटी. शाळेक येयना जाल्यार मास्तर कांय एक म्हणचोना.”

“राव तूं घरा.”

“फाल्यां शेण फापडूंक वयतलों हांव. पिनकेली चेड्डी आनी खोमीस काडून दवरलां हायें.” भायले म्हेडी वटयां नानून बोट दाखयलें.

“आवय, फाल्यां केंसरान म्हाजेर शेण माल्ल्यार हांव वगी रावचोंना आं. पोरूं म्हाज्या दोळ्यांत शेण वडयल्लें तेणें.” नानून पोरूंच्या वरसाची कागाळ

उस्तिली.

"आनी तुयें म्हाज्या आंगार शेणांतलो रोटो वडयल्लो तो." केंसर पडवे वयलें दळप सोडून खळ्यांत आयलें.

"शेण फापुडटना पडलो तो."

"आनी शेण फापुडटना उसळ्ळें तुजेर."

"आतां झगडीं नाका रे. बाप्पा येवपाची जालो. चला, दोगांय लागोन नासणें दळून सोंपयात. फाल्यां दोगांकय आख्खी एक एक भाकरी.'

आवयन तांकां समजायलीं आनी पडवेर व्हरून दांतें मांडिल्ल्या साकार दोशीं-वशीं बसयलीं. एकामेकांक हिसके मारीत भाव-भयणां नासणें दळूंक लागलीं. फायचे रोवणेचे यादीन धोलूंक लागलीं.

रूक्मीणीन साकाचे पोटलेंतलो रोव सुपांनी उसपिलो. पडवेर शेण सारयल्ले जमनीर घातलो. दोनय हातांनी चाळ्ळो. चाळटना बियाचे गोटे तिज्या हाताक कुचकुच करून तोपूंक लागले. आज सांजेचें निमणें पाजण दितना पोतयेंतल्यान बिंयाचे कोंब भायर सरिल्ले. पोटलेंतल्यान मानो भायर काडिल्लेवरी ते दिसताले. शेण सारयल्ले ओले जमनीर कोंब तिकतिकूंक लागले. एक गोड हरवस वास भायर पडलो. दांत्या वयल्या नासण्याच्या पिठाचो वास आनी रोवाचो वास एक जालो. एक गोड सुरबुससाण घरभर भरली. चिमणेचो उजवाड खांची कोनशाक पावनासलो. पूण ह्या वासान सगळें भरून आयलें.

पंडरीन घरांत पावल दवरलें तेन्ना दळून जाल्लें. रूक्मीणीन पीठ लातांत भरलें. दांत्याची खुंटी निखळ्ळी. दांत्याच्यो पांवो जोडून जागच्या जाग्यार दवरल्यो. साक फापुडलो आनी पडवेर कोनशाक पडिल्लीं पोपायेचीं गोळां ती सुपांत भरूंक लागली.

"फाल्यां खतखत्याक मीठमसालो आसा मूं?" पंडरीन विचाल्लें.

"उणो आशिल्लो तो घेतला हाडून सकाळीं." रूक्मीणीन जाप दिली.

"कोण गेल्लो पलतडी?" पंडरीन रोव चाळीत विचारलें.

"शाणूलो चेडो गेल्लो मीठ हाडूंक."

"नानूक बीन धाडूं नाका पलतडी. ते तारिचो भरवंसो ना."

"तो बऽरो वचत. हांव धाडूं नाका?"

"बाप्पो, हांयें कित्याक वचों जायना रे पलतडीं?" नानू झेमतालो तसोच

उठून बापाय म्हऱ्यांत आयलो.

"हांयें कित्याक वचों जायना रे बाप्पा?" केंसरूय बगलेक येवन बसलें.

"तूं चेडूं. चेडवां पयस वचनात." नानून सांगलें.

"हेंकां आजून कित्याक वाडूं ना?" पंडरीन रांदचे कुडींत गेल्ले बायलेक विचारलें.

"तुकांच रावलेलीं. चला रे जेवंक." आवयन हुंबऱ्यार येवन सांगलें तशीं दोगांय भावंडां उठलीं.

"हात तरी धुया मरे." आवयन हुंबऱ्यार तांकां आडायलीं.

"हांयें धुयल्या व्हदळ."

नानू दांगे पोंदच्यान रिगलो. दोगांय वचून म्हणयांर बसलीं. काश्याची वाटलीभर शीत सुक्या सुंगटांचे कडयेन बकाबका करून जेवंक लागलीं. तीख लागतकूच सू सू करून पेल्यांतलो निवळ घोटवंक लागलीं. दाव्या हाताचे चिमटेन धरून दोगांयनी एक एक सुको पेडवो तोंडाक लायलो.

"पांच जाण सांगल्या सकाळीं निवळ्याक." पंडरीन बायलेन सांगलें.

"पांच जाणांक येतलें सगळें आळाबंदा?"

"मागीर दोनपारच्या वेळार पावतले कोणय. म्हटलां हांवें दोगां-चौगांक, दादाक सोऱ्याचो एक कार्गो धाड म्हटला बांदार."

"एक कार्गो?" तिका खर्च देमायज दिसलो.

"वरसाचो न्हूं तो? " ताणें तिका समजायली.

"एक कार्गो पावतलो रे रोवणेक?" अकस्मात आंगणांतल्यान आवाज आयलो. पंडरीन भायर पळयलें. दरवट्या वयल्यान रूक्मीणीचोय ओणंव पडलो. काळखांत पंडरीक हयन्हयशी एक आकृताय दिश्टी पडली. पूण आवाजा वयल्यान ताणें ताडलें हो पलतडचो बाबुसो आसूंक जाय.

"यो. तुका एक बल्ल तरी पावत मरे? रावणाचो फोंड तुजें पोट. कसो पचता रे तुका इतलो सोरो?"

"फुकट मेळ्ळ्यार ईख पासून पचयन हांव." बाबुशान काळखांतूच जाप दिली.

"आयज खंय कालो जात्रा ना काय कितें रे? गडगडो, इस्पिको सोडून तूं रातचो हांगासो उदेला? भितर सर मरे."

पंडरीन ताका उजवाड दाखोवंक चिमणी सोपणाकडेन केली. चिमणेच्या धुंवश्या उजवाडांत धव्या मुस्तायकेंतल्या आनीक एका मनशाक ताणें पळयलो. तो काचाबूल जालो. अजापान ताणें विचारलें.

"बाबुशा, कोण रे?"

"सांगता मरे. आव बाबुजी पडवेर आव." बाबुशान ताका हाताक धरून सोपणां चडयलीं.

"अच्छा - अच्छा" धवे मुस्तायकेंतलो तो पडवेर आयलो.

"आगे, शेंदरी हाड." पंडरीन गडबडयां बायलेक सांगलें.

रूक्मीणीन बेगोबेग ल्हव्याची शेंदरी हाडून दिली. बाबुशान ती सोप्यार हांतुल्ली. ताका बसयलो. आतां पंडरीन ताका बारीकसाणेन तेळ्ळो. गुबगुबीत पोले. साळकाच्यो पाकळ्यो कशे काळे कुळकुळीत मिश्यांजोड. आंगांत धिंपरा मेरेन खोमीस. ताजेर भांगराचे बुतांव. बोल्सांत जाडजूड पटी. वयर दोन लापीस. पावला मेरेन लुंगी कशें धवें पुडवें बांदिल्लें. पांयांत सोबीत बरे विणयेच्यो आनी दाट तळव्यांच्यो व्हाणो. केंस फाटल्यान वळयल्ले. ताणें लायिल्ल्या वासाच्या तेलाचो घमघम भितर सरतनाच पंडरीक आयिल्लो. शेतांत मेरेर बसता तसले धवेफुल्ल बळारी सारको तो सोप्यार बशिल्लो. बळारीवरीच आपल्या भोंवतणयां नदरो घुंवडायतालो. ताचे कुशीक बशिल्लो पट्यापट्यांची मुस्तायकी घातिल्लो बाबुसो बळारी म्हऱ्यांत कावळो कसो दिसतालो.

"हो गुजीर प्रसादबाबू." बाबुशान वळख करून दिली.

"हां हां." गुजीरान हांसत्या मुखान मान हालयली.

"थंय नावेले गोडबांयकडे खण मारून कसले तरी फातर उस्तिता, तो रे?" पंडरीन अजापान विचाल्लें.

"कसले फातर? मीन म्हणटात तेका. आरे, भांगर करता तेचें." बाबुशान जाप दिली.

तेसरशीं गुजीरान मान हालयली.

"थोडे काम करिना थंय. सुमनाच्या सुमनाक पयशे. हांगा रोव शेतांत वडोवन स स म्हयने वाट पळयत बसप. गोरवां-वासरांच्या तोंडांतल्यान सुटलें जाल्यार कितेंय मेळप; ना जाल्यार पिकेरूय हातांत कट्टी. पिके जाल्यार पिके; ना जाल्यार गुरू बसला भिकेक!" बाबुशान गुजीरावटयां पळयलें पूण ताका तें व्हडलेशें

समजलेंना. आपले भार्शेत कितेंतरी सांग म्हणपाची ताणें बाबुशाक कुरू केली. आनी पंडरीच्या तोंडाकडेन तो पळयत रावलो.

"खंय व्हरता रे तें मीन?" पंडरीन सहजतायेन विचारलें.

"सांगलें न्हू भांगर करूंक. आनी मसणांत व्हरना! आमकां कितें? आमच्या हातीर रोक पांच रूपया दिसावडो पडटा न्हू?" बाबुसो.

"पांच रूपया दिसावडो?"

"विचार तेका." बाबुशान गुजीराकडेन बोट दाखयलें.

"हां हां जरूर.' गुजीरान बक्यासारकी मान हालयली.

'फुडें आयक. पांच रूपया दिसावडो वयर खणीर फातर फोडटल्यांक."

"फातर फोडप?" पंडरी.

"हातीन न्हुरे. सुरींग लावन. व्हडलें काम न्हू तें. आमी तळें सारकें करतना कसल्या कास्ताचीं खडपां फोडलेलीं! घण, पारय आनी दारू, जिलेटीन सगळें कंपनीचें."

"हां हां. सामान कंपनीका." गुजीरान मर्दीच म्हणलें.

"फुडली गजाल आयक."

बाबुसो पंडरीचे कुशीक आयलो. थपकण मारून बसलो. भायल्यान कोणाक आयकूंक वचचें ना इतल्या ल्हवू आवाजान सांगूंक लागलो.

"जाचेकडेन बैलांची गाडी आसा न्हू तेणें जोडलें.'

"बैलांगाडी?' पंडरीक आपले गाडयेचो उगडास आयलो.

"गाडयेन घालून माल खणीवयल्यान सकयल हाडपाचो. टेप लावन गाडी मापपाची. जितको माल तितके पयशे. चड माल हाडशी, चड पयशे."

"माल खंय हाडपाचो?" पंडरीची उमळशीक जागी जाल्ली.

"घांटार न्हू. नायेले साकून हांगा शेनोरेर. पराय केल्लो माल मागीर कोठयांनी भरून भायर व्हरतात." बाबुशान कांय न्हय करून सांगलें.

"फातर ओडूंक तरास मरे बैलांक." पंडरी मातसो चुरचुरलो.

"पंडरी, तरास कित्याक ना रे पापया."

"हां. हां. वो तो करनाही पडता है." गुजीराचें लक्ष बाबुशाच्या उलोवण्याचेर बारीकसाणेन आशिल्लें.

"गाडयेन चिरे ओडटना तरास जायना रे बैलांक. हांगा तरास आसाच. पूण

काम तसो दाम आसा.'' बाबुशान चोख जाप दिली.

''करीब सत्तर रूपया.'' गुजीराक थार नाशिल्लो.

''ठैरो ठैरो.'' बाबुशान गुजीराक थांबयलो.

''पंडरी, सांग. नावेले साकून शेनारेर एक चिऱ्यांची पावट मारची आसा. समज, हायें तुजी गाडी थारायली. कितले पयशे घेयशी?'

''पयशांची गजाल न्हू रे.''

''न्हू कशी तर? फुकट कोण कोणाचेर उपकार करता? जणा एकल्याक पोट आसा न्हूं? सांग रे, कितलें भाडें घेयशी?''

''कितलें दियशी?''

''तूंच सांग रे. दरेक कितें? कोंताक पडल्यार कोणय करतलो. पंदरा रूपया? वीस रूपया? तीस?'' बाबुशान पावणेचे लास चडोवें तशें विचारलें.

''तीस रूपया! पिशें लागलां कांय कितें? आनी तीस रूपयांचीं भाडीं मेळटा कोणाचीं? पयर खणीवयल्यान तळ्यार चिरे व्हांवयतालों. धा रूपयांवयर पानदुडू दिवपाक कोण तयार ना.'' पंडरीन पिरंगत सांगलें.

''जालें मरे? नावेलेच्यान शेनारेर मीनाची गाडी व्हर. दोळे धांपून सत्तर रूपया दितां. तीन वीसो आनी धा.'' पंडरीचे मांडयेर थापट मारीत बाबुशान सांगलें.

''कितें सांगता रे?'' पंडरीन मांडी आंवुळ्ळी.

''हांव दिता न्हू. नाजाल्यार तुजे गांडी पोंदच्यान वयतां.''

''दितल्याक परवडो नाका?'' पंडरी चांचल्लो.

''दिवपी हांगा बसला न्हूं. तसलीं लफड्यापणां आमचे कडेन ना. क्या बाबुजी?''

''क्यू नहीं? जितना काम उतना पैसा.'' गुजीरान गवाय दिली.

''मागीर थरलें, वगत नाका. फायच्यान सुरू. फाल्यां सकाळीं तुजी गाडी नावेले.''

बाबुसो उठलो. पंडरी म्हेडीक लवंडून बसलो. भितल्ल्यान सगळें आयकत बशिल्ली रूक्मीण दरवट्यार रावली. पंडरीकडेन ती पळयत आशिल्ली. पूण पंडरीन तिचेकडेन लक्ष दिलेंना. जेवन आंचवून आयिल्लीं नानू आनी केंसर ओले हात आवयच्या न्हेसणाक पुसून आवयक पिलां कशीं दशिल्लीं.

''चिंतपाचें कांय ना.'' बाबुसो परतो पंडरी कुशीक बसलो. ताच्या कानांत

फुतफुतलो.

''फाल्यां गाडी बांद. मागीर फुडले दोन दीस बंद दवरल्यार जाता. ना जाल्यार गुजीर आनीक कोणालीय पळयतलो.'' बाबुशान ताका शिटकायलो.

''उठो बाबुजी. वो फिक्स हुआ.''

गुजीर उठलो. पूण ताणें पावल उखल्लें ना. रूक्मीणीवरी तोवूय आतां पंडरीक पळयत रावलो. मुमक्या पंडरीच्या तोंडा वयले कसलेच भाव ताका वळखूंक आयलेना. दरवट्या वयले रूक्मीणीची चुळबूळ वाडली. पूण पंडरीन तिचेकडेन आडनदर केली. गुजीराच्या दोळ्यांक दोळे भिडयत ताणें वोंठ हालयले.

''मातसो भितर यो.'' पंडरीक रूक्मीणीन उलो मारलो. तातूंत पंडरीक आडावपाची निबरसाण आशिल्ली. पूण पंडरी अनमनलोना.

''फाल्यां येता.'' पंडरीन आपणालो निश्चेव जाहीर केलो आनी तांकां पावोवपाक उठलो.

''अच्छा ! अच्छा !'' गुजीर खुश जाल्लो.

''वा रे व्वा !'' बाबुसो खोशयेन उसळ्ळोच.

बाबुशान गुजराक हात दिलो. काळखांत सोपणां देंवून ते आयले तशे गेले.

''तुका कोण तळ्या वयलो लागला?'' रूक्मीणीचो बांद फुटलो.

''तुकां कळना.'' पंडरी शांत आशिल्लो.

''कितें कळना? फाल्यां रोवणी हें म्हाका कळना काय तुका कळना?'' काळखांतूय तिचे तांबडेगुंज दोळे ताका स्पश्ट दिसले.

''कितें जालें गे आवय?'' नानू मुखार आयलो. तो बुचकळ्यांत पडिल्लो.

''फाल्यां रोवणी ना गे?'' केंसरान दुबावान आवयक विचारलें. आनी तें अदिकूच आवयच्या न्हेसणाक दसलें.

''विचारा तुमच्या बाप्पाक!'' रूक्मीणीन दोगांय भुरग्यांक पंडरीकडेन धुकल्लीं.

''नारे बाप्पो फाल्यां रोवणी?'' केंसरान रडकुऱ्यां विचारलें. नानूच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळपाक लागिल्लीं.

''आसा. फाल्यां न्हू परवां.'' पंडरी शांतूच आशिल्लो.

''परवां? परवां कित्याक? पाड पोडों ते शेतवडीक. शेत रोवन कितें पांच पांच रूपया सुमनाक दिसावडो हातीर पडपाचो आसा?''

"मातशी वगी राव."

"कित्याक वगी रावों? घोवान दिये लायल्या म्हणोन काय घराक उजो लावंक भार सरला म्हणोन?" रूक्मीणीचो आवाज चडत आशिल्लो.

"संवसार तुज्याच माथ्यार उखल्ला?" पंडरी शांत रावपाचो यत्न करतालो.

"म्हाज्या कित्याक? पयशाक लागोन देवधर्म सोडटल्या मनशांच्या माथ्यार उखल्ला." रूक्मीण खेपपाक लागिल्ली.

"वगी राव गे आवय." भाव-भयणां रडूंक लागलीं.

"कित्याक बोबो मारता? शेजारी-पाजारी आयकत." पंडरीन तिका दटावपाचो यत्न केलो.

"आयकों. शेण घालचेना कोण म्हाज्या तोंडांत." रूक्मीण चडट्या आवाजान फणफणली.

"आतां सोंडार पडटलें." गादयेर घेतलेलो पंडरीक आतां चडूंक लागलेलो.

"रोवार शेणाचें उदक फांपूड आनी दवर." पंडरीन बायलेक समजावणी दिली. रोवणी एक दीस मुखार धुकलताना हो उपाय ताका तेन्नाच येवजल्लो. जो ताणें आतां बायलेक सांगलो.

"आतां त्या रोवाचो कोड्डूक शिजयतां." रूक्मीणीचो तोल केन्नाच गेल्लो.

"कितें?" आतां मात पंडरीच्यान सोसूंक जालें ना.

"हय. हय. कोड्डूक शिजयतां घोवाचो." रूक्मीण त्याच आवाजान आड्डली.

"राणग्या!"

पंडरीच्या एकाच थापटान रूक्मीण वणटीर आदळ्ळी. न्हिन्नडली. घरवांशां सकट सगळें घर लेगीत हालिल्लें भशेन जालें.

***

# 2

हांडीर भरिल्लो कळसो तसो मांडवी न्हंयचे बगलेक कोळंब गांव. गांव म्हणल्यार फकत दोन वाडे. वयलो वाडो आनी सकयलो वाडो.

वाड्यावयल्या पयल्या कोंब्याचो साद कानार पडलो तेन्ना आबू उठून हांतुणार बसलो. उशा कुशीक पडिल्लो माथ्याचो रूमाल ताणें माथ्याक सारको वेटळायलो. दाव्या हाताची धिगी करून तो उठलो. कंबरा सकयल देंविल्ली रूप्याची  मूज वयर ओडली. काश्टेचो तांबडो लेंस सारको केलो. फाटल्यान मुजीक खोवन गांठ मारली. उकत्या आंगार तुवालो भोंवडायलो आनी तसोच दाव्या खांदार वडयलो. कोनशाचो दांडो उजव्या हातांत घेतलो. दांड्यानूच ल्हव्याची शेंदरी कवळ्ळी. आनी ओणव घालून उखल्ली आनी घरांतल्या मदल्या अद्र्या पाऱ्यार दवरली. पेडवेर येवन तो आंगणांत थुंकलो.

सामकार नदर मारिनाफुडें ताका तळ्याकडलो वाठार स्पश्ट दिसलो. तळ्या भोंवतणचीं काळीं कुळकुळीत  सरपट खडपां. मदीं मदीं मोव सुवातेर केगदीचीं झोपां वाडिल्लीं. पिटकळेचीं लांबोडयीं झाडां आनी हेर कांटयारी रूखावळ मातिल्ली. तळ्याचे धडेर कोंगऱ्या पानांची गाड पांचवी आमुल्ली उबी आशिल्ली. आमुल्लेच्या माथ्यांत  खोप्यांत खोयिल्ल्या सारकी पांचवी बेनुल्ल नटिल्ली. आमुल्ले कुशीक धवे कातिचो सांतोण कंबराक मात बाग घालिनासतना खूंट

कसो उबो राविल्लो. सांतोणाच्या गळ्यांत मुठीयेदी दाट कांगलीणीची वाल पडिल्ली.

आबू सकयल देंवलो. तळ्याचे सकयले सुवातेर वचून तो उदकाडेक बसलो. मागीर वयर तळ्यार आयलो. खांचींत हात घालून ताणें आपणें दवरलेली राखोणी काडली. तायटार चिड्डून किस्मुरली आनी दांत-दाडमणां घांसूंक लागलो. उदक भरता त्या बायकुला धडेर तो बसलो. ताचीं जून हाडां कट्ट करून मोडिल्लेवरी आवाज जालो. उदकांत पिट्टोळ्यो, दाणयो, खोरवो स्वस्तकायेन भोंवताल्यो. आबून उदकांत हात बुडयनाफुडें त्यो बुजल्यो पूण खिणभरांत संवकल्ल्यावरी ताच्या हाताक घसटूंक लागल्यो.

तुवाल्याक तोंड पुशीत तो उठलो. उदेंतेक तोंड करून ताणें नमस्कार केलो. पांचवेचार दोंगुल्ले फाटल्यान रंगाची तांबसाण मारताली.

ल्हवू ल्हवू गोठ्यांतल्यान आवाज येवंक लागले. गोरवांच्या गळ्यांतलीं कोगळां कोळॉक कोळॉक जावंक लागलीं. वेळूचीं ठोकरीं खडखडूंक लागलीं. पितुळच्यो घांटी किणकिणूंक लागल्यो. घुंगूर घुंगुरले. मदींच "हाम्मा ऽऽ" अशे वासरां-पाडकांचे साद फुटूंक लागले. घरां-खोपींक जाग आयली. नळ्यांच्या पाख्यांतल्यान आनी खोपिंच्या कोलवांतल्यान धुंवराचे लोट येवंक लागले. ते फांतोडेर दर्याच्या उदकाक सुटिल्ले उबे वरी दिसताले. दांत्यांचो घरघर वाडलो. वायनांर तांदूळ सडपाक लागले. घरांघरांतल्यान नासण्याचे आंबिलिचो वास भायर सुटूंक लागलो. नासण्याच्यो काळ्यो कुळकुळीत भाकऱ्यो तव्यांर-कयलांर आरत्यो-परत्यो जावंक लागल्यो.

आबून सदच्या सारको तळ्याकडल्या आंब्यापोंदा धगाटो घातलो. पायांचें तिकटें करून तो बसलो. दांड्यान एक एक खोली लार्गी करून उजो तिगोवंक लागलो.

मार्गशिर्शांतलें शीं बरेंच पडटालें. पोल्याची चामडी वातडेताली. भुरग्यांचें आंग धवश्या पिठ्यान पिठेतालें. कात थंडावताली.

एकलो एकलो जाणटो-नेणटो तळ्यार देंवपाक लागलो. भुरगे भोंका फाटल्यान हात घट धरीत धांवपाक लागले.

"ए पोरा, सकलेवटयां बस." तळ्याकुशीक बसलेल्या पोरांक आबू धपकांवक लागलो. सकाळचे विधी सोंपोवन दर एकलो आबूच्या धगाक येवन

बसूंक लागलो.

"चोरांनो, मांडलेल्या आयत्या खोल्यार बाळंत जावंक येयल्या? चला, खोलयो हाडा."

भुरग्यांनी बचक्यांनी - पोश्यांनी खोलयो हाडल्यो. होमांत वडयल्ल्यावरी एक एक वडोवंक लागले. कात तापतां तापतां अचळय कडेक सरूंक लागले. एका हातान काश्टी सांबाळीत दुसऱ्या हातान पत्रो पुंजावंक लागले. पोटाकडेन गच्च धरून हाडपाक लागले.

"तळ्याकुशीक कोण बसलेलो रे परसाकडेन? कोणाची मांतूक माल्ली थंय?" आबून दटावन विचारलें. पूण कोणें जाप दिली ना. एकामेकाचें नांवूय सांगलें ना.

"थंय हागशात जाल्यार किडे पडटले गाणीक."

सगळे भुरगे खी खी करून पत्रो वाजिल्लेवरी हांसले.

"फकाणां धरूं नाका ह्या जाण्ट्याचीं. तळ्या वयलें देवस्पण खबर ना तुमकां." भुरगे भियेवनच मातशे लागीं आयले.

"बरम्याची सुवात ती. निवळलिपेत आसपाक जाय. बरमो एकदां धल्ल्यार सोडूंक नकळो. एक गजाल सांगतां."

भुरग्यांनी आबू भोंवतणयां कंवडाळें केलें. तांकां मुखावयली काणी आयकुपाची उमळशीक लागलेली.

"एकदां एका राणग्या भश्टे बायलेन उमळ्ळें थंय."

"मागीर?"

"मागीर कितें? जैपतीकूच येयलिना."

"म्हटल्यार?"

"म्हटल्यार कितें? म्हयन्याच्या म्हयन्याक धुयत रावली. कितें धरच ना जालें."

"कितें धरना जालें?"

उमाणें कोणाकच सुटूंक नाशिल्लें. सगळे जाण तुकूतुकू करून एकामेकाकडेन पळोवपाक लागले.

"कोण रे तो फटींग, उस्तून उस्तून विचारता?" आबू सगळ्यांचेर नदर भोंवडायत तिडकलो. इतले झुंडींत तितलें समज सारको एकलोय नाशिल्लो.

आबूक आपलींच पिशेपणां दिसलीं.

"मागीर फुडें कितें जालें ते भश्टे बायलेचें?" दोगां-तिगांनी विचाल्लें.

"कर्म जालें पापयांनो, चला. शाळगडे मरे तुमी. उशीर जातलो. सावळो मास्तर रावतलो तुमकां." आबून बळजबरीन तांकां धांवडायले.

सगळे भुरगे भुरूभुरू करून गेले. आनी आबू चितूंक पडलो.

... पावुणशीं वरसांची पिराय जावन गेली तरी आपणांक कोणामुखार कितें उलोवंचें हाचें मात लेगीत धंगण ना. कोळंबार तशें कोणाकच ना. कशें जावपाचें आमचें !

काळजांतल्यान तो दुखावलो. ताका दिसलें, हें ना जावपाक जाय. निदान फुडली पिळगी तरी सुदारूंक जाय. ताणें एक लांब सुस्कार सोडलो. इतल्यान तळ्या वयल्यान येवपी सावळ्या मास्तराचेर ताची नदर पडली. मास्तराचें प्रसन्न मुखामळ पळयना फुडें ताचे खंतीक समाधानाची धग मेळ्ळी. उदेंतेचो सगळो उजवाड मास्तराच्या मुखामळार फांकला अशें ताका दिसलें.

"कितें मास्तर, धुलें तोंड?" आबून खांदा वयलो तुवालो कुशीच्या फातरार हांतुल्लो आनी मास्तराक बसपाक खुणायलें. पूण मास्तर बसलोना. खांदार उडयल्ल्या पुडव्याच्या शेवाक हात पुशीत तो उब्यांनीच धग घेवंक लागलो.

"शीं बरेंच पडटा न्हूं? मास्तरान आबूक म्हणलें.

"मार्गशिर्श म्हटल्यार शिंयाचो कडकड !"

"पूण आमच्या वळवय गांवांपरस चड हांगा."

"हांगा गांवा सकयल वांयगण. ते खातीर सुमारा भायर शीं पडटा. तुमकां चड बादलें दिसता."

"चे, चे. म्हाका पास्सो ना तसो. घरा लेगीत हांव फांत्यार उठपी. एक पुडवें कांमुल्ल्यार म्हाजें भागता."

"आमचीं तर हाडां आनी कात सारकीच जाल्या." आबून वातडेल्ले कांतीर हात भोंवडायलो. मास्तरान आशिकुशीक नदर घुंवडायली. मास्तराची सुलूस लागना फुडें धगाकडेन गणयतल्या भुरग्यांनी पपा काडली.

"भुरगे आळशेपणां करतात ह्या दिसांनी." मास्तरान कागाळेच्या सुरान म्हणलें.

"आळशेपणां करतात? फट्टीक पडलेले. सगळें तुमचेकडेन सोंपयलां. तुमचे

बगर कोण अक्कल शिकोवपाचो ना तेंकां. शिकना जाल्यार झोडून काडात. कोण विचारचोना. विचारल्यार हांव जापसालदार. भुरग्यांनी शिकोंक जाय. आमी अशे रेड्या गाणिनचे.'' आबून आपलो तळमळो उक्तायलो.

''शिकपांत म्हणना हांव. शिकपांत भुरगे खऱ्यांनीच हुशार आसात.''

''मागीर?''

''ह्या दिसांनी शाळेक येवपाक उशीर करतात. शिंयांक लागून उठनात सकाळींफुडें.''

''उठनात कशे? उठोवंक जाय भैझवऱ्यांक. सांगोंक जाय आवय बापायंक. मास्तर, हांव सांगता आयज सगळ्या वाड्यार. पयल्या कोंब्या सादार शेणकांक धरून उठोवपाक लायतां सगळ्यांक. फांतोडेर उठपाक शीं? दांत कडकड्या ह्या शिंयांत जात्रा चुकयना मादरचोद.'' आबू वैतागलो.

''बेश्टे फांतोडेर उठून उपेग ना. रामप्रहर म्हणटा तो शांत वेळ. कोणाचो बोवाळ गजबज नाशिल्लो वगत. ह्या वगतार कितेंय वाचल्यार मतींत धरपाचें.''

''खऱ्यांनीच मास्तर, हांव सांगतां हें सगळ्यांक. मास्तर, भुरग्यांक तुमचे सुवादीन. तुमी माथें माल्लांच ह्या कार्याक. तुमी सांगता तशें करूंक लायतां. आयकना जाल्यार नाखयां दोरी घालून बळजबऱ्यां करून घेवंचें, पूण वाड्या वयलो भुरगो शिकोन - पळय मास्तर, दर एकल्याक हरिविजेय, रामविजेय वाचपाक येवंक जाय. सारऽऽको तुमी वाचून सांगतात तसो. चौखीभर बसलेल्या लोकांक धळधयां रडपाक येता अशे तरेन सांगप जावपाक जाय.''

''तें पावलें म्हाजेर. तुमी भुरग्यांक मात नेमान शाळेक धाडात.'' मास्तरान आत्मविस्वासान सांगलें.

''शाळेंत नेमान वचपाक कसली धाड भरूं ना तेंकां. नाजाल्यार घरा तरी कितें दिये लायतात बेकारथवय. आंब्या-पणसां मुळांत हेडटा आनी आश्ट्या-खळयांनी केलदे कशे नाचतात वचून राणग्या - '' तोंडा वयली गाळ अर्दकुटी दवरून आबू मास्तरा मुखार अपराध्याभाशेन लजेलो. मास्तर हांसलो.

''आमचें हें पाडपडल्यांचें अशें. गाळीविणें उलोवप ना गाळयाऱ्यांचें. सगळो कोळंब असो खोरोज कसो गाळींनी भरला. आवय-बापायचें आयकोन मागीर भुरगे शिकतात. बीं तशें भात. मास्तर, नेये पिळगेचे जिबे वयलें हें गाळीचें चारकण निवळ करात. कोणय परकी गांवांत येयल्यार शेण घालता आमच्या तोणांत.

उलोवपाक रीत नाजाल्यार पोटण्याच्याक जेवंक जायतें आसून उपेग कितें?''
आबू एका दमान उलयत आसलो.

''भुरग्यांचो कसलो गुन्यांव?''

''गुन्यांव खऱ्यांनिशी आमचोच. ते कितें फातराक जल्मूना. आमच्या वोंठार अशी चोवीस वरां गाळींची फोंत.''

''आतां मातशी मातशी तुमीय संवय करूंक जाय.''

''खऱ्यांनीच करूंक जाय मास्तर.''

''हायें शाळेंत बऽरें शिकयलें आनी घरांत जर - '' मास्तरान फुडलें उतर तोडलें.

''खरें आसा मास्तर.''

''खरें म्हणलें म्हण भागना. संवय करूंक जाय.'' मास्तरान जोर दिलो.

''आवय झवऱ्याचें म्हाजें तोंड पयलीं फोडूंक जाय.''

आबून सपासप आपल्या पोल्यार थापटां मारून घेतलीं. ताची ती करणी पळोवन मास्तराक मरपाक पुरो जालें.

***

''गु ऽऽ रूजी नमस्ते!'' सगळे भुरगे वांगडाच आड्डले.

''बसात.''

चौखेचे पडवेचीं सोपणां चडत सावळो मास्तर वयर सरलो. मास्तराच्या तोंडार नदरो भोंवडायत भुरगे आपणाल्या जाग्यार बसले. शिंयान कुडकुडत एकामेकाक घसटूंक लागले. कोंबयेचीं पिलां कशीं एकामेकांची ऊब घेवंक लागले. काल पाटयेर घातिल्ले पाडे वोंठांतल्या वोंठांत गुणगुणूंक लागले. तायटार तायट घांसून शेक घेवंक लागले.

सावळो मास्तर तामरेती म्हऱ्यांत आयलो. बंडेच्या सकयल्या बल्सांत हात घालून ताणें फस्क काडलें. वणटीर लायिल्ल्या सरस्वतीच्या पांयजेला फाटलो उजवातिचो पुडो काडलो. तातूंत एकूच उजवात उरिल्ली. ती पेटोवन ताणें सरस्वती

भोंवतणी भोंवडायली आनी पांयजेलाचे फास्केंतूच खोयली. पोको पुडो कुशीच्या कोनशाक वडयलो.

“त्या पुड्याचे फोलीचें हांव वक्ल करतलों.” एकल्या भुरग्यान म्हणलें.

“मास्तर दिवंचोना.” दुसऱ्यान म्हणलें.

“मदले सुटयेंत ल्हवूच फारायतलों.”

“चोरून?”

“अं.”

“काल न्हुरे शिकयलां, चोरप पाप म्हूण.”

“पोको चोरल्यार कसलें पाप?”

“चोरतल्याचे हात – ”

“हात जोडात.” मास्तरान फर्मायलें. सगळ्यांनी हात जोडले. मागीर प्रार्थना सुरू जाली.

*ये सरस्वती ऽ ऽ ऽ नमण तुज्या पदकमळी.*

उंचेल्या ताळ्यान सगळ्यांनी प्रार्थना गायली. मागीर काल दिल्लो अभ्यास पळोवपाक सुरवात जाली. दर एकलो पाळये पाळयेन पाटी घेवन मास्तरा मुखार वचूंक लागलो. मास्तर ध्यान दिवन तपासूंक लागलो. नवे पाडे घालूंक लागलो. चुकिल्ल्यांक समजावन दिवंक लागलो. तपासतां तपासतां वक्लाच्या हारशांतल्यान बशिल्ल्यांचेर तिरशी नदर घुंवडावंक लागलो.

“थंय खांब्याक कोणाची फाट तेकल्या रे?” मास्तरान विचारलें.

“भैझवऱ्या, सारको बस.” फाट तेंकिल्ल्याक दुसऱ्यान कोपर मारून सांगलें.

“गाळ कोणें मारली रे. उबो राव.”

“हांयें तेका सारको बस म्हण सांगलां मास्तर.” गाळयाऱ्या भुरग्यान मखलाशी केली.

“तुकां सारकें उलोवंक कळना?” मास्तरान विचारलें.

“हय मास्तर.”

“कितें हय?”

“सारको उलयतां मास्तर.”

तो विशय थंयच सोंपोवन मास्तर परतो तपासपाक लागलो.

“तुजे पाडे कशे चुकले रे? सारके गोठ्यांत बांदूंक नासले?” मास्तराचो

फकाणेर सभाव वयर आयलो.

“तेंगेर पाडे ना मास्तर, रेडे आसात.” तेचेकुशीक बशिल्ल्यान म्हणलें.

“तुकां मदीं उलोवपाक कोणें सांगलें?”

“चुकलों मास्तर. उठाबशी काडूं?” कानांक हात लावन भुरगो उठलो.

“नाका. जाग्यार बस.”

तो भुरगो उठलो तसो बसलो. इतल्यान शंकर व्हडल्यान आड्डलो.

“मास्त ऽऽ र.”

“कोण आड्डुता रे फाटसून?” मास्तरान मान वयर करून विचारलें.

“मास्तर, नानू हांगा - ”

“शंकर उबो राव, कितें जालां?”

“नानू म्हाज्या जाग्यार बसला-” शंकरान उबो रावन कागाळ केली.

“नानू, उबो राव. तुजो जागो खंय?”

नानू कांय उलयलो ना. ताणें फकत आपल्या सदच्या जाग्याकडेन बोट दाखयलें.

“बोट दाखयता? मोनो तूं? आयज फाटींसो कित्याक बसला? चल बस खांब्याकडेन.”

“मास्तर!” शंकर परत कागाळेच्या सुरान आड्डलो.

“शंकर, आतां आनीक कोण बसला तुज्या जाग्यार?” मास्तराचो आवाज मातसो चडलो.

“कोण ना मास्तर.”

“मागीर?”

“नानून गणितां करूंना मास्तर.”

“बरें आसा. तूं चित्रां काडटा काय गणितां करता?” मास्तरान शंकराक वगी करपाखातीर विचारलें.

“गणितां, मास्तर.”

“नानू ऽऽ!”

“मास्तर उलो करता मरे.” परत शंकरान तोंड घातलें.

“शंकर, तुयें सांगपाची गरज ना. तेका आयकोंक येता. तुजीं गणितां तूं कर. आज बेगीन सोडचोना तुमकां.”

"बरें मास्तर. णवांतले चार काडल्यार." शंकरान वयलो सूर लायलो.

"शंकर–" मास्तरान थंड आवाजान ताका दटायलो.

"जावना मास्तर गणितां म्हाजीं."

"मातसो ल्हवू. आवाज येवंक फावना. सारकी मांडी घाल."

"हय मास्तर." आनी शंकर वगी पडलो.

"नानू, पाटी घेवन यो."

नानू कोरी पाटी घेवन मास्तरा म्हऱ्यांत उबो रावलो.

"तुज्या सारक्या हुशार भुरग्यान अशी कोरी पाटी हाडप? लज मरे! यो, असो लागीं यो." मास्तरान भुजाक धरून ताका लागीं ओडलो.

"तुकां कळ्ळूं ना गणितां?"

"ना." नानून फट मारली.

"काल शिकयल्लीं समजुंना?"

"ना."

"मागीर काल तुयें कळ्ळ्यां म्हण कित्याक सांगलें?"

नानून मास्तराक पळयलो. तो फट उलयलो खरो पूण आतां ताकाच तें मानवलेंना.

"हरकत ना. हांव परतून शिकयतां. आतां लक्ष दितलो मरे?"

"हय."

"दी पाटी. पळय, एका मनशाक एका दिसाक दोन रूपया दिसावडो मेयटा."

"पांच रूपया." नानूक रातची याद आयली.

"बरें, पांच रूपया." मास्तरान ताचें मानून घेतलें.

"हय."

"एका मनशाक दिसाक पांच रूपया जाल्यार चार मनशांचे एका दिसाचे कितले जाले?"

"चार मनशां?"

"हय. चार मनशां."

नानून येवजिलें. चार मनशां म्हटल्यार बाप्पा, आवय, केंसर आनी हांव. पूण बाप्पा आनी आवय दोगांयच जोडटात.. हांव शाळा शिकतां.. केंसर बेश्टें वाड्यार हेडटा... पूण, आवय पांच रूपया खंय जोडटा? बाप्पा.... बाप्पा आयच्यान

पांच रूपया जोडूंक वयतलो.. आमी चोगांय गेल्यार कितले पयशे जातले.. बाप्पाचें बोल्स भरतलें, पांच रूपया बाप्पाचे... पांच रूपया आवयचे... पांच रूपया म्हाजे... पांच रूपया केंसराचे.

"कितले रे?" इतलो वगत वाट पळयत राविल्ल्या मास्तरान विचारलें.

"वीस रूपया."

"शाब्बास!"

"आवयस, कितले!" नानून -उस्वासून म्हणलें.

"समजलें मरे? आतां दुसरें पळय. एक गाडी-"

"कसली?"

"कसलीय. बैलांची समज."

"आमचे असली?"

"हय. समज, तुमगेली गाडी. तर ती गाडी सामानाची एक पावट व्हरपाक धा रूपया घेता - " मास्तर समजावपाक लागलो.

"मास्तर." नानून मास्तराक मर्दींच थारायलो.

"समजूं ना?"

"मास्तर, तुकां समजूं ना."

"आं?" मास्तर गोंदळ्ळो.

"एक पावट मारपाक सत्तर रूपया घेता." नानून आत्मविश्वासान सांगलें.

"जाणां हांव. तितकें कठीण कळचें ना तुका." मास्तराक ताचें कवतुकय दिसलें.

"मास्तर, तूं जाणां?"

"हय."

नानू दुबावांत पडलो. मास्तराक रातची गजाल सांगली कोणें? तरी मास्तर आयज असले हिशोब घालूंक लागला. ताका अकस्मात येवजलें.. मास्तराक हेंवूय खबर आसतलें. आज रोवणी ना. मास्तराक आयज जेवपाक आपयल्लो. आतां ताका रोवणी ना म्हण कशें सांगप?...

नानूक खाल्ल्यासारकें जालें. ताका उमाळून आयलें. रातचे गजालिचो उगडास जावन ताच्या दोळ्यांच्यो पातकड्यो ओल्यो जाल्यो. बाप्पाचो तो अवतार.... आवयचे तांबेडगुंज दोळे.... आनी बाप्पान तिचेर शेडायल्लें थापट...

ताचें आंग शिरशिरलें.

"नानू, तुजें र्शी वचोना आजून?"

"गेलें मास्तर."

"मागीर कडकडटा कित्याक? पळय हें गणीत."

"मास्तर – "

"कितें?"

"म्हाजें लक्ष लागना आयज." नानून खरें खरें सांगून वडयलें.

"कित्याक रे? आयज रोवणी म्हणोन."

"आयज रोवणी ना आमगेर." नानून निरशेवन सांगलें.

"ना? कित्याक?"

"बाप्पान गाडी बांदल्या. नायेला गेला."

"अशें."

"फाल्यां दवरल्या रोवणी. तूं फाल्यां यो जेवपाक."

"पिसो मरे! म्हाजी चिंता करूं नाका तूं." मास्तरान हांसपावरी व्हेलें.

"मास्तर?"

"सांग."

"तुयें आयज रांदलां?"

"आं...? हय." मास्तर चांचरलो.

"तूं आयज आमगेर जेवपाक येवपाचो न्हू."

"हय."

"मागीर ते खातीर तुयें रांदूना आयज."

"एँ, हायें रांदलां."

"फट मारता तूं. तुयेंच सांगोना काल?"

"कितें?"

"फट उलयल्यार पाप..." नानून ताका कात्रेंत धरलो.

"शाळा सुट्टकच रांदतलों हांव." मास्तरान आपणांक सांवरलो.

"शाळा आयज उसरां सुट्टली."

"कोण सांग ऽ तुकां?"

“व्हदळ तुयेंच शंकराक सांगलां.”

“चल बस तुज्या जाग्यार.” तोंडावयलो गोंदळ मुखामळार दाखयनासतना मास्तरान सांगलें.

“मास्तर, फाल्यां याद्दीन.”

“बरें बरें.”

आनी मास्तर खऱ्यांनीच चिंतूंक पडलो. आयज दोनपारच्या जेवणाची चिंता नाशिल्ली म्हूण ताणें सदच्या सारकें सकाळीं कांय शिजोवंक नाशिल्लें.

“मास्तर.” शंकर परत आड्डलो.

“शंकराचें परतें कितें जालें रे?” मास्तर मातसो वैतागलो.

“मास्तर, आंगणांत वचों?”

“कसलो पराक्रम करूंक?”

“पावलांनी सांवळी मेजूंक. बारा जाल्यां जाल्यार पळोवंक.” तें ताचें सदचें काम आसलें.

“गरज ना वचपाची.”

“मागीर वगत जालो म्हूण कसो कयटलो?”

“शाळा सोडटां आतां – चला सगळे, सांजे बेगीन येयात.”

“ओ ऽऽ ओ ऽऽ.”

भुरग्यांनी चौखी माथ्यार घेतली. खिणांभितर सगळीं सवणीं कशीं उडून गेलीं. मास्तर एकलोच उरलो. मंद मंद पावलांनी तो आपल्या बिराडाकडेन वळ्ळो. ताच्या दोळ्यांमुखार फकत नानूचें फांफशिल्लें चित्र आशिल्लें.

***

तिनसांजचे कातरीर चिखलांतलीं पावलां वयर सरलीं. शेतकाऱ्यांनी मुस्तायकी खांदार वडयली. बांदावयल्यो व्हाणो पांयांत चडयल्यो. सगळे तळ्यार आयले. हात-पांय झंजळून ताणी आंगाचो चिखोल देंवयलो. कानांचें विडये शेंवट पेटोवन वोंठ शेकयले. तांच्या आंगांत हुनसाण आयिल्लेवरी जाली. बरींच

पावलां सदच्या नेमा प्रमाण दादाचे गादयेर वळपाचीं पूण तशें घडलेंना. जणा एकल्याक आजच्या सोमाराचो उगडास आशिल्लो. दर सोमाराक चौखेर ग्रामपुरसाचे देवळेंत भजन जातालें. कुल्यार पखवाजाचो ताल सोदीत आनी वोंठार अभंगाच्यो वळी जुळयत एकान एक पावल चौखेर वळ्ळें.

दोंगरार चरवाक गेल्लीं गोरवां शेंपड्यो वावडीत मुसकां फापडीत तळ्याच्या तिरान देंवलीं. घुंगर-घांटी वाजयत उदकाक तेकलीं. अधाशासारकीं घटाघट उदक घोटूंक लागलीं. बोरींचो सांपळो भरून आयलो. बांगर बैलांचे धेंकर आमोरी कापीत गेले. ते सरशीं घरांतल्या मनशांनी कायलींनी पेंड-भड्डो कालोवपाक सुरवात केली. व्हियेल्ले गायचे पाने पाडकाक लुचोवपाक तट्टटून आयले. पाडकाचे 'हाम्माऽऽ' कानांत पडनाफुडें गायो मेळटा तश्यो गोठ्यावटयां धावूंक लागल्यो. तांचे फाटल्यान बांगर बैल लाळ गळयत लेंबडे जावन चवताळ्ळे. राखणे आपापल्या गोरवांक गोठ्याकडेन वळोवंक लागले. तरातरांच्या गाळींनी तांचो उध्दार करूंक लागले. ह्या दिसांनी गोरवां फाटल्यान चडशो धा-बारा वरसां पिरायेचीं चेडवांच वतालीं. चेडे सगळे सांज-सकाळ सावळ्या मास्तराले शाळेंत शिकताले. चेडवांक शाळेकुशीक झळकूंक मेळनासलें. कंबरा वयल्या सुट्ट्या घागऱ्याचे दशे सांबाळीत चेडवां गोरवां फाटल्यान धांवतालीं. मुस्तायकी नाशिल्लीं आवयांच्या जुनेरांचे कुडके लावन वतालीं. कंबराक कितेंय गुटलायल्यार गरज भागताली. तेला थेंबे नाशिल्लीं माथीं कणकिचीं झोपां कशीं दिसतालीं. रानांत गोरवांक चरवाक घालून सगळीं जाणां फातराचेर बसून एकामेकांच्या माथ्यांत धोशी घालून सू सू करून उवो मारतालीं.

सांज उलगली. रात उदेली आनी आतां तळ्यार फकत उदक व्हरपी बायलांच उल्लीं. बायकुलांत कळसुल्यो बुडोवन तांणी कळशे भल्ले, दावे हांडीर कळसो आनी उजव्या हातार कळसुली अशी दोड घेवन तीं चालीक लागलीं. कोण तळ्यांत बुचकळी मारूंक लागलीं. तळ्या वयल्यान दादले येताशे दिसले म्हणटकच एकामेकांक शिटकावंक लागलीं. काळखांत मनशाक मनीस दिश्टी पडना तरी लेगीत हड्ड्यार हातभर पालव ओडूंक लागलीं. कांय जाणींनी मुस्तायकी उमळ्ळी. झंझळ्ळी, पिळ्ळी आनी खांदारूच वाळगत दवल्ली.

"थंय बरम्याकडेन उमळशात."

काळखांतूच कोणा जाण्ट्याचो आवाज आयलो. तशीं उमळपी कुशीक

वचून उमळूंक लागलीं. उमळप मोन्यांनी चल्लें ना. दिसभर गांवांत कितें घडलां, घडूंना ताचो कीस पडूंक लागलो. घालून पाडून उलोवणीं चल्लीं. संद सादून एकामेकांचेर तोंडसूख घेवन जालें.

“रूक्मीणीली रोवणी आयज कित्याक उल्ली जाणां?”

“रोव येयलोना दिसता.”

“आंगूळभर येयला. म्हाज्या दोळ्यांनी पळयला.”

“मानाय मेळ्ळेना जायत.”

“असल्या कार्याक मानाय पायलेक पंचीस.”

“मागीर खंयच्या आंबाड्याखातीर म्हाळ खळ्ळो?”

“रूक्मीणीचो घोव आयज खंय पावला जाणां?”

“खंयच्या तेर्राक गे बाये?”

“नायेले. मिनांक.”

“मिणांक? मीण सोदपाचे बायलेन.”

“कोणें गे, रूक्मीणीन?”

“शू ऽऽ.”

“रूक्मीण उदकाक येता.”

“चल गो दोड उखल. या बेगीन. आज रूक्मीणीलो सोमार न्हू चौखेर.”

“हय गे रूक्मीण?”

“हय बाये.”

“बरी पंचाखाद आसतली. बाप्पान ब ऽऽ रें हाडलां जातलें.”

“हय गे रूक्मीण?”

“उलयनासतना दोड हांडीर मारून गेली पळय.”

“मिणाच्यो खबरी उलयनात.”

“ही ऽऽऽ ही ऽऽऽ”

***

चुडयो आनी लापयांवांच्या उजवाडान एकएकलो चौखेर भितर सरूंक लागलो. दिसा शाळा भरताली ते सुवातेर थंय आतां भजनाचे कार्यावळीक सुरवात जाली. आबून चौखेर कवळी केल्लो हातरपटो शेकानशेक सोडलो. चौखे मुखावयले ग्रामपुरसाचे देवळेंत वचून पांच वातींचो दिवो लायलो. सावळो मास्तर पुडव्याचो शेव खांदार वडोवन वाजोवपाचे पेटये म्हऱ्यांत बसलो. कुशीक बशिल्ल्या शंकराक ताणें बोट दाखोवन पेटयेचो सूर दामूंक सांगलें. शंकर झेतान उजव्या हाताच्या बोटान सूर दामून दाव्या हातान भातो ओडीत रावलो. मास्तरान पखवाज म्हेळोवन घेतलो. सदच्या वाजयतल्याकडेन काडून दिलो. मर्दी मेकळी सुवात सोडून दोर्शींवर्शी सगळे भजनी बसले. कुशीक कोनशाक बायलां - भुरगीं चोम्यांत बसलीं. तिरश्या दोळ्यांनी आपापल्या बायलांक पळोवन, भजनी आपले थारोवन बसयल्ले अभंग ओठांचेर घोळोवंक लागले.

‘‘भुरगे मुखार बसात रे. हरशीं शापोतां बरीं सांगतात. आतां गाणीन शेंपड्यो कित्याक ओडटात?’’ एकलो जाणटेलोसो आड्डलो.

‘‘करा रे सुरवात. रात कित्याक?’’ दुसऱ्यान फर्मायलें.

‘‘आज कोणालो सोमार रे?’’ तिसऱ्यान विचारलें.

‘‘पंडरीलो.’’ चवथ्यान जाप दिली.

‘‘मागीर पंडरी खंय? येजमानीच ना मरे?’’

‘‘ए रूक्मीण, घोव खंय गे तुगेलो?’’ बायलांचेर नदर घालून एकल्यान विचारलें.

‘‘तिवूय ना.’’ बायलांच्या चोम्यांतल्यान जाप आयली आनी मागीर एक हांसो पिकलो.

‘‘आरे, भजन सुरू करचे आदीं एक गजाल सांगतां.’’ आबून आवाज काडलो.

‘‘आबूचें सदांच कितें तरी आसता.’’

‘‘थोडें उल्लां म्हाजें. दस सल्ल्या पांच उल्ल्या:’’

‘‘शंबर वरसां कांय जायना तुकां.’’

‘‘शंबर कित्याक? तळ्याक उदक आसासर मरना हांव.’’

‘‘सांग मरे बेगीन.’’

“सावळो मास्तर सांगता –” आबून सावळ्या मास्तराचें नांव काडिना बरोबर शिडांतलो वारो काडून घेवंचो तशे सगळे वग्गी रावले. मोन्यांनी आयकूंक लागले. सावळो मास्तरूय सावध जालो.

“शाळेंत वचपी भुरगे ह्या दिसांनी सक्काळीं उठना खंय.”

“आमचे संततीचेर आनी धाम येवं, दीस उदेलो तरी उठना.” बायलांत एकली फुतफुतली.

“तुमकां बायलांक सांगतां. भुरग्यांक आमच्या सारके रेडेच दवरपाचे आसात जाल्यार बारापासून न्हिदयात तेंकां शेजेर. मागीर लोळपाक खळयो आनी तळें आसाच केलद्यांक! फायच्यान सगळ्यांक फांतोडीर उठोन घालूंक जाय.” आबून आवाज चडोवन सांगलें.

खिणभर सगळे वगी रावले. मास्तरान पुडव्याच्या शेंवान तोंड पुसलें.

“आनीक एक गजाल–”

“ही दुसरी.” एकल्यान ल्हवूच म्हणलें. तरी तें आबूच्या कानार पडलेंच.

“जाणां रे हांव. तुकां बेगीन घरा वचपाक जाय. भियेवं नाका. तुजी बायलूय येयल्या हांगा.”

पिंपळ सळसळ्ळेवरी सगळे हांसले. बायलांचे गर्देतल्यान एकलेन मान बागोवन पालवांत लिपयली. आबू मुखार उलोवंक लागलो.

“सर्द लुंवोन जालें. मळोन जालें. हय मरे?”

“खावन सोंपत येयलें.” एकल्यान जाप दिली.

“अंदू वरसासारकें पिकलेंना.” दुसऱ्यान म्हणलें.

“वरसाची रड सांगों नाका. फुक्याची घरवड तुमची.”

“बरें पिकलें रे अंदू.” तिसऱ्यान सावरून घेतलें.

“हय मरे? भटाक दिलें?” आबून विचारलें.

“तो सोडटा? जव्हू कसो लागोन मळणेर येवन घेवन गेलो.”

“मडवळानूय हेलां जातलें.”

“भावणीन व्हरोना.” कोणाक तरी विनोद करपाची कूय माल्ली.

“कोळंबाक भावीण लागना.” तागेल्या शेजरा बसलेल्यान जाप दिली.

“तुमच्यो बायलो जांगां पांगांनी बऱ्यो आसतकूच भावणी कित्याक तुमकां?” आबून तांकां पाडले.

"आबो, आतां तूंच फकाणां करूंक लागलो?"

"फकाणां करता तुमी. तिवूय म्हाजी हूं. देवासमान मास्तराचीं." आबू आतां तापलो.

"मास्तराचीं?"

सगळ्यांक अजाप जालें. सगळ्यांनी आबूचेर नदरो थिरायल्यो.

"आरे, मास्तराक भात दिलें तुमी? भट, मडवळ मळणेर येवन घेवन गेले. मास्तरानूय साक फाटीर मारून मळणेर येवपाचें? तेका पोट आसा मरे? आपलो संवसार थंय पलतडी सांडून हांगा तो तुमच्या भुरग्यांच्या कपलांत चार अक्षरां रिगयता. तेणें तळ्याचें उदक पियेवन रावपाचें?"

"आमकां खंय खबर?"

"खबर? मास्तराक हांगा दवरतना थारोवंक नासलें? दर पिकेर एका भुरग्या फाटल्यान एक कुडव भात दिवप म्हूण? आतां धल्लें तोंड. भुरग्यांक शिकोवपाक, भजनां गावपाक, तालगडी नाचोवपाक मास्तर जाय झवऱ्यांनो?"

"आबू, आतां आसूं तें. फाल्यां पळोवंया." सावळ्या मास्तरान मदींच तोंड घालें.

"मास्तर, तूं देवमनीस. तूं वगी राव."

"फाल्यां पावतें करतां आमी सगळे."

"हय?"

"हय."

सगळ्यांनी मानो धोलयल्यो. अपराधी नदरांनी मास्तराक तेळ्ळो. आबुच्या दोळ्यांत रसरसल्ले इंगळे ल्हवू ल्हवू पालोवंक लागले. स्वासांची गती आशिल्ली तशी शांत जाली. कुडीचो थरथर थाबूंक लागलो. थरथरत्या पायांनी तो चौखे वयलो आंगणांत देंवलो. काना वयले विडये शेंवट काडून पेटयतलो इतल्यांत धांपेत धांपेत पंडरी आंगणांत पावलो. आबून उल्ले सुल्ले खोवले पंडरीचेर फापुडले.

"भैझवऱ्या, देवाच्या कामांक उशीर? तो वयर बसोन पळयता मरे तुमचे पराक्रम. आवशीझवऱ्यांनो."

"केली सुरवात?" पंडरीन विचारलें.

"करतले ते. तूं असो पिसुडलेलो कोंबोसो कित्याक येयला?"

"न्हावना आजून."

“हात रेड्या! बुरश्या कास्ताचो काय कितें रे? चल तळ्यार. बुचकळी मारून यो.” आबून फर्मायलें.

“तेंकां सांग सुरू करूंक.” पंडरी गळवज्ञा आयलो.

“तुवें सांगपाची गरज ना. मास्तर बसला थंय. तूं बेगीन यो. नाजाल्यार पासडी पडशी थंयच.”

पंडरी आयलो तसो तळ्यार धांवलो.

चौखेर धूप, उजवाती परमळ्ळ्यो. झांजी झांजरल्यो. पखवाज तणतणलो. पेटयेचे सुरार सूर भायर पडूंक लागले. मास्तराच्या म्होवाळ आवाजान भजन सुरू जालें. भायर आंगणांत आबूची तनर लागली. पावसाच्या दडकां भाशेन अभंगार अभंग जाले. सगळो कोळंब भजनांत बुडून गेलो.

*सोनियाचा दिवस आजी*
*अमृतें पाहिला*
*नाम आठवितां रूपी-*

आबू आपणांक पुराय विसरून गेलो. आपली कूड ताका फुलावरी ल्हव भासूंक लागली. भजन रंगार आयलें. सगळ्यांचे अभंग गायन जालें. निमाणें कडेन भैरवी जाली.

*लई नाही लई मागणें*
*देवा ऽऽऽ*

अष्टक म्हणून जातकच उमळें न्हेशिल्ल्या पंडरीन सगळ्यांक पंचखादय वांटली. सगळेजाण आपापल्या घरा परतले. शिजोवन दवरिल्ली पेज आनी भाजून दवरिल्ली भाकरी खावंक लागले. साप्प नाशिल्ल्यांनी तिसऱ्याय पारा आंबील भुरकायली.

आबू आंगणांतलो उठलो. तेन्ना चौखेर कोणच नाशिल्लो. सगळें शांत आशिल्लें. आबूच्या कानांत आजून ताळ-पखवाजाचो आवाज घुमतालो. तो तसोच तळ्या वटयां चलूंक लागलो. मुखा वयल्या काळ्याकिट्ट काळखांतल्यान

अभंगाचीं उतरां उजवाडाचे सूर जावन येतात अशें ताका दिसूंक लागलें. ताणें दोनय हात जोडले. तळ्या वयल्याक नमस्कार केलो. तसोच दोनय हातांचो पोसो ताणें तळ्यांत बुडयलो. वोठांक लायलो. एक पोसो, दोन पोशे... पोश्यार पोशे.. धेंकर सुटसर.

*सोनियाचा दिवस आजी*
*अमृतें पाहिला*

थरथरत्या वोंठार उतरां गुणगुणत तो वळ्ळो. बायल भुरगीं नाशिल्या आपल्या खोपटांत, खूब जाणांचो एकलो... खूब जाण आसून एकलो.. एकसुरो....

***

# 3

मार्गशिर्श सोंपून पौश लागलो. कोळंबार बऱ्याच जाणांच्यो रोवण्यो जाल्यो. माथ्यावयलें वजें दवरन्यार दवल्ल्या सारकें जावन शेतकार वावरूंक लागले. कोळंबाच्या आयसपयस जावपी काल्यां-जात्रांक रातीकातिचे मैल मैल रानवाट माडून वचूंक लागले. गरजेचें आयदन कादन घरांत आयलें. बायल-भुरग्यांची हौस भागूंक लागली. पयशांक लागून कांय शेतकाऱ्यांनी अर्दमोलाक भात लाटलें. भाताच्या पोटल्यांच्यो थडयो कुडींत रचणुकेक लागल्यो. तांदळाच्यो मुडयोय बांदपाक सुरवात जाली. एक एक दीस मुडयो नावेले आनी पलतडी वळवयच्या बाजारांत वचपाक लागल्यो. परत्यो सामानाच्यो पोतयो भरून येवपाक लागल्यो.

पौशाच्या शिंयार पणसां – आळींक कोंबऱ्यो फुटल्यो. पांचवे पत्रेंतल्यान कुकुलीं कवकवीत दामणां तकल्यो भायर काडूंक लागलीं. तळ्यावयली आमुल्ली वयार आयली. नव्या पानांनी तिचो पांचवो कोर वोतांत तिकतिकूंक लागलो. काजींक कंवळ्यो आंकऱ्यो फुटल्यो. दिसानदीस वाडत, पानां ताळटा येदो आकार घेवंक लागलीं. खांदयांनी तेंगशा तेंगशांचेर चंवरां धोलूंक लागलीं. सकाळपारा दंवा वांगडा परमळूंक लागलीं. तळ्या वयलो खूंट उबो सांतोण फुल्लो. कोळंबाचेर शेकानशेक नदर मारून समाधानान धोलूंक लागलो. तळ्या खाचींतली रातराणीय परमळ्ळी. रातचो चोरयां सुंटीसारको वास पसरावंक लागली. सगळो वांठार त्या

वासान कणकणलो.

दोंगरा वयलें धवें करड आबूच्या खाडाच्या पिकिल्ल्या केंसां सारकें दिसूंक लागलें. लोकांनी करड कापून वण्णी बांदल्यो. कड्डाचो माच केलो. जाय ताणीं गोरवांक दवल्लें, नाका तांणी विकूंक काडलें.

लजेच्या माथ्यार बारीक बारीक केंसराचे तांबशे गुलाबी गोंडे झुल्ले. वाऱ्या झोतार धोलूंक लागले. आंसाळे पिकून काळशे निळशे जायत गेले. सवण्यांच्या चोंचीनी पोरांनी फळान फळ वेंचून काडलें. दाट पानांचो मुट्टुलो कुंबयो दांत किडिल्ले भशेन पानांनी किडयाळ्ळो. वारो तातूंत आपालिपाचो खेळ खेळूंक लागलो. वाटे वयले कड्डाचे भाले येत्या-वेत्याचे मुस्तायकेक तोपूंक लागले. रातचें कात वातडेवपी शीं आनी दिसाचो कात भाजपी वोताचो रखरख जीव कश्टावंक लागलो. वोताच्या रखरखान तायखिळ्याच्यो सुकिल्ल्यो सांगो तट्टटून फुटूंक लागल्यो. धेंप धेंप भायर भिरकटूंक लागल्यो. बायलां भुरग्यांनी रानांत वचून कुड्याचीं शेनतां खुंटलीं. तळ्या वयल्या खडपांर सुकयलीं आनी मोवळ्यो बांदून माळ्यांनी दाळ्ळीं.

शेतकाऱ्यांनी सर्दाचे जमनींक ओल आसतना मेरो धरपाक सुरवात केली. वांयगणांत रोप लायतल्यांनी शेताबांदार तरवो घातलेलो. सर्दाचे जमनीर चवळी-अळसांदे रोवपाचे जाले. आडवीं उबीं दोन तासां वडयलीं. गोबोर-मळपी फापुडली आनी दाणे शिंपडायले. मिरसागांची वारयीं करपाक आर्दी मिरसांगाचीं बियां घालून तळ्याधडेर माजे केले.

तिनसांजचे कातरीर बाबुसो सोपाणां चडून भितर आयलो. आंगणा कुशीच्या पोरसांत रूक्मीण न्हाताली. झिळमिळ्या काळखांत तिणें बाबुशाक वळखलो. ह्या दिसांनी ताच्यो दोन चार खेपो जाल्ल्यो. आनी त्यो लेगीत पंडरी घरा नासतना. रूक्मीणीक ताची सणसणीत तिडक मारताली. आपल्या घराकच न्हय तर सगळ्या कोळंबाक तो कीड लायतलो म्हूण तिका दुबाव पडिल्लो. खरें म्हणल्यार पयल्याच दिसा रूक्मीणी कडसून ताका मेर्दामेर्द मेळपाचें पूण ताच्या सांगाताक अनवळखी गुजीराक पळोवन तिणें राग गिळिल्लो. बालदेंतलें उदक काडटना तांबयाचो 'सण्ण' करून आवाज जालो.

"कोण थंय?" पडवेर रावून बाबुशान विचारलें. रूक्मीण वगीच रावली.

दार बंद आसा तें पळोवन तो सकल आंगणांत देंवलो. रूक्मीणीन काळखांतूय जुनेराचो पालव हड्ड्यार ओडून घेतलो.

"पंडीरप्पा." ताणें दचकत उलो मारलो.

"येवना आजून."

"कोण गो रूक्मीणआका?"

"पंडरीप्पा – रूक्मीणआका! चड लागला दिसता!" ती मनांतल्या मनांत गुणगुणली. तसो तो पोरसाचे वंयेकडेन आयलो. खुंटाक हात धरून ताणें पोरसांत ओणव घातलो.

"न्हातां हांव." रूक्मीणीन पोरसांतूच आंग चोरून म्हणलें.

"न्हा, न्हा तूं. तशें लजपाचें कारण ना." तो मातसो कडेक सरलो.

"लजकाडो ! लजपाचें कारण ना." पूण उतरां वोंठार आयलिंना. तिका दिसलें, व्हाणांनी हाचें तोंड फोडून काडचें.

"भयणी समान तूं म्हाका."

रूक्मीण वगीच रावली. तो उलयत रावलो.

"जाणां मुगो रूक्मीणआका, म्हाजे भयणीक न्हाताना हांव उदक काडून दितालों. पंडरी पावोना म्हणटा आजून."

"ना."

"हांव आनी तो वांगडा खणीर साकून येयल्या. खंय चुकलो?" मोटो हुस्को जाल्ले भाशेन ताणें विचारलें.

"तुकां सद्‌दां चुकतां." रूक्मीणीन मोट्यान म्हणलें ना.

"रूक्मीणआका, भुरगीं खंय दिसना?" अदमास घेत बाबुशान विचारलें.

"मांडार गेल्यां. भुरग्यांल्यो धालो सुरू जाल्या."

"वचोंनी. ल्हान भुरग्यांक खूब उमेद. म्हाजी भयण खूब नाचऽ."

"खंय दिल्या?" विचारपाक जाय म्हण रूक्मीणीन विचारलें.

"दिवंच्या पयलींच हेली तिका." बाबुशान काळखांत खोमीस दोळ्यांकडेन ओडलें.

"कितें जालें?" न्हातना रूक्मीणीचीं उतरां भिजलीं.

"न्हंयेंत खुबे काडपाक गेल्लें. बारा वरसांचें आशिल्लें. केंसरायेदें. बुडोन मेलें." कांय वेळ तो वगीच रावलो. रूक्मीणीक दिसलें, तो रडटा बी आसतलो.

“आनीक भयण ना.” रूक्मीणीन काकुळटेन विचारलें.

“ना रूक्मीणआका. रूक्मीणआका?” ताणें पोरसाकडेन तोंड करून विचारलें.

“कितें?”

“तुकां रूक्मीणआका म्हटल्यार रागबीन येयना मुगो?” तो खूब नमळायेन विचारतालो.

“ना रे. म्हण तूं?”

“रूक्मीणआका, भुरग्यांक हो बिस्कुत्यांचो पुडो हाडलेलो.” ताणें पुडो हातांत धरीत म्हणलें.

“कित्याक तरास करून हाडलेलो?” तिणें वयलेदरा म्हणलें.

“तरास कसलो? मोग आसल्यार खंय हून वोडे घांटार पावतात. तुजीं तशीं म्हाजीं भुरगीं.” तो किलकिले नदरेन तिचें न्हाण खंय पावलां ताचो अदमास घेतालो.

“लगीन कित्याक जायना?”

“कोण दिता चेडूं आमच्यासारक्या मोवाल्याक?” ताणें आपलीच मस्करी केली.

“मोवाली कित्याक? जोडटा तें न्हूं?”

“जोडटा तें मोडूंक पुरो.”

“मायेचें जाय कोणतरी.” तिणें ओले जुनेर आंगाचेरूच पिळीत म्हणलें.

“तुज्यासारकें आका आसा तें पुरो. आमोरेर येयलो. जाप दिली, गेलो.”

“बस.”

“वयतां हांव.”

“राव, इल्ली गंजणाची च्याव करून दितां.”

रूक्मीण ओल्या जुनेरार पोरसांतली आंगणांत आयली. धांवत्या पावलांनी सोपाणां हुपून पडवे वयल्यान घरांत गेली. पडवेवयल्या चिमणेच्या उजवाडान तिज्या गोऱ्या पोंवटांक दशिल्लें जुनेर आनी सोपाणां चडटना पालवांतल्यान भायर पडिल्लीं तिचीं थवथवीत थानां ताचे तिरशे नदरेंतल्यान सुटलींना.

***

पौशांतली मान्नी पुनव लागीं आयली. सांवरिचीं बोणां कशें चान्नें फुटलें. शिंयान धंयावरी धवळूंक लागलें. चान्यांत वयल्या वाड्यारसावन सकयलो वाडो स्पश्ट दिसूंक लागलो. भुरग्यांक मदले पायणींतल्यान जाय तशें किरोवंक मेळूंक लागलें. पुनवेकडेन विणयां – आंबाड्यांत पटयो – फांतयो परमळूंक लागल्यो. पोरसांत सोनयांळ्या पाखळ्यांचीं शेंवतीं हळडुवीताल्ल जालीं. लांबलांब दांड्यार पिर्शीं आबोलीं घोंसांनी फुल्लीं. एकाएका घोसाचीं बचकभर आबोलीं खुंटून आयावांनी खोप्यांत खोयलीं. चलयां – बायलांच्या वोंठार आतां धालो घोळूंक लागल्यो. एकामेकांकडेन वासपूस जावंक लागली. ल्हान ल्हान भुरगीं आवयांच्या जुनेरांक धरून ''केन्ना'' ''केन्ना'' म्हण सतावंक लागलीं.

आनी एका बुधवारा मांडार वेळ जाली. मांड चौखेमुखारूच आशिल्लो. दोगां – चौगां बायलांनी वचून आबूक आपोवन हाडलो. वरसावळी प्रमाण जाण्टेल्याच्या हस्तुकी तेल, काजळ, कुकूम, गंदाचो तिबो लावन मांडावयल्या देवाचो भौमान जालो. फूल–चामळ माथ्यार घालतकच आबून सांगणें केलें.

*‘पाव म्हाज्या माणाच्या गुरू....*

*वसापूर्सा.... गांवापूर्सा.. आकाऱ्या.. जाणां.. पूर्वचाऱ्या... पंचरामा... जाग्या देंवचारा.. पीरबर्म्या... वरसावळीप्रमाण ही लेकरां तुजी सेवा करूंक येयल्यां... तुजे वालिचीं फळां ज्या ज्या थिकाणार आसा त्या त्या थिकाणार.. येता वयताना ... वाटेतिटेक ल्हयेंक धोको बादूंक दिवं नाका... कोणाच्या मनांत येता तशी येवजिल्लीं कामां साध्य कर... पयशाक पांच पयशे लाबोवन दी... राखणरखवाली घट्ट दवर... कसल्याच कामांक आडीआडखळ येवंक दिवं नाका...* ’अशे रितीन विनंती करून लेकरां मागणें मागता.. बरें कर सायबा...’

सांगणें जातकच नाल्ल उखलासून तुळशीपेडयेर दवरलो. दुसरो नाल्ल फोडून सगळ्या तारापोरांक शिरन्यो वांटल्यो. तळ्याकडल्या देंवचाराक नाल्ल उखलासून दवरपाक तो तळ्यार गेलो. वतना ताणें बायलांक धालो सुरू करा म्हण फर्मायलें.

बायलांनी एकामेकांच्या खांदार हात घालून दोन फांतयो केल्यो. भुरगीं कुशीक वचून फुगडी घालूंक लागलीं. फांतयांनी गीतांतल्यान देवस्पण गायलें. एका तालार पावली मारून तीं एकसुरान गावंक लागलीं.

*नाल्ल फोडूनी शिन्यों करूनी*
*वाटिल्यो तुळशी बिल्लावणी गे*
*वाटिल्यो जाल्यार बऱ्यो जाल्यो*
*तळ्या वयल्याक साद घाला गे*

मागीर एकएकली कोळंबाच्या थळांतल्या देवादेवांचीं नांवां सुचयत रावलीं आनी पंगडान घोळयत गायत रावलीं. भुरग्यांची फुगडी तेवटेन रंगार आयली. सवायशिणींच्या तोऱ्यांत तीं गावंक लागलीं.

*सात संमिद्रां भायर एक कांदळीचें झाड गे*
*सवायशिणी नारी आमी कांदळां खुटूं गेल्यो गे*
*हातांत फणी तेचे फाटीर विणी गो*
*हुंबऱ्यार बसोन नार काय चिंता करी गो*
*म्हायेरा वयता नार वांगड सोदी गो*

धालांचो सुवाळो पांच दीस चलपाचो आशिल्लो. पांचव्या दिसा निमाणी रात आनी ताचे दुसऱ्या दिसा सकाळीं मांड दवरपाचो दबाजो आशिल्लों. धालांच्या दिसांनी दिसाभराचो वावर केन्ना सोंपता आनी केन्ना मांडार घालून घेता अशें चलयांक दिसतालें. राती मध्यान्नमेरेन कोणाल्या दोळ्यांची पातकडी बागवना आसली. जाणटेलीं तांकां मुद्दम थारोवन धालो बंद करून न्हिदूंक धाडटालीं.

केंसराचें पावल तर ह्या दिसांनी मात्तूय जमनीक लागनाशिल्लें. हातार उदक पडनाफुडें तें मांडार धांवतालें. पायणीच्या मोडणार लकत लकत तें धांऽऽव मारी आनी मांडार हाजीर जातालें. धालांच्या दिसांनी पंडरीचो भाचो नरशिंव कोळंबा आयिल्लो. तो केंसराचे पिरायेचो आशिल्लो. दर वरसा धालांक येतालो. केंसरा वांगडा आनी नानू वांगडा नाचतालो. मांडार व्हडी रात मेरेन केंसरा सांगात रावतालो. नानू झेम येतकच घरा येवन न्हिदतालो. पूण नरशिंव मात झामय काडिनासतना धालांची मजा पळयत पेळयेर बसून रावतालो. तो धालां-मांडार आसतकच केंसराकय फुगड्यो म्हणूंक नेट चडटालो.

धालांचे पांचवे राती पिठ्ठ चान्नें मांडार पातळ्ळें. ल्हारां कश्यो फुगड्यांर फुगड्यो उसळूंक लागल्यो. घोग्या सारक्यो एका तालार ताळयो पडूंक लागल्यो. बांदार वाऱ्यान धोलिल्ल्या केळीसारक्यो बायलो कंबरांत बागूंक लागल्यो. सदच्या सारकी पयली फुगडी देवाच्या नांवान सुरू जाली.

*कां क्रिश्णा मागासी बाळा रडोनी*
*आई मला मळब दी गे हाडोनी*
*तेची मला गयडी दीगे करोनी*

श्रीकृष्णाच्या सगळ्या हट्टाचीं वर्णनां जालीं. हट्टांची जंत्री सोंपत आयली तेन्ना तेच ताळयेच्या तालार दुसरी फुगडी सुरू जाली.

*कापिलां चंदन घडयलां तारूं*
*तारूं घडयलां रे चंदन रूक्षाचें*
*तारूं लागलां रे कोळंबाच्या बंदराक*

सगळीं भुरगीं हांसलीं. नरशिंवान झेमतल्या नानूक कोंपर मारून जागो केलो. "आतां केंसर म्हण गो."

"नानूची म्हण फुगडी. तो झेमता पळय."

*भाव आनी भयण चलतां मार्गानि*
*सांग म्हाजे भयणी सासुरेची कथा*
*सासुरेची कथा आसा म्हाजे मनी*

भयणीन मागीर भावाकडेन दुकां गळयत घोवागेले वैदावास सांगले. नेणटेल्या केंसराची तोंडभरून तोखणाय जाली. जाण्ट्यांनी ताजी फाट थापटिली.

*नेण्टेली गे बाई सीता*
*सीता गेली गे न्हंयी व्हाळार*

“तळ्यार म्हण गे.” एकलेन मर्दींच सुचयलें. पूण गायतलेन तिचें कानामनार घेतलें ना.

*सीतेक मेळ्ळला धनुश्यबाण*
*सीतेन बाप्पाक साद केला*
*साद वाऱ्यान झिडपीला*

“आतां एक उडटे चालिची म्हण गे. पळोवंया हीं भुरगीं कितलीं नाचतां तीं.” नाचपाची खुमखुमी आयिल्ले एके बायलेन म्हणलें.

*उड्डे उड्डे मोरा*
*मोरा आमी जावुंया आकाच्या घरा*
*मोर गेला गे गगनाला*
*सीतेबाईच्या लगनाला*

मागीर सीतेची फुगडी जाली. सीतेचो वनवास आयकून बायलांच्यो पातकड्यो ओल्यो जाल्यो. गायतलेचो ताळो भरून आयलो. दीस गेल्ले सीतेक लक्ष्मणान वनांत व्हरून सोडली तेन्ना सीतेन देराक प्रस्न केलो.

*एक सावळी म्हाजी गा दुसरी सावळी तुजी*
*तिसरी सावळी कोणा पुरूशाची*

“आतां रडपाच्यो नाका बाये.” एके बायलेन म्हणलें.
“तुमचे घोव बीन सतायनात गो तुमकां?” दुसरेन विचाल्लें. तशें तिसरेन सुरू केलें.

*येयलां बाये वारें*
*हें गे फाटलां केळीपान*

*इटलां म्हाजें मन*
*उण्यां गे शब्दांनी*
*पतीच्या वैदासांनी*
*जीव दिवं समींदरा*

''नाका बाये भांगरा सारको जीव वोगडावंक.'' एकली चुरचुरली.
''घोव एकलो नाजाल्यार दुसरो. न्हय गे?''
''हय तर खोटलेक पांचशीं.''
''खोटलेक पांचशीं? कितें भावणी कांसाटो?''
''खंयच्यो भावणी? म्हाड्डोळच्यो?''
''शेटी, शेटी खंय वयता?''
''म्हाड्डोळा.''
मागीर शेटीची फुगडी सुरू जाली.

*पांच निम्मू पिकले वारी*
*वास गेला लांब दुरी*
*सक्काळचे पारी शेट येयला दारी*
*शेट येवून माळयेर गेला*
*हात मारून रंग केला*
*बाप्पा म्हाजा गरीब भोला*
*बाजार मोटा पयसा खोटा*
*अदीक माया येयना त्याला.*

''पुरो बाये आतां फुगड्यो.'' थोड्यांक दम लागलो.
''कंबरान चडोन येयलें?''
''भुरग्यांनो, आमी मातशीं बसतां ते म्हणसर कचे घाला कचे.''
''इडी हाड गे एक.'' पेळयेर बसत एकलेन म्हणलें.
''घोव बायलां दोगांय लागलीं मगे इडी ओडूंक?'' दुसरी.
''म्हाका फकत शिंयाची इडी लागता.''

“आनी घोवाक फक्त शिंयाची तूं लागता.”

ल्हान चलयो तांगेल्यो गजाली चत्रायेन आयकुपाक लागल्यो. भुरग्यांचेर एक धेंगसो पडलो. तेसरशीं तीं कचे घालपाक फुरफुरलीं.

“आगो, तेचें कितें आयकता? सुरू करा कचे.” कोणाच्या तरी लक्षांत आयलें.

“आरे, त्या भाच्याक नरशिंवाक सांडून तो नानू गेलो मरे.”

“भाच्या, तूं राव केंसराक.”

“तुकांच तें. पळय कशें नाचता रातभर.”

“मागीर व्हडलें जातकर तूंय नाचय तेका रातभर.” एक एकली नरशिंवाचीं फकाणां मारपाक लागलीं. हेवटेन चलयांचे एकामेकाचे हात धरून कचे सुरू जाले.

*कचे बाये कचे*
*वल्लीभर कचे*
*आमच्या गणपती*
*भांगराचे मोचे*

“कोणें गणपती पुजला गो चवथ येवचे आदीं?”

“चवथी आदीं तसले गणपती कोळंबार पुजू नाका आं.”

“आबू तळ्यांत बुचकळयतलो.”

“गणपतीक?”

“वायडतल्यांक.”

फुगड्यां बरोबर फकाणां –मस्कऱ्यांक सामको ओतो आयलो.

*बोरां बाये बोरां*
*वल्लीभर बोरां*
*आमच्या बराबर खेळोंक येयल्यां*
*खारयांलीं पोरां*

“पलतडसून वळवयचीं खारयां येतलीं धांवोन.”
“खारयांल्यो ताण धालो ह्या दिसांनी.”
“आमी न्हिदतकूच हांगा आयकोंक येता.”
“खारव्यांच तीं. आवाज केदो!”

*म्हाजे होटयेंत शेंवटो शेंवटो.*

“उसळून खंय वचत बाये.”
तेसरशीं केंसर आनी दुसरें चली हात सोडून पयस जालीं.
“म्हणूं दी गो तेंकां. म्हणा केंसर तुमी.”

*म्हाजे होटयेंत शेंवटो शेंवटो*
*केंसराचो घोव ल्हेंवटो ल्हेंवटो*
*फूऽऽ फूऽऽ फूऽऽ फूऽऽ*

“आगे बाये, थंय नरशिंव राखोंक बसला तेका. तेका ल्हेंवटो म्हणटा?”
“तो जीब कातरतलो. कितें रे नरशिंव?”
नरशिंव तसोच शिंयान कुडकुडलो.
“केंसराचो घोव ल्हेंवटो कित्याक? रूक्मीणीचो घोव म्हणा गे!”
“कित्याक गे बाये मर्दींच रूक्मीणीचो घोव?”
“आज येवना मांडार ती.”
“घोवाचे पांय दामूंक रावल्या दिसता.”
“घोव खणीर वयता न्हू गे. पयशांचे आशेक. शेतभात वाऱ्यार सोडून.”
“खाज्याचे गोडयेक खंय फोद्री घातली धाडीक.”
“ल्हेंवटोच.”
“केंसर आयकत.”
“तेका कयटा माती! गुमची इद्या गुम जाणां. भुरगीं बापडीं कांय जाणां?”
“केंसर, आतां तूं तेचो घोव ल्हेंवटो म्हण गो.”
“म्हण गो. तेकाय लज कर. कितें रे नरशिंव?”

“पळय, नरशिंव कोंबो कसो फुल्लो. म्हण. नरशिंव सांगता म्हूण तरी म्हण.”
“घोवाचें आकयना जाल्यार कितें मिणाचें आयकतलें गो?”

*म्हाजे होटयेंत शेंवटो शें ऽऽ व*

“केंसर पापणी, घागरो सुटलो.”
“व्होटयेंतल्या शेंवट्या आदी काळुन्नर दिश्टी पडत.”
“पळय, सुटलो घागरो.”
“शी बाये, लज काडली तुयें.”
“नरशिंवा हुजीर नागडें जालें मुगो!”
“कांय नजो, लजों नाका. तेकाय संवय जातली.”
“आगो, पळटा मुगो तें!”
“राव गो, भांग काडुंया आतां.”
“आरे नरशिंव, धांव तेज्या फाटल्यान.”
“घट धर घागऱ्याक. सोडूं नाका.”
“धांवलीं दोगांय काळखांत.”

नरशिंव केंसरा फाटल्यान धांवलो. तें खुबच नेटान धांवलें. पायणींत एकदोन मोडणांनी वळटना नरशिंवान ताका धरपाचें पूण मातशें भुजांक हात आडखळून चुकलें. नरशिंवान नेटान चार धेंपां मारलीं आनी ज्युस्त काळख्या मोडणार ताच्या भुजांक धल्लें. घागऱ्याचे दशे सांबाळीत तें रावलें. खरशेवन ताजें हड्डें वयर सकयल जावंक लागलें. खरशेतां खरशेतां दोगांयचे स्वास हून जाले. शीं खंयच्या खंय नाच्च जालें. ताचे कंवळे वोंठ आंकरी कशे थरथरले. कपला वयले हुमेचे थेंबे चान्यांत तिकतिकले. ताणें नरशिंवाक लजत विचाल्लें.

“तुयें पळयलें?”
“कितें?”

तें वगीच रावलें.

“हायें तुजो घागरो सुटलो तो पळयलो.”
“आनी कितें?”
“आनी कांय ना. आनी – ”

“सांग.”

‘तुजे कुले दिसले म्हाका.”

“शी!”

“शी कित्याक? हायें तळ्यार कितल्या फावटीं पळयल्या. आमी खेळटना सुद्दां.”

“आनीक कांयच दिसों ना तुका?”

“ना.”

“देवाच्यान?”

“तुज्यान तर. सोपूत तुजो.”

“ए, हात काड हड्ड्यावलो.”

“कित्याक?”

“चेडवांच्या हड्ड्यार हात दवरिनात.”

मांडार भांग घालपाक सुरवात जाल्ली. ताळयांचो आनी सरांटून काडिल्ल्या ताळ्यांचो आवाज गाजतालो. तळ्याकडल्या खडपार आदळून आवाजाचें पर्तावण जाल्लेवरी जातालें. रातराणयेचो घमघम सुटिल्लो. केंसराच्या माथ्यांतली कांदळांची पटी परमळटाली.

*पयशाची हाडली भांग*
*किल्लत घातली भांग*
*....................*
*दोन पानांची जाली भांग*

“हात काड रे हड्ड्यावयलो.”

“तुजें हड्डें वयर सकयल जाता.”

“म्हाका भंय दिसता.”

“लज जाली म्हण?”

“कांयच कळना.”

“यो. हांव तुका घट्ट धरतां.”

“कित्याक?”

“भंय वयतलो तुजो.”
“शी!”
“कोण पळयता काळखांत?”
“तूं म्हाजो घोव रे?”
“हय. घोवान घट्ट धरल्यार जाता.”
“कोणें धरूंक जायना?”
“मिणान.”
“मीण म्हटल्यार?”
“मीण म्हटल्यार मीण गो.”
“आवयस्! सवकास रे.”
“बरें दिसता न्हूं?”

*हातीर चोळ्ळी भांग*
*भुर्र करून उडली भांग*
*जिवाक झोंबली भांग*
*रंगार येयली भांग*
*भांगडी लागली*
*जिवा म्हाज्या झोंबली*

“तोंड तेकों नाका रे.”
“कित्याक?”
“घाण येता तुज्या तोंडाक.”
“उं.”
“पुरो रे. सोड आतां.”

*निवळ म्हाजे भांगी*
*सोलांची कडी*

“भांग निवळी मांडार.”

“आनीक?”
“कितें?”
“कांय न्हूं.”
“हांव सांगतलें आवयक.”
“कितें?”
“तूं कितें करता तें.”
“सांग.”
“चेडयेचो.”
“कोण?”
“तूं.”

*हो सोरो माडाचो*
*हो जांवय पाडाचो*
*हो सोरो माडयेचो*
*हो जांवय चेडयेचो*

“कोण येता पळय.”
“धांव मार.”

***

सावळो मास्तर आपणालें भात पावोवपाक पलतडीं वळवय आपणाल्या घरा गेलो. तेखातीर शाळेक दोन दीस सुटी आसली. भुरगे आपणांक जायतशे किरायताले. दिसभर गांवांत हेडटाले. किजिलां करताले. वयल्या वाड्यावयले आनी सकयल्या वाड्यावयले असो भेदाभेद करून झगडटाले. दोशी वर्शी सैन्य उबारून पिराड्यांच्या तरसादिनी झुजताले. ताळ्यांनी एकामेकांक शेपलायताले. बडयांनी बडयताले. दिसभर आशट्यांनी आनी तळ्यार गदेरेडे कशे लोळटाले. भाटीवयले केलदे कशे आंगभर चिखोल माखून घेताले.

नानू, केंसर आनी नरशिंव एकठांय आसलीं. पायणींत तांकां येशालो शंकर मेळ्ळो. चौगांयनी तळ्यार वचपाचें थारायलें. सदचेवरी शंकरान मुजीक कोयतूल खोयिल्लें. तांणी थारायलें. तळ्याधडेर खोंप बांदपाची. तातूंत फकाणांनी रांदपाचें. संवसार करपाचो. खूब दिसांनी परते एकदां ते असलो खेळ खेळटाले. शाळा जावंचे आदी असल्या खेळांत ते दिसभर गुल्ल जावन आसताले. आवय बापूय सादयसर खेळ चलतालो. केन्ना केन्ना आवयो पिराडे नाजाल्यार शिट्टी घेवन सगळ्यांक शेपलायत घरा धाडटाल्यो. पूण दुसऱ्या दिसा मुंयांच्या रोयणीवरी आसा तश्यो कंबरभर खोंपी उब्यो जाताल्यो.

शंकरान मुजीचें कोयतूल काडलें. मूज वयर ओडली. पांया पोंदच्या फातराचो निसाणो करून ताणें कोयतुलाक पाजून धार काडली. धारेर अचळय आंगठो ओडून अदमास घेतलो. आनी तळ्यावयल्या जिन्याचे खूंट तो कचाकचा कापूंक लागलो. खुंटावयले हुमल्यांचे घोंटेर तोडून ताणें दाव्या हातान पयस भिरकटायले. केंसर, नानू आनी नरशिंवान खुंटाच्यो कवळ्यो करून दंडार घेतल्यो. धडेर एकठांय केल्यो. आंगावयले हुमले फाफडीत शंकर भोऱ्या म्हऱ्यांत आयलो. ताच्या सगळ्या आंगाक हुमले चाबिल्ले. केंसांत, फाटीर, काश्टेंत, सगळ्याक पाविल्ले. दिगांयनी ताचे हुमले काडले. नानून माथ्यांत हात घातलो. नरशिंवान फाटी वयले काडले. केंसर जांगे वयले फापडूंक लागलें.

"काश्टेंत गेल्या." जांगेवयले फापडून जातकच केंसरान सांगलें.

"तूं हात घालूं नाका थंय."

शंकरान फाटल्यान हात घालून काश्टेची गांठ सोडली. केंसराक फाट करून तो काश्टी फापडूंक लागलो.

"शी! फुसक्यांची घाण." नरशिंवान नाकापुडयो घट धरल्यो.

"काश्टेचो वास रे तो. तूं घालिना घाणी?" शंकर परतलो.

"केन्नाच ना."

"तुजे गाणीक गुड्डो मारला दिसता."

शंकरान नरशिंवाचे गाणीक गुड्डो मारिल्ल्याचो अभिनय केलो. केंसर फिशीफिशी करून हांसलें. नरशिंवाक लज जाली. नानू मुखार आयलो.

"शंकर, नरशिंव परकी मरे! तेका कायचे काय म्हणूं नाका."

"तेणें म्हाका म्हटल्यार जाता." शंकरान विचाल्लें.

''हांव म्हणटलो.'' नरशिंव घट रावलो.

''हांवूय म्हणटलों. आमच्या तळ्यार येवन आमकां शापोतां शिकयता?''

''तुज्या बापायचें तळें?'' नरशिंवान विचाल्लें.

''तुज्या तरी बापायचें तळें? तळ्यांत बुडयतलों भैझवऱ्याक.''

''गाळयारो.'' नरशिंवाक मुखार झगडपाक जमलें ना.

''गाळयारो तुजो बापूय. आवयझवऱ्या.'' शंकर ताच्या आंगार गेलो.

''ए झगडों नाका रे.'' नानू मर्दी पडलो.

''कोयतुलान चाचयतलों राणग्याच्याक.''

शंकरान मुजिचें कोयतूल काडलें. आतां मात नरशिंवाची म्हातारी कांपली. केंसरूय रडच्या दुकार पावलें. नानूक कितें करचें तें कांयच येवजना जालें. बरोच वगत जालो. कोण कोणाकडेन उलयलोना. नानू ओणव घालून जिन्याचे खूंट मेजूंक लागलो.

''म्हाज्या खुंटांक कोणूच हात लायतलो न्हूं.'' शंकरान थंडसाणेन शिटकावणी दिली.

''हांयें तुका गाळी सोवल्या रे?'' नानू काकुळटेक आयलो. शंकर कांय उलयलोना.

''हांयें मारल्या रे गाळी तुका?'' केंसरान संवयेपरस लांब हेळ काडून विचारलें.

''ना.''

शंकरान नरशिंवाचेर नदर घुंवडायली. नरशिंवाक लज जाली. ताच्या तोंडार दमळ दाटून आयलें. केन्ना रडें फुटत सांगूंक जमनासलें. नरशिंवाक वगळावन तांणी परत आपले भितर इश्टागत केली. आतां खोपीचे उबारणीक सुरवात जाली. मोवश्या जाग्यार चार फोणकुलां खणलीं. तातूंत जिन्याचे खूंट उबे जाले. मर्दी जिन्याचेंच आडबर आयलें. चुडट्यां – पानांनी खोपीची शाकारणी जाली. कडवोय बांदून जालो. ओणयां भितर सरपाचें दार जालें. तिगांय वचून भितर बसलीं. खोपीच्या बुराकांतल्यान नरशिंवाची करामत पळोवंक लागलीं. नरशिंवाचें तोमेरेन रडून सोंपलेलें. खोमसाच्या पोंतान ताणें दोळेय पुशिल्ले. खोप उबी जायसर तो वोतांत खडपाक तेंकून राविल्लो. बऱ्याच वेळान ताका खोपींत घेवपाक नानून आनी केंसरान शंकराकडेन उतर घातलें. शंकर पयलीं अनमनलो. पूण मागीर

घुरमेंतूच ताणें हय म्हणलें. पडट्या फळाची आज्ञा मानून नरशिंव मान बागोवन भितर आयलो.

“परक्या मनशान आमगेर येवन आमकां शाणेपणां सांगोंक जायना. न्हूरे नानू?” शंकरान म्हणलें.

“आतां तो तशें करचोना. हय मरे नरशिंव?” नरशिंवान मोन्यांनी मान हालयली.

“आतां रानुया मरे?” केंसरान याद केली.

“कोण रांदतलो?” दोगांयनी वांगडाच विचाल्लें.

“हांव. हांव चेडूं न्हू तर?”

“चेडूं न्हू, बायल.” शंकरान सारकें केलें.

“कोणाची बायल?”

“आमची.” शंकरान म्हणलें.

“आमची म्हणजे? नरशिंवाची, नानूची काय तुची?”

“तिगांयची.” शंकरान जाप दिली.

“आवंय!”

“आंवय कितें? तेदूस मास्तरान काणी सांगों नासली, पांच पाडवांची धूरपती एकलीच बायल म्हणोन.” शंकरान याद करून दिली.

“पूण त्या रामाक शिता एकूच बायल आशिल्ली ती?” केंसराक दुसरे काणयेचो उगडास जालो.

“केंसर म्हाजी भयण. भावभयणां केन्ना लगीन जाता?”

“मागीर नरशिंव आनी हांव उरलों. नरशिंव, आमी दोगूय व्हदळच्या सारके झगडोया. कोण जिखता तेणें केंसरा बराबर लगीन जावपाचें.” शंकरान सांगलें.

“नाका रे.” नरशिंवान शेंपडी भितर ओडली. शंकराचो व्हदळचो अवतार ताच्या दोळ्यां सामकार तस्सो आशिल्लो. नरशिंवान सांगलें.

“हांव जातां केंसराचो घोव.”

“आनी हांव?” शंकरान प्रस्न केलो.

“हांव भाचो न्हु रे कोळंबाचो. व्हडलें जातकीर केंसर म्हाजी खऱ्यांनीच बायल जातलें.”

“कोण सांग ऽ रे?”

‘‘धाला मांडार तेदुसा सगळीं बायलां उलयतालीं. आमच्या घरा सुद्दां अशेंच म्हणटा न्हु गो केंसर.’’ नरशिंवान केंसराक विचाल्लें.

केंसरान मान धोलयली. नरशिंवाक आनीक याद आयली.

‘‘जाणा मरे?’’

‘‘कितें?’’

‘‘तेदुसा राती आमी पायणींत एकामेकांक – ’’

केंसरान नरशिंवाच्या तोंडार हात धरलो. ताणें रागान गाल फुलयले तसो नरशिंव वगी रावलो.

‘‘सांग रे, सांग नरशिंव.’’

शंकर नरशिंवाल्या कुल्याकडेन आयलो. केंसरान घागऱ्यांत तोंड लिपयलें. नरशिंवाक शंकराकडेन इश्टागत जायच आशिल्ली. ताणें ल्हवू ताच्या कानांत पयरचे रातीचें गुपीत सांगलें तसो शंकर आड्डून खोपभर उसळ्ळो.

‘‘आरे चोरांनो, पयरचे राती हांवें पळयल्लीं तुमकां पायणींतल्यान धांवतना. तुमी घोव बायलां, तुमी घोव बायलांच.’’

शंकरान ताळयार ताळयो वाजयल्यो. खोपीभायर येवन ओले मातयेर बोटांनी रिस्को मारून ताणें चित्र काडलें. दोन मनशां एकामेकाक घट धरतात अशें चितारलें. एका चित्रा कुशीक केंसर म्हूण बरयलें आनी दुसरे कुशीक नरशिंव म्हूण. तें चित्र पळोवन तिगांय खळखळून हांसलीं.

‘‘आमी जोडूंक या आतां. नानू आनी हांव. नरशिंव आनी केंसर घरा. ए नरशिंव, पयरच्यासारकी तशी वेंग मारप ना आं केंसराक.’’ शंकरान ताका शिटकायत म्हणलें.

‘‘हांव घांस काडटलें म्हाका घट धरल्यार.’’

केंसरान कट्ट्यांनी माती भरली. फातर हाडून चुली केल्यो. शेंकऱ्याचें शीत रांदलें. नानू आनी शंकर तळ्या धडेर गेले. धडेर पावतासर शंकराचे मतींत दुसरी कल्पना आयली. ताणें नानूक म्हणलें.

‘‘नानू, आमी शेताचो वावर करचो न्हू.’’

‘‘मागीर?’’

‘‘मिनाचो. चड पयशे मेळटा तसलो.’’

‘‘आमचो बाप्पा करता तसलो?’’

“तसलोच.”

“तुकां कळटा?”

“तेदूस हांव नायेले गेल्लों. मागीर शेनोरेरूय वचोन येयलों. हांयें पळयलां सगलें. चल, दाखयता तुकां.” शंकरान कोयतुलान एक पिडो काडलो. ताचो गोरोब खरपिलो. पेटे भशेन आकार केलो. चुडटाचें वळें काडून दोर केलो. ताका बांदलो. एक पोंय घेवन ताचें व्हडें केलें.

“हो पिराडो कित्याक रे शंकर?” नानून विचाल्लें.

“पिराडो न्हू. ही बैलांची गाडी.”

“आमचे गाडयेसारकी.” नानू खुश जालो.

“तुमचीच गाडी समज. आनी तूं बाप्पा.”

“हायें कितें करप?”

“तुजो बाप्पा करता तें. तुयें वयर साकून गाडयेन घालून फातर हाडप.”

“कसले?”

“मिनाचे रे. मीन कसलें आसता जाणां मरे तूं? तांबशें. चड बरें हाडशी, तुकां चड पयशे दितलों.”

“फकाणाचे रे. शिंपयांचे. तुयें माल नायेले साकून शेनारेर हाडपाचो. शेनोरी पळय, ही तळ्याची धड म्हणजे शेनोरी. हांगा म्हाजो कोठयो आसा.”

“कोठयो म्हटल्यार व्हडलें व्हडें रे. मागीर शेनोरेर व्हरोन दाखयतां तुकां. आमच्या शेतांत रावोन दर्यांत केन्नाय खूब शिडां दिसना रे? तीं कोठयाचीं शिडां.”

“बरें, हांव फातर घेवन येतां.” नानू वावराक लागलो.

“फातर म्हणना रे. मीन म्हणटा तेका.”

“मीन.”

नानून मीन हाडून शंकराच्या कोठव्यांत भरलें. कोठवो भरतकच शंकरान ल्हवू ल्हवू वल्हयत दुसरे तडीक धुकळ्ळो.

“तूं खंय व्हरता रे फातर – न्हू मीन?” नानून विचाल्लें.

“पयस. थंय एक व्हडलें फोणकूल पडलां तें पुरोवपाक.”

“फोणकूल पुरोवंक?”

“हय. थंयचें फोणकूल पुरोवंक हांगासल्लो मीन. मागीर हांगासर फोणकूल पडटकूच थंयसल्ली माती हाडप.” शंकरान सांगलें.

“शेनोरेर साकून व्हरता तें मीन फोणकूल पुरोवंक तर?”

“मास्तराक विचारूंया. नाजाल्यार –”

“नाका रे. मास्तराक तसलें इचारूं नाका.” नानूक मास्तराचो भंय दिसलो.

नानू परत मीन हाडपाच्या वावराक लागलो. फकाणांच्या गाडये–बैलांक आमडूंक लागलो.

खोपींत बशिल्लो नरशिंव उबगलो. केंसर ताजेकडेन तुसडेपणान वागूंक लागलें. तसो तो उठलो आनी नानू–शंकराच्या म्हऱ्यांत आयलो.

“तूं हांगा कित्याक येयलो?”

“केंसरा वांगडा राव रे.”

“म्हाका वाज येता थंय. हांवूय कामांक येता तुमचे वांगडा.”

“यो. तूं म्हणोन मरे. घरचो वांवर सोडून मिनांक येयला. तुका हांगा घरचे परस चड जोड जातली. तूं घरा वचूं नाका.” शंकरान ताका समजायलो.

“केंसर एकलेंच उरतलें खोपींत.” नरशिंवान सांगलें. शंकरान खिणभर येवजिलें.

“आं, पळय, येवजलें म्हाका. तूं मरे हांगा काम कर. हांव ल्हवूच तुज्या घरा वयतां.”

“कित्याक?”

“केंसराक मेळूंक. त्या रावणान राम घरा नासतना शितेक व्हरोंक नासली?”

“तूं तेका व्हरतलो?” नरशिंवाक भंय पडलो.

“हांव व्हरचोना रे. तूं तेजो घोव न्हू रे. तूं हांगा वावराक. हांव ल्हवूच तुज्या घरा वचून बसतां.” शंकरान हांसत म्हणलें.

“कित्याक?”

“केंसराल्या कुल्याकडेन बसोन काणयो सांगोंक.”

“त्या बाबुशामामा सारक्यो?” नानूक उगडास आयलो.

“अय्यवय. तश्शीं धेंपां वडयतां आनी तश्शें चेड्डेंत खरपितां.” शंकरान ज्यूस्त बाबुशाभशेन करून दाखयली. तशीं तिगांय मोटमोट्यान हांसलीं.

“पूण तो घरा येतना आमकां खावपाक हाडटा. आनी –” नानू मुखार कितें तरी सांगपाक सोदी, तो मर्दीच आडखळ्ळो.

“हांव व्हरतां खावपाक. आनी केंसराक काश्टेची व्हट भरून दुडू.” शंकरान

उमेदीन म्हणलें.

“मज्जा केंसराची.”

“आनी म्हाजीय.”

“कसली मजा करता रे पोरांनो?” वाटेवयल्यान आवाज आयलो.

“आबू येयलो, आबू येयलो.” चौगांय एकामेकाच्या कानांत फुतफुतलीं. तांगेल्या त्या खेळाचेर नदर मारीत आबू तांचेर धेंगसलो,

“हात दळडिऱ्यांनो, कसलो खेळ खेळटा? आवयच्या मिणाचो?”

***

# 4

सोंपत्या शिगम्यांत वायंगणांक चार म्हयने पुराय जाले. शेंतांतल्या हरव्या कणशांक सोनयाळो रंग मारूंक लागलो. सकाळपारा दंवार लजिल्ले होंकले भशेन मानो सकल बागोवंक लागल्यो. वोत चडटा तश्यो वाऱ्यावांगडा सळसळूंक लागल्यो. तोळ कणशे कणशे वयल्यान उडूणां मारूंक लागले. तांबशीं हळडुवीं पिसोळीं कणशां भोंवतणयां गिरगिरूंक लागलीं.

वेळार सारें आनी नेमान उदक पाविल्ल्या शिरांनी कणशांक भार आयलो. कंबरांत लकून तांणी ओले जमनीर आंग लंवडलें. सकाळचे उबाळ जावंक लागले. दनपार रखरखूंक लागले. पिकिल्लीं हळडुवीं शेतां भांगर कशीं रसरसूंक लागलीं. कणशो घुंगरां कश्यो वाऱ्यान वाजूंक लागल्यो. शेतांच्या मेरां वयल्यान बळारींच्यो हारी तोळां फाटल्यान लांब धेंपां मारीत उडणां मारूंक लागल्यो.

वरसा सारको जल्मी वगतार आयलो. तळ्या वयल्याक सांगणें करून ताणें नाल्ल फोडलो. कोंबो कापलो. कोंब्याची गवटी सामकी बावसांकडेन कापली. रितीप्रमाण गंवटी आपणें दवरली. कोंबो शेतकाऱ्यांक दिलो. शेतांत देंवून ताणें कोयती घेवन एक कांतर मारली आनी मुठय केली. कोंब्याची गंवटी आनी नाल्लाचीं वळीं घेवन तो आयलो तसो गेलो. दोगां चौगांनी धगाटो पेटोवन कोंबो हुल्पीलोसो केलो आनी दादाल्या तावेर्नार व्हरून कोपा वांगडा चाबडायलो.

जलम्यान मुठय केल्ल्याचें कळनाफुडें दुसऱ्या दिसा शेतांत लुंवण्यो लागल्यो. बायलांनी काशेचो कांसाटो खोयलो. न्हेसणावयर कंबराक जुनेराचो कुडको बांदलो. तुवाल्याची खोळ करून माथ्यार वडयली. तशीच फाटीर ओडून कंबरांत खोयली. आंकाणेच्यो कोयत्यो काडल्यो. सकाळपारा कामेऱ्यांच्यो हारी शेतांत देवपाक लागल्यो, शेतांत रावून शेतकाऱ्यांनी जाय तितलीं कामेऱ्यां घेतलीं. कांय जाणां नाका म्हणटा आसतना बळयां लागलीं. बाकीच्यांनी दुसरेकडेन वाट धल्ली. एके हारीन ओणंव घालून कामेऱ्यांनी कांतरी मारल्यो. एकार एक दाळ्ळ्यो. फाटोफाट मानायांनी वेंगो केल्यो. केळींच्या गब्यांनी आनी गोडवालिंनी आडवां आंवुळ्ळीं. भराभर माथ्यार उखल्लीं. बांदार व्हरून वांटकुळींच दाळ्ळीं. देवळाचीं पेडां कशीं कुतल्लां सोबूंक लागलीं.

लुंवता लुवंतां कामेऱ्यांच्या कंबरांत येवंक लागलें. आंगाक खोरजू खावन थोडीं उबगलीं. वोतान रखरखलीं. घामेलीं. लुंवणी मर्दी पावतकच कामेऱ्यांक धनयान पेज वाडली. केळम्याच्या खोल्या-दोण्यांनी निवोळ पियेलीं. लुंवणी जातकच दर एकल्या कामेऱ्यान लांकडाचो भोरो कसो आडंव घेतले आनी तांच्यो हारी बांदावयल्यान घरचे वाटेक लागल्यो. घरच्या हुस्क्यान जांबयो येवन कोणाचें तोंड वळ्ळें. कोणा आवयचे मोमे दुदाच्या भुरग्याच्या उगडासान तट्‌टटून आयले.

***

बांदार दोन चार मळण्यो लागल्यो. मानायांनी कुतल्लां कुशीक तण दाळ्ळें. ताचेर शेकानशेक लांबरूंद हांतोर पातळ्ळो. दोशींवशीं दोन म्हेडीचीं तिकटीं उबारलीं. मर्दी कोंड्याचें आडबर दवरलें. व्हाणी कुशीक दवरून तांणी खोमसां देंवयलीं. कानाचें विडये शेंवट काडून खोमसाच्या बोल्सांत दवरलें. खोमसां म्हेडिचे देखलेक खुंटयाळ्याक कशीं हुमकाळायलीं. मुजिची काश्टी घट आंवुळ्ळी. उकत्या आंगान ते हातरार आयले. बांदावयल्या केळीच्या चार्वटांर पडिल्लें सकाळचें किरणां वोत तांचे काळे कातीर तिकतिकलें. आडबराक कणशी बांदून तांणी रीत केली. कुतल्लां वयल्यो वेंगो हाडून पांयापोंदा धरल्यो. उजव्या-दाव्या पायांनी

मस्तिल्यो. खोटांच्या नेटावांगडा घामाचे थेंब सळ्ळ करून तेऱ्याच्या पानार कशे घळसटूंक लागले. कणशांचे गोटे हातरार एकठावंक लागले.

बांदार पयलेकडेन शाणूली आनी आयलेकडेन पंडरीली मळणी लागिल्ली. दोगूय मळणेर आसले. शाणूली एक शिरकोणी आनी पंडरिल्यो दोन शिरकोण्यो; पूण शाणूली कुतल्ल पंडरीचे कुतल्लीपरस वांवभर ऊंच दिसताली. तागेर मानांयूय चड आशिल्ले. पंडरीन आपणावांगडा येसो आनी पलतडच्या बाबुशाक आपयिल्लो. पंडरी आनी येसो मन लावन मळटाले. येसो मुमकोच आशिल्लो. ताळ्यांत सोऱ्याचो घोंट देंवल्या बगर ताका केन्ना उतर फुटनासलें. मोन्यांवरी तो काम करतालो. बाबुसो मात फोत कशी बडबडटालो. ताच्या लांब दांगांत आडंव घरंगळटालें. ताचेकडेन सारकें मळूंक जायनासलें. पंडरीचे मुर्वतीक लागून तो आयिल्लो. पूण कामापरस ताच्यो झांकड्योच चड जाताल्यो.

"ती शाणूली मळणी?"

"हय."

"कुतल्ल पळय केदें?"

"पिकलांय बरें तेका."

"पूण उदकाक मेलें म्हण पिरंगतालो मरे तो."

"कुथनोन कुथनोन भुरगीं काडपाची संवय तेका."

"कितलीं पोरां रे तेका?"

"एकलोच चेडो."

"एकलोच? भुरगीं काडूंक फोर्स ना जाल्यार बायलेक दिवंची आमचेकडेन. कितें रे येशा?"

येशाक बाबुशाचें उलोवप मानवलेंना. पूण ताणें कांय म्हणलें ना. मोन्यांनी मळण्यांक उरिल्ली कणशी तो खरसटूंक लागलो.

"येशा, तुकां कितलीं रे भुरगीं?"

"तेकाय एकलोच. शंकर."

"एकलोच?"

आतां येशाक बाबुशाचो राग आयलो. शाणूवरी आपल्यो बकच्छायो करतलो अशें ताका दिसलें. पूण बाबुशान तशें कांय म्हणलें ना. येसो तापलो तसोच न्हिवलो. बाबुसो पंडरीकडेन बडबडत रावलो.

“रूक्मीणआका आसा घराकडेन?”

“आसा. येतलें पेज घेवन.”

“हालीं सामको हाडांचो सांपळो जाला.”

“आतां पिकलें.”

“खंय वयतां कामाक?”

“आतां कसलें काम? वयता लुंवणेक?”

“लुंवणी म्हटल्यार वोताचो रखरख मरे. दिसावडो कितें?”

“आडंव. कुडवाचें.”

“कुडवाच्या आडंवाक लागून दिसभर वोतांत करपप? शी! ते परस तूं – ”

“कितें?”

“नायेले मिनाचे हाजिरेक घे तेका.”

“घरा कोण आसा?”

“घर कोण उखलून व्हरता? नानू केंसर राखतलीं घर. खरें म्हटल्यार तेंकां सुद्दां –”

“छूत छूत, आबू येता.”

इतलो वेळ वग्गी आशिल्ल्या येशाक आतां उलोवन तांकां शिटकावणी दिवंचीच पडली.

हातांत दांडो घेवन आबू बांदा वयल्यान येतालो. मळणेच्या दिसांनी दिसाक दोन–चार खेपो ताच्यो आपशींच बांदार पडटाल्यो. शाणूचे मळणेवयल्यान तो आयलो. मळणे कुशीक आशिल्ल्या शाणूल्या पोराक ताणें दटायलो.

“मळणेर देड पांयार उबो रावलो भैझवऱ्या? सारको राव. कित्याक येयला बोल खावंक?”

शाणूले मळणेर आबू रावलो. ताची कुतल्ल पळोवन तो धादोसलो. कणशी हातांत घेवन ताणें गोटे मेजले आनी राशींत वडयले. शाणून ताचे वटयां पळयलें,

“तुज्या सारको दोळो फुटको न्हूं हांव शाणू?”

“कोणें म्हणलां?”

“तिरशा दोळ्यांनी कित्याक पळयतां? आरे, आपणें कश्ट करचे, आपणें खावंचें. तें काय मळबांतल्यान करे कशे पडटा? आरे, काश्टी सुकी दवरून थिगूर खावंक कशे मेळटले? चोटली भिजलेबगर तोवलेक वास येना. देवाधर्मी सांगतां,

बरें दिसलें पोरा पळोवन.'' आबू धादोसलो.

''बस मरे. इडी घे.''

''राणग्याच्या, दिश्ट वचोंक जाय म्हण इडी घे म्हणटा?''

''पाड पडों तशें चित्तल्याचें.''

''फकाणां केलीं रे पोरा तुजीं. पांचाचे पंचीस जावन कल्याण जावं तुजें. म्हाताऱ्याचे आशिर्वाद तुकां.''

''चल्लो?''

''पंडरीन पळोवंया कितें दिपरत्नां पेटयल्यां तीं. पयसुल्ल्यानूच दिसता. घराची कळा आंगण सांगतां. आवशीझवरो मिनांकूच पेटला.''

आबू मुखार वळ्ळो. इतले म्हणसर मानायांच्या बायलांनी मळणेर पेज हाडली. माडामुळांत मातयेचें बुडकुलें दवरून त्यो घरकाऱ्यांची वाट पळयत सांवळेक बसल्यो.

रूक्मीण मळणेर आयली, तसो आबू थंय पावलो. पंडरीन बडबडपी बाबुशाक वगी रावपाची खुणा केली. बाबुशाक तें विपरीतूच दिसलें. तरी पूण पंडरीच्या तोंडाक पळोवन तो वगी रावलो. ताचें तोंड सामकेंच बंद जालें ना. वोंठ आंवळून तो शिळोणी घालूंक लागलो.

''कोण दळडिरो शिळोणी घालता रे मयणेर?'' आबून विचाल्लें.

बाबुशान तोंड धांपलें. ताका म्हाताऱ्याचो राग आयलो. सुको घांस कसो ताणें आंवडो गिळ्ळो.''

''खंयचें जनावर रे?'' आबून बाबुशाक पळोवन विचाल्लें.

बाबुशाक सोंसलेंना. पंडरीन ताका वगी रावपाक दोळे मोडले.

''दोळे कोणाचेर वटरायता? धरून हाडला रे पंडरी?''

''पलतडचो.'' पंडरीन चाचरत जाप दिली.

''फोणानचो आनी मसणानचो जायना. मळूंक हाडला मरे?''

''हय.''

''मागीर हो कितें बांदाचो चिखोल कालयता?''

''नवो आसा.''

''नव्या कावळ्याक गू खावंक हांगा शिकयता?''

''बाबुशा, मातशें सारकें मळ.''

“बाबुसो तो हो? तुजो सांगाती. हय गे रूक्मीण?” आबूक ताची वळख पटली.

“पेज जेय इल्ली.” रूक्मीणीन वयलेचरा म्हणलें.

“नाका. तुज्या घोवाक जेवय आनी ह्या बाबुशाक कुलेरांनी भरय. जाणां मगे, घरकान्न बरी जाशी, सान्न घराक झरता तशी झरशी. आनी घरकान्न गिन्यानाविणें, घरकारालें जालें दिवाळें! पूण तुकां कितें कळटलें? गाढवा मुखार वाचली गिता.”

“खंय आसलो आबू?”

“खंय आसलो म्हण तोंड घेवन कितें इचारता? येल्लों तुजो पराकम पळोवंक. शी ! शी! पंडरी, इटयलें रे तुयें. सगळ्यांत पयलीं रोवपी तूं. सगळ्यांत पयलीं लुंवपी, मळपी आनी सगळ्यांपरस चड पिकोवपी? आनी अंदू हें कसलें दळडीर?”

“पिकलें ना सारकें.”

“कशें पिकतलें? आरे, दंवार आनी वोतार भात पिकल्यार मुडयांच्या थडयांर बसून भकूंक मेळटलें आसलें?”

“पिकों ना तेका हांव कितें करूं?”

“परतें तेंच. बाबा गांवसाली येट करून शेतां पिकता?”

“बाबा गांवसाली येट?”

“चल सांगतां. तुकां काणी सांगचीच पडली. कारण काणी आयकुपा इतको हागोवन गू खावपी पिरायेचो जालो तूं. बाबा गांवसाली काणी सांगतां तुका.”

“पेज जेय इल्ली.”

“नाका, नाका. तुमी जेया. जेयतना सांगतां तुमकां. इडी पेटयतां हांव. सांगो मरे?”

“सांग.”

“गजाल घाटावयली न्हूं. नायेलेची. चड शेंकडेय जावना. एके पिळगे फाटली गजाल. नायेले गांवांत सगळ्यांत व्हड भाटकार जावन गेलो तो बाबा गांवस. गांवधनी गांवकार. नायेलेंतल्यो अद्र्योअदीक तक्षिमो तेच्या नांवार. तो करता ती पुर्वदिशा. थाट सामको राजाचो. मुखड्याक सया मारताली राजाचीच. रावपाक राजवाडो. आजून पडलेल्यो वणटी गवाय दिता त्या वैभवाची. घरांत सगळें आयतें. शेतांचो खंड वेळच्या वेळार पावतालो. खंडावांगडा नुस्त्याच्यो गांथनी. बाबा

गांवसाक भुरगे आशिल्ले. राजकुंवर कशे दिसताले. राजवैभवान नंदताले. बाबा गांवसाची इतली शेतवड आशिल्ली पूण शेतांत केन्नाच पावल दवरलेंना. कितें उणें कितें अदीक हें खासा आपल्या दोळ्यांनी केन्ना देखलें ना. शेजान्नीकडेन भुरगीं सांबाळपाक दिल्लेवरी शेत-भात दुसऱ्यांकडल्यान करून घेवंक लागलो. राजेशाय थाटांत रावपाक लागलो. लोकांची ताडलें. तरातरांच्यो मांडण्यो काडून बाबा गांवसाक नाडपाचो. घराचे पडयेर बसोन बाबा गांवस शेतांत पळयतालो. कितलींशींच जोतां चलता... मेजूंक येयना इतकीं जोतां चलतालीं. तासां-आडासां जातालीं. खंय बारावतालें. पूण कोणांक पडलां कोणाचें! दीस अस्तंतेक तेंकलो म्हणटकूच दिसावड्याक हात मुकार. भुसाक सगळे वेळच्या वेळार. दिसभर आपणाल्या शेतांत वावर करून घरा परततना शेतकार बाबा गांवसाल्या शेतांतल्यान वयर सरताले. पडयेर पियेत बशिल्ल्या बाबा गांवसाक सांगताले : "बाबा, तुगेर जोत बांदलेलें." आनी भुसके मारून दिसावडो घेवन घरा वयताले. निमाणीं निमाणीं तर बाबा गांवसाले ताळयेवयले केंस पासून बुड्डून खावपाची शेतकाऱ्यांक पाडी बुद्द येयली. नांगर तोपचो न्हूं म्हण तेणीं फाळाच्या तेमकांक कटट्यो घालच्यो आनी बाबा गांवसाच्या दोळ्यांक उदक लावंक 'इरीरी प्पा ऽऽ प्पाऽऽ' करचें. बाबा गांवसाक आनीक एक नाद आशिल्लो. नायकिणींचो. बायल कांतयल्ली बावली कशी आशिल्ली. गांवकान्नीचो साजशिणगार करतकूच पालखेंतली देवता कशी रसरसताली. पूण तेचें समाधान जायना आशिल्लें. केदेय राती नावेलच्यान पनेळ करून तो माशेलांत वयतालो. माचुलांत बसोन नायकिणीगेर पावतालो. परतो रातोरात परततालो. एके रातीक मानाय कानायांक आनी तारी-भाड्याक कितलो खर्च जातालो हेचो हिशोब तेणें केन्नाच थेयलोना. नायकीणींक भाटां दिलीं. पयशांक लागून बेसां इकलीं. निमणेकडेन देशोधडीक लागलो. घरांतलें आशिनाशिल्लें लाटलें. पोरांक व्हाऱ्यार उबंत वडयलीं. आनी उदकाविणें वळवळून वळवळून गांयडोळ कसो मेलो. सोंपली बाबा गांवसाची काणी.'

"अं." पंडरी अकस्मात भानार आयलो.

"घणसाबैलासारकी मान हालोवं नाका. दुसरो बाबा गांवस जाला तूं शेतापाणयाचे बाबतींत. बायल जांगांपांगानी घट आसा म्हण नाद ना तुका चेडयांचो. आंग काडटा कित्याक? हांव नकळों नायेले तूं कसलो गू खावंक वयता तो? म्हण तुजे मयणेर हें अशें तण आनी पोल. आतां वगी कित्याक? असली तुजी मयणी

आनी असले दयडिऱ्या पावलांचे बाबुशे तुगेर मळूंक. घर मोडून माटोव घालपाच्यो पाड्यो बुद्दी ह्यो!''

आबू थरथरत बांदावयल्यान गेलो. रूक्मीणीन पेजेचो बुडकुलो उखल्लो आनी मोन्यांनी चालीक लागली. पंडरीच्या ताळ्यासकयल देंवल्ली पेज ताका परतून आयिल्ल्यासारकी दिसली. बाबुशाच्यान मात सोसूंक जालें ना. म्हाताऱ्याच्यो झिणझिण्यो धरून ढुणढुणें फोडचें अशें ताका जालें. रूक्मीणी खातीर तो वगी राविल्लो. पंडरीनूय ताका एक्क उतर काडपाक मनाय केल्ली. ताचो घुस्मटमार जाल्लो. आबू गेलो तशे ताचे वोंठ मेकळे जाले. पंडरीन मात जाप केली ना. येशाच कडेन तो उलोवंक लागलो.

''कसल्या कास्ताचो म्हातुड्डो? सगळ्या गांवाचें आपल्या माथ्यार.''

''जाण्टो आसा.''

''मनीसपण आसा तेका?''

''पावसाळे पळयल्या तेणें.''

''तुका आनी पिशें लागलां येशा. असल्या मनशाक जाप काडूंक दिवप ना.''

''सगळो गांव मानता तेका.''

''पिशे सगळे.''

''जायत. पूण तो न्हू.''

''दारांत उबो करप ना.''

''तसो कोणाल्या दारांत वचना तो सुणो कसो!'' येशान म्हणलें.

''आं?''

***

मळण्यो सोंपल्यो, खळ करता ते दीस. गादयेकार दादा खळ हेरून आयलो आनी सोऱ्याच्या बदलाचें आपलें भात घेवन गेलो. भट खांदार पोती वडोवन आयलो. मडवळूय घेवन गेलो. वायंगणाचे पिकेर उगडासान सगळ्यांनी शिकपी

भुरग्यां कणकणी एक एक कुडव मास्तराक पावतो केलो. सर्दीचे पिकेर आबून सगळ्यांक उजरावन काडलेले ताची सगळ्यांक बेस बरी याद उरिल्ली. खळां जालीं आनी आंगाच्यो खोरजू गेल्ल्याच्या धादोसपणान सगळ्यांनी सोंप्याक कुले तेंकयले. आंगणांत चवळेच्यो आनी कुळदाच्यो सांगो सुकूंक लागल्यो. गुंजीयेदे काळे कुळकुळीत कुळीद आनी कपलाक काळी तिकली लायिल्ल्यो धव्यो चवळ्यो किटकिटूंक लागल्यो. मेळत थंय माकडावरी उडक्यो मारूंक लागल्यो. आंगणांभायर भिरकटूंक लागल्यो.

सगळ्यांचीं मनां भुरकुटलीं. सगळ्यांचेंच पिकलेलें. मुखामळार उदक हर्किल्ल्या सारकी ताजसाण मारूंक लागली आनी शिगम्या म्हयनो दारांत आयलो. काजुचीं झाडां चंवल्लीं. तेंगशे तेंगशेर पांचवे बिबे तिकतिकूंक लागले. आंब्याचे कण झडूंक लागले. पणसांच्या आळिंचीं दामणां दिसानदीस आंग पातळावंक लागलीं. माडांच्यो पेंडी कळशायेद्या नाल्लांनी कचकचल्यो आनी शिगम्याच्या पाड्याची रास जोरगतीवरी फुगून गेली. शिगम्याचे पुनवेची सुलूस लागून कोळंबाक चान्याचीं सपनां पडूंक लागलीं. खंयतरी पयसुल्ल्यान धोल वाजतात, ताशे तणतणटात असो वगीच भास जावंक लागलो.

आनी शिगम्याचे धांदळीक सुरवात जाली. पोरूं वरसां खुंटयाळ्याक हुमकाळायल्ले धोल ताशे भायर सरले. कासाळीं, जगांटी सगळीं वाजपाचीं आयिद्दां एकठांय जालीं. नमी दिसा शेण सारयल्ल्या मांडार शितळ-नितळ चान्नें सांडलें. सगळे चौखेर जमले. बायल भुरग्यांनी गर्दी केली. आबू तळ्यार न्हावन आयलो. सुक्या वाल्याक आंग पुशीत मांडार पावलो. ताणें चंदनाचे काणयेन सांडीर गंद झरयलें. वाती पेटयल्यो. मांडावयले म्हाल तुळशीमुखार सगळ्यांनी हात जोडले. आबून वोठांत गुणगुणत सांगणें केलें. तुळशी पेडयेर दवरलेले तळयेंतले सुरय तांदूळ सगळ्यांनी हातांत घेतले. वरसावळीप्रमाण पंडरी झाडो म्हणपाक मुखार आयलो. आबून फर्मायनाफुडें ताणें सुरवात केली.

*म्हाज्या गुरून काय रे केलां*
*सकाळीं उठला न्हाला धुला*
*अंगास काडल्या बावन चंदनउटी*
*कास नेटल्या पीतांबराची*

सगळ्यांनी 'बले बले' करून तांदूळ शिपडायले. खरस येसर पंडरीन झाडो म्हणून सोंपयलो आनी कुशीक वचून ताणें विडी पेटयली. मागीर खेळे जोती खेळूंक लागले. कांसाळ्याच्या आनी जगाटीच्या तालार पावलां पडूंक लागलीं. पयली जोत नमनाची जाली. जोतीनूच देवांक होरावन होरावन नमन केलें.

*पयलें नमन घालूं धतरी माते*
*दुसरें नमन घालूं चंद्रसुर्या देवा*
*तिसरें नमन घालूं माणाच्या गुरू*
*चौथें नमन घालूं देंवचारा देवा*
*पांचवें नमन घालूं पांच पांडवा*
*सवें नमन घालूं पूर्वचाऱ्या देवा*
*सातवें नमन घालूं सातव्या अवतारा*
*आठवें नमन घालूं आठव्या अवतारा*
*णवें नमन घालूं नव्या अवतारा*
*धावें नमन घालूं तेत्तीसकोटी देवा*
*बारावें नमन घालूं बारशा गुणा*

जोतीचे मोडीर पावलां बदलपाक लागलीं. वाऱ्यान धोलिल्ल्या सारकें कंबर बागोवन खेळे रंगार आयले. पोटांत दुखतकच आनी जांगोपांगो भरतकच 'अऽऽ अऽअ' करून जोती थांबोवंक लागले. जाणटेले खर्शेले. जुवान खेळे नेट धरून खेळूंक लागले. जाणटेल्यांनी आंगणाचे पेळयेर बसून विडयो फुसकायल्यो. एकल्यान पंडरीक हटकिलो.

"पंडरी, अंदू झाडो गायतना धांप लागली मरे!"

"जाणटेपण जालें न्हू रे."

"जाणटेपण काय वावर चड पडलो रे आयज?"

"कसलो वावर रे?"

"मिनाचो."

"हय रे पंडरी?" दुसऱ्यान तोंड घातलें.

पंडरी कांय एक उलयलोना. इतल्यांत थंय सावळो मास्तर आयलो. पंडरीन ताका विडी दिली. पुडव्याचो शेव बंडेच्या बोल्सांत खोवन मास्तरान विडी पेटयली.

"भुरगे बरे नाचता मरे!" मास्तरान तोखणाय करीत म्हणलें.

"मास्तर, हें नाचप आमचें हेंगाडयांचें."

"कला आसा तितूंत."

"तसलें आमकां समजना. मास्तर, पोरूं वरसा तुवें भुरग्यांक तालगडी शिकयल्ली."

"तेच्या आदीं कोळंबार कोण केन्ना तालगडी खेळ्ळेच ना."

"मास्तर, अंदूय आसा मूं?"

"आसा तर." मास्तरान भर दिलो.

"आरे, सावळो मास्तर आसासर कोळंबार तालगडेच्यो तोणयो वाजतल्योच. कितें मास्तर?"

"सावळो मास्तर नासल्यार सुद्दां वाजूंक जाय." मास्तरान म्हटलें.

"फायचें कोणें सांगलां? कितें रे पंडरी?"

"अंदू तालगडी आनी त्या वांगडा दिवलेचो नाच आसतलो." मास्तरान नवी खबर दिली.

"दिवलेचो नाच?" सगळ्यांक अजाप जालें.

"माथ्यार पेट्टी दिवली दवरून केल्लो नाच." मास्तरान खोशयेन सांगलें.

"दोळे दिपकावन वयतले सगळ्यांचे."

"केन्ना मास्तर?"

"पुनवेदिसा." मास्तरान विडयेचो धुंवर वयर हवेंत सोडलो.

***

हुस्के माथ्यार गोंडे फुल्ले. माथ्यार धोलूंक लागले. खेळ्यांनी हुस्केचे ताळे हातांत घेतले. आबोल्यांचे झेले गळ्यांत घातले. मनगटांक वळेसर बांदले. भुरग्यांनी माथ्यांक तरातरांच्या रंगांच्यो तोपयो घातल्यो. जाणटेले पुडवीं धोतरां न्हेसले.

खोमसां ज्युदयो घातल्यो. फेटे, शेले, रूमाल माथ्याक वेटकाळायले. धोल फाटीर माल्ले. ताशे गळ्यांत घातले. मेळांत जाणटे, नेणटे, जुवान, भुरगे सगळे आयले. 'घणच्या कटर घूमऽऽ' च्या तालार पावलां पडूंक लागलीं. तळ्यावयल्यान मेळ नावेलेचे वाटेक लागलो. 'ओ बले भय्या' आनी 'शबै शबै' करीत मेळ धुल्ल माड्डीत देवळांत पावलो. खेळे नाचूंक लागले.

*बेताळा देवाचीं उंचउंचा देवळां*
*भांगराच्या कळसा वयर*
*सोबती चंवरां*

खेळे नाच नाच नाचले. वरसावळी प्रमाण थरिल्ल्या घरांनी वचून खळ्यांत तांणी जोती गायल्यो. भोंवर माल्ले. पांच पांच नाल्लांची तळी उखलून घरा आयले. पुनवे आदल्या दिसा पासून कोळंबाच्या आशिकुशीच्या गांवांनी मेळ खेळून आयलो.

शिगम्याचे पुनवेराती तळ्यावयले आंबुल्ले आडसाक सुपायेदो चंद्रीम कोळंबाक दोळे घालूंक लागलो. तळ्याच्या बायकुलांत ताचें बेस बरें पडबिंब पडलें. उदकार ल्हारां उठनाफुडें चान्नें उदकार चांदी कशें चकचकूंक लागलें. चंद्रीमाच्या रूपकारांसारके वांटुकळेच वडे तापलेले कायलींत उतरूंक लागले. तांचो 'चळ्चळ्' आवाज माणकुल्या भुरग्यांचे जिबेक थार दिना जालो. भुरगीं चुलीकडेन येवन वडे तळटलेच्या कुल्यांक धोंगशे घालूंक लागलीं. रडून रडून घोसूंक लागलीं. देवाक दाखोवंचे आदीं कोणें भुरग्यां हातार वडे दवरलेना. चडूच रडटकच कोणाची दिश्ट जाल्या जायत म्हण आवयांनी दिश्ट काडली.

*...गिऱ्या भुताची... लांवा लुताची... सुण्या माजराची... कण्णेवाशाची... सोयऱ्या धायऱ्याची.... आज्या पणज्याची... आवय बापायची... चुलींत पडों.*

मिठाची कणी तकले भोंवतणी तीन तीन खेपे हुंवाळून चुलींत उडयली आनी चुलीखुराची बिबूत भुरग्यांच्या कपलाक लायली.

चौखे वयल्या मांडार तालगडिची तयारी जाली. मास्तरान संवंग्यांक एके कुडींत घातले. आलयेदे काडून तांची रूपडीं रंगयलीं. सगळ्यांक संवंगां थारोवन दिल्लीं. कोणाक कृष्ण, कोणाक पेदो, कोणाक राधा आनी हेर सगळ्यांक कृष्णाचे वांगडी केल्ले. सगळ्यांच्या कपलाक धव्या गंदाचो चंद्रिमासारको तिबो लायिल्लो. मास्तरानय आपल्या कपलाक रेखून घेतिल्लो. कृष्ण, पेंदो आनी गोप-गोपिका हांचें ल्हानशें नाटकुलें थारायल्लें. तें खासा मास्तरान बरोवन बसयल्लें. संवंग्यांक आपलें भाशण तोंडपाठ जावन दुसऱ्याचेंय जाल्लें. शंकर तर संबंद नाटकुलें एक चुकनासतना सडसडीत म्हणून दाखयतालो. नाटकुल्या उपरांत तालगडी आनी निमणेकडेन दिवलेचो नाच आशिल्लो. दिवलेचो नाच नानूक दिल्लो. त्या नाचा खातीर मास्तरान क़ितलेशेच भुरगे वेंचिल्ले पूण ताजें समाधान जावंक नाशिल्लें. आनी अखेरेक नानू ताचे परिक्षेक उतरिल्लो. नानू काम सोळा आणे बरें करतलो हाजी ताका खात्री आशिल्ली. सात-आठ फावटीं ताणें येसायो घेतिल्ल्यो. एक्केय येसायेक नानूच्या माथ्यावयली पेट्टी दिवली केन्ना आंगळान फाटींफुडें जावंक नासली. सावळ्या मास्तरान दिवलेच्या नाचाविशीं खूब जाणांकडेन अभिमानान उलोवन दाखयल्लें.

आख्खो कोळंब मांडार एकवटलो. नावेले सावन कांय गांवकार मुद्दाम दिवलेचो नाच पळोवंक आयिल्ले. पलतडच्यान वळवय सावन कांय सोयरे आयिल्ले. आबून सोयऱ्यांक आनी गांवकारांक बसपाक कांबळ सोडली. तुळशीमुखार कार्यावळीक सुवात सोडून लोक भोवतणयां आसनमांडयो घालून बसले. सावळो मास्तर पेटयेक बसलो. दुसरो पखवाजाक. रंगयल्लीं भुरगीं एके हारीन उबीं रावलीं. पेटयेचें कळेशीं सोबलीं. नांदी जाली.

मागीर कृष्णक्रिडेचें नाटकुलें जालें. पेंद्याचे करामतीक भुरगे हांस हांसले. मर्दी मर्दी पदां जालीं. आवय-बापायनी आपापल्या भुरग्यांची तोखणाय केली. घरा वतकच कट्टी पटोवन दिश्ट काडपाचें थारायलें. नाटकुलें सोंपतकच फाटोफाट तालगडी जाली. तालार पावली मारून गोपिकांनी तोणयांर तोणयो मारून भोंवर मारले.

आनी आतां सगळ्यांचे दोळे दिवलेच्या नाचाकडेन लागले. येसाय पळयल्ले भुरगे फुडें कितें घडटलें तें आवयच्या कानांनी फुतफुतूंक लागले. नानूचे दोशीवशीं आनीक दोन भुरगे उबे रावले. नानूक बायलेचो भेस केल्लो. पांचवारी भगवें पुडवें

ऱाशेन न्हेसयल्लें. लिकलिकीत तांबडो पोलको घातिल्लो. पोलक्याक आनी गुडव्याक जरिची देग आशिल्ली. कानांनी लांबोडकीं कानफुलां लांबतालीं. कपलाक तुर्याभशेन तिबो कोरिल्लो. तो सोबून दिसतालो. बायलांनी आंवडे घोटून ताचें रूप नोखेलें. ताणें ओणंव घातलो. ताच्या पायांसरी देड वेंत उंचायेची पितुळची दिवली दवरलेली. सातूय वाती जळटाल्यो. कांठभर तेल आशिल्लें. दोनय हातांनी ताणें दिवली उखल्ली. सवकासायेन ताळयेर दवरली. सगल्यांच्यो नदरो वरश्यो जाल्यो. मास्तरान भातो ओडून सूर धरलो.

पद सुरू जालें. पावले बराबर पायांतल्यो घागऱ्यो झुमूक फुमूक वाजूंक लागल्यो. दिवलेचे हात सोडून हात हवेंत मोडूंक लागले. मागीर ओणंव घालप जालें. दर एका अभिनयाचे पतीक बायलांच्या चोम्यांतल्यान 'आवयस्! आगेबाये!' अशीं उतरां येवंक लागलीं. निमाणे सावळ्या मास्तरान बोलसांत हात घातलो आनी तांब्याचो एक पयसो मुखार दवरलो. नानू जमनीर न्हिदून जिबेन तो पयसो काडटलो आसलो. मास्तरान अशें सांगनाफुडें सगळ्यांच्या काळजांत घस्स जालें. आपणांल्याच माथ्यार दिवली आसा अशें जण एकल्याक दिसूंक लागलें. आनी मानेच्यो शिरो तट्टून आयल्यो. नानू सरपट जमनीर आडवो जालो. दोनय भुंजार ताणें कूड सांबाळ्ळी. सावळो मास्तर मुखार मान हालोवन हालोवन ताका उमेद हाडटालो. नानूची जिबली पयशाकडेन पावली. सगल्यांनी मानो बागोवन नदरो थिरायल्यो. पयशाक जीब लावपाच्या निमण्या खिणांक नानूचे मानेक गरये सारको हिसको बसलो. ताच्या दोळ्यांमुखार पयशा वांट्याचो काळोखच काळोख जालो. फुडें कितें तें पळोवपाक तो सुद्दीर नाशिल्लो. सगळो बोवाळ जालो.

"दिवली पडली!"

"आगे बाये, फाटीर पडली!"

"पुता रे ऽऽ."

"फाट भाजतली पोरग्याची तापलेलें तेल पडोन."

सगळ्यांनी नानू भोंवतणयां कंवडाळें केलें. रूक्मीण 'पुता ऽ ऽ पुता ऽऽ' करीत झुंडींत रिगली. पंडरीय धांवून आयलो. सावळ्या मास्तराक खिणभर कितें घडलें तें कांयच कळ्ळें ना. नानूक मांडावयलो चौखेर व्हेलो. सगळे सावचीत करूंक लागले. एकामेकाच्या कानांत उलोवणें सुरू जालें.

"इतक्या ल्हान भुरग्याक उपेग ना रे तें."

''पेलूंक नाका त्या पोराक?''

''मेळ्ळ्या पोर हातीक म्हण जायतशे झरोवप?''

''मास्तराक लागलां पिशें!''

नावेलेचे गांवकार आनी पलतडचे वळवयकार सावळ्या मास्तराचेर शेरे मारीत गेले. मास्तरान मोन्यांनी आयकून घेतलें. अशें विपरीत घडलें ताचें कुवाडें ताकाय सुटूंक नाशिल्लें. 'येसायेक एकदांय घडलें ना तें आज कशें घडचें?' धेयभान विसरून तो चितूंक पडलो.

''मास्तर, असलो मरे दोळे दिपकावपी नाच?''

''खतखतीत तेल दोळ्यांत गेल्यार दोळे फोडपाचो नाच.''

''बरें म्हण बरें बाये. नाजाल्यार लासून वचपाचो भांगरा सारको पोर.''

''मास्तराचो कितें गुन्यांव रे? येसायेक चुकोन लेगीत पडलिना.''

''देवस्पण पळया.''

''आबू, सगळें सारकें केल्लें मरे?''

''जाण्टेपण तेचें. कितेंय विसरला जायत.''

''आजून तकली आसा रे म्हाजी जाग्यार.''

''मागीर कशें घडलें तर हें अपशकुनी?''

''आतां हांव जाणां? तुमचीं भश्टीं बायलां तळ्यांर नाजाल्यार मांडार भोंवल्या जायत. हांव राखतां तेंकां.''

''हयवय. आमी बायलां येतां भश्ट्यांनी.''

''भश्ट्यांनी न्हू. नागडींसुद्दा येयशात तुमी. आतां कांय ताळतंत्र उरोना तुमच्या किरोवपाक.''

''धूप घालून घाडी बसल्यार कसो?''

''शिगम्या म्हयन्यांत देवस्पण जायना रे.''

''सांगों येता? ह्या अपशकुनान फुडें कितेंय अपशरणां येत.''

''रातदीस रानाकानांत आनी उदकापाणयांत आसता पोरां-''

''पोरां खंय खंय वचत सांगो येता?''

''पंडरी, खंय गेल्लो रे नानू?''

''खंय ना. खंय ना.''

''खंय ना? धोल-ताशांच्या तालार भुताखेतांचो मेळ उठिल्लो आसता.''

"खंय वचोना तो."
"खंय वचोना कितें रे? शिगमो खेळूंक मेळाकूय वचोंक नाशिल्लो?"
"गेल्लो गेल्लो."
"नानू मेळाक नाशिल्लोच."
सावळो मास्तर गर्देंतल्यान भितर गेलो. नानू आतां सावचीत जाल्लो. मास्तरान ागळ्यांक भायर घाले. नानूच्या हड्ड्यार हात दवरीत विचारलें :
"आतां जालो सारको?"
"हय."
"भंय दिसना मरे?"
"ना."
"सांग कितें जालें तुका?"
"कांय ना."
नानून हेवटेन तेवटेन पळयलें आनी आपले माने कडेन हात दाखयलो.
"अकस्मात कितें जालें मानेक?"
"हांव... हांव..."
"सांग, भियेवं नाका. हांव कोणांक सांगना. ल्हवू सांग."
"हांव काल आनी पयर नायेले गेल्लों."
"येसायेक येयल्लो न्हु रे तिनसाना?"
"दिसाचो गेल्लो. कोणाक सांगो नाका म्हण सांगलेलें बाप्पान."
"कित्याक?"
"म्हाका कामाक हेल्लो."
"कामांक? कसल्या?"
"मिनाच्या. खणीर माथ्यार फातर घेवन गाडयेंत घालपाक. मागीर चड यशे मेळटाले खंय. गाडी आमची. मानांय आमचे आनी कामेऱ्यांय आमचीं.'
"मागीर?"
"ते खातीर फातर घेवन म्हाजी मान कणली. तूं उलयत म्हण हांयें तुकां ांगलेंना. व्हदळ दिवली माथ्यार आसतना आपशींच कच्च करून वांकडी जाली. ास्तर? तुका म्हजो सोपूत आसा. कोणांक सांगों नाका. बाप्पा मारतलो.'
मास्तर उबो रावलो. पिठ्ठ चान्यांत ताका काळ्या किट्ट काळखाची कीट

खंयतरी दिसूंक लागली. गर्देंतल्यान वाट काडीत तो मांडा भायर वळ्ळो. कुशीक उब्या आशिल्ल्या पंडरीक ताणें दाव्या दोळ्यान हुंगोवन लेगीत पळयलोना. अशीर पायणेंतल्यान तो नीट चलत रावलो. पायणींतल्या मोडणा मेरेन पावलो. सामकें आंगार लकिल्ल्या मोडणार ताका मोडचोच पडलो.

***

# 5

संवसार पाडव्या दुसरे दीस तळ्या वयली सत्यनारायणाची पुजा जाली. कोळंबार तकले फाटल्यान दोन आणे पटी काडली. तळ्या वयले माचयेर दोर्शींवर्शी दोन केळमे उबे जाले. तांचीं घडावलीं मानो बागोवन रावलीं. मर्दी सत्यनारायण सजयलो. वळवयचो जयदेव कोळंबाचो जांवय लागतालो. ताका आनी ताचे बायलेक पुजेक रावयल्लीं. तांच्या वांगडा पूत नरशिंवूय आशिल्लो. पंडरी जयदेवाक हय नाका तें आपूण जावन पळयतालो. पुजा जातकच भुरग्यांनी दोण्यांक गिट्टी घातल्यो. पयशे दोन पयशे ताटांत वडोवन भक्तांनी तिर्थ घेतलें. वोठांक लावन ओलो हात माथ्यांत भोंवडायलो. तिर्थ घालतना भटाची नदर ताटांतल्या पयशांचेर खेळटाली. तिर्थप्रसाद जातकच पावण्यो वाजल्यो. माटवांत कोणें नाल्ल बांदिल्ले, कोणें पेंडी, कोणें दुदी, पोपाय आनी हेर फळफळावळ. फुलां-चामळांय आशिल्लीं.

लांसार लांस पडटले आशिल्ले. एकामेकांच्या सर्तिनी पावण्यो वाडटल्यो आसल्यो. बारीकसारीक पावण्यांक सुरवात जावंचे आदीं पयलें विड्या नाल्लाची पावणी जावपाची आशिल्ली. विडोनाल्ल व्हरप म्हणल्यार आपलें गिरेस्तपण आनी व्हडपण सिद्द करपाचें काम आशिल्लें.

"पांच रूपयांक इडो-नाल्ल पावता ऽऽ."

पावणी वाजयतल्यान हात वयर करून सादयलें. जयदेव फळार खाव पुडव्याच्या शेवाक तोंड पुशीत पावणे म्हऱ्यांत आयलो. सगल्यांच्यो नदरो ताचे थिरावल्यो. मिशांक पीळ भरीत ताणें हेवटेन तेवटेन पळयलें. ताचे दुसरे वटय नावेलेचे गांवकार बशिल्ले. तेवूय जयदेवाक तेळीत आशिल्ले. तांच्या म्हऱ्यां पलतडचो बाबुसो आशिल्लो.

"पांच रूपयांक इडो नाल्ल पावता. पयली खेप."

आजून कोणें लांस घालूंक नाशिल्लो. विड्या नाल्लाक लांस घालपी नावेले गांवकार आनी जयदेव वळवयकार हें थरूनूच गेल्लें.

"पांच रूपयांक इडो नाल्ल."

"धा रूपया." जयदेवाच्या घटमूट आवाजान तळ्याकडलो वांठार चिरलो सगळ्याक थंडाय पसरली.

"पंदरा रूपया." नावेलेच्या दोगां गांवकारांनी वांगडाच आवाज दिलो.

"दोन कडेन लांस वाजले. तिसरो कोण चडयता?"

"वीस रूपया." जयदेवान पडट्या फळाची आज्ञा मानून संदेचो लाव घेतलो नावेलकारांक मातशी लज जाली. कोणें एकल्यानूच लांस घालपाचें ताणीं थारायलें. लोकांत चुळबूळ जाली.

"नायेलकार कितले जाण आसात?"

"चड जाणां आसात म्हण घुस्पतात."

"वळवयकार एकलो पुरो तेंका."

"आतां तेचोच लांस चलता."

"तो सोडटा? वरसाचो तेचो मान तो."

"नायेलकारांक बाबुसो मेळ्ळा मरे."

"बाबुसो हरशीं वळवयकार मरे. जयदेवा वटयां आसपाचो."

"जयदेव असल्या धोशी लावण्यांक लागीं करता?"

"तसल्यांक पंडरीनूच दारांत घेवपाचे."

"इडो–नाल्ल वीस रूपया – पावता. दुसरी खेप."

"कोण नाजाल्यार कर सा."

आबून लांस वाजयतल्याक सांगलें. लांस वाजयतल्याक आशा जाली. देवाक आनीक चड कितेंय फायदो जाल्यार जालो. ताणें नावेलकारांवटयां पळयलें. तांकां

बाबुसो कुंथनावन बळयां पिकयतालो.

“पंचीस रूपया.” नावेलकारांवटसून खांचींतल्यान आवाज आयलो.

“पस्तीस रूपया.” जयदेव पांचां वरसून धांचेर चडलो. ताच्या आवाजांतूय चडटी धार आशिल्ली.

“चाळीस रूपया.” नावेलकारांचो आवाज सुकलो. ताळो खांकारून ताणें परतो आंकडो सांगलो.

“चाळीस रूपया.”

“एकावन्न रूपया.” नावेलकारांतलो एकलो एकलो गळव लागिल्लेवरी गळूंक लागलो. बाबुशानय कूस परतिली. व्हाण बशिल्ले सारकें तोंड करून तो जयदेवा म्हऱ्यांत आयलो.

“वळवयकार ते वळवयकार.”

“आतां म्हाका चण्या झाडार चडोवंक येयला? तेंकां वडयले मरे?”

“हांयें? हांयें सांगलेलें तेंकां. जयदेवाकडेन सर्त नाका म्हण. देवाच्यान तर.”

“तूं दोशीं वर्शी. जाल्यारूय वडे, मेल्यारूय वडे.”

“शे! शे !!”

“बाबुशा, जेवपाक यो आं. ” पंडरीन ताका सांगलें. बाबुशान हेवटेन तेवटेन पळयलें. पंडरीन ताका तोंडार पाडिल्ल्यान सगळेच ताच्यो बकच्छायो करताले. जयदेव तर आनीक एक उतर उलोवंक तयार नाशिल्लो. ताणें गणयलेंशें केलें.

“वयशीं आं जेयल्याबगर.” पंडरीन ताचीं लक्षणां पळोवन परतें सांगलें. बाबुशान चिंतलें, जयदेवा वांगडा आपली दाळ शिजची ना. आपणांक जेवण म्हारक पडटलें. रूक्मीणीनूय ताका कालच्यान आग्रो करपाक सुरवात केल्ली. पूण जयदेवा मुखार ताका सगळ्याचेर उदक सोडचेंच पडलें.

“ना. ना. म्हाका जेवपाक रावोंक जायना. नायेले वचपाक जाय.”

गुणगुणत तो नावेलकारांवटयां गेलो. तांचीं उतरां तशीं कोणाकूच आयकूंक आयलिंना. नावेलकारांक सोदीत तो तळ्यावटयां गेलो आनी काळखांत नाच्च जालो.

“इडो नाल्ल एकावन्न रूपयांक पावता, पयली खेप. इडो नाल्ल एकावन्न रूपयांक पावता, दुसरी खेप. इडो ऽऽ नाल्ल एकावन्न रूपयांक पावता, तिसरी खेप. सा ऽऽ वो ऽऽ सा.”

"नरशिंव, इडो नाल्ल घे तो." जयदेवान खोमसाच्या बोलसांत हाल घातलो. कच्च करून पयशांचें पाकीट भायर काडलें. धा रूपयेंच्यो पांच नोटी ताणें मेजल्यो आनी एका रूपयाची मोड काडून दुडू ताटांत दवरले.

"वरसाचो मान मरे आमचो, कितें आबू?"

"जयदेव मरे तूं. तुका केन्ना हार आसा?"

"आमी हक्कान इडो-नाल्ल व्हरोन मागीर हक्कान हांगासल्ली सून व्हरपी."

नरशिंवान विडो-नाल्ल घेवन केंसराकडेन दिलो. केंसरान तो घरच्यांकडेन दिलो. मागीर तीं दोगांय तळ्यार भोंवलीं. केंसरान ताका कांय नविदादी दाखयल्यो. नरशिंवान आपल्या पयशांनी ताका गांच लिंगा घेवन दिलीं. कागदांच्या फुलांची एक फांतीय घेतली.

पावणे उपरांत दोड्यामार्गावयल्या मोचेमाडकारांचें दशावतारी नाटक जालें. 'दित्ता थोम दत्ता थोम' करीत ताणीं सवन रात जागयली. लोक मात लेगीत हाल्लेना. भुरगीं पळयतां पळयतां झेमलीं. आवयांच्या आंगाखांदार लंवडलीं.

केंसर आनी नरशिंव एकेचकडेन बशिल्लीं. मदींच केंसर झेमलें. फाटफुडो पळयनासतना नरशिंवाचे मांडयेर तकली दवरून ताणें ताणून दिलें. नरशिंवान दुबावान वगीच हेवटेन तेवटेन पळयलें. सगळे मानो वयर करून नाटक पळोवपांत गुल्ल जाल्ले. नाटकांत कच देवयानी वांगडा उलयतालो. देवयानी ताच्या लागीं लागी वताली. कच तिचेपासून पयस पयस सरतालो. नरशिंवाक येवजले, कचान देवयानीक घट्ट धरूं येता, तिचो -

नरशिंवान केंसराच्या माथ्यांत कागदी फुलांची फांती माळ्ळी आनी ताचें तोंड आपले वटयां घुंवडावन न्हिदिल्लेकडेन ताच्या वोठांचो उमाव घेतलो.

***

मिर्गाचीं पावलां लागीं पावलीं. लोक काठी, मठी आनी मिठीच्या पुरूमेंताक लागले. घराचें शिंवप, शाकारप जालें. लाकूड-बडी माळ्यार पडली. माचाक लागली. मिठाचीं दोणां भरलीं. पावसाआदीं सगळ्यांनी गरजेचें सामान-सुमान

लागीं करून दवरलें. कोनशाच्यो बेबक्यो पावसाक सादोवंक लागल्यो.

पावसाची सुलूस लागनाफुडें सैमान आर्दीच साजशिणगार करून दवरलो. झाडां–पेडांच्या आंगा खांदार एक एक पानां जोड फुट्टूंक लागलो. कोंबरी – आंकरी उदेवंक लागली. कोळंबाचे धवे चांफे उलगले. तांच्या माथ्यार पांचव्याचार पानांची रास मातली. मर्दी मर्दी दोन चार मागूस चाफ्याचे घोंस तकल्यो वयर काडूंक लागले. तातुंतलीं धवीफुल्ल चांफीं सवण्यावरी पावसाच्या थेंब्यांक चोंची उकत्यो करून रावलीं. चानाइड्याचो रूपकार दोळ्यांत भरूंक लागलो. जात्रेंतल्या रथार जश्यो रंगीत घुडयो धोलतात ते भशेन चानाइड्याच्या आंगार लांब देंटाची गाड पांचवीं पानां वाऱ्याच्या झोतार झेतान धोलूंक लागलीं. चमेलिच्या माथ्यार धवेताल्ल घोंस रसरसून फुल्ले. पुडच्याफ्यांसारके परमळ्ळे. मिर्गाच्या वाऱ्यान केळीच्या चार्वटांचीं बोंदरां जालीं. एकाद्रया कलावंतान मुदूदाम कात्रीन कातरिल्ल्या सारकी दिसूंक लागलीं.

तिनसांजचे शांत–नितळ कातरीर धायदिकांनी काळोख गुपाट जालो. रूखावळ काखांत भरसून गेली. झाडांचो पांचवो कोर एकामेकांत भरसून काळ्या कोराक गाडपणा आयलो. थंड काळोख अणभवतना मनां उचंबळून आयलीं. नक्षत्रांनी फुलून वचपी मळबांत नांवाक लेगीत एक नक्षत्र उरलें ना. कुपांर कुपां दाटून आयलीं. तोवलेक लागिल्ले घशीसारको मळबाचो रूपकार जालो. मर्दीच काळ्याशार कापडाचो चर्र करून पिंदिल्ल्या फाळ्या सारकी जोगलावणी जोगलुवपाक लागली.

काळोख चकचकतासो भासूंक लागलो. सगळो कोळंब कॅणांत उजळूंक लागलो. उकत्या आंगार वाऱ्याचो थंड शितळ झोत खेळ्ळो. आनी गोंदळीक थारायल्ल्या लग्नासारको पयलो पावस झडलो.

माथ्यार पुडव्याचो शेव वडोवन मास्तर धांवतूच पंडरीले पडवेर आयलो. दडकेर तो भिजिल्लो. पुडव्याच्या शेवान आंगावयले थेंबे ताणें पुसून काडले. घरांतली सुलूस घेत तो सोप्यार बसलो.

“पावस लागलो?”

रूक्मीणीन भायर येत विचारलें. रूक्मीणीच्या आवाजान केंसर आनी नानू हुंबऱ्यार आयलीं. आवयन तांकां थंयच थांबयलीं.

“मास्तर?” नानून उलो मारलो.

“कितें रे नानू, जेयलो?” मास्तरान विचारपाक जाय म्हण विचारलें.

“हय.”

“अभ्यास केलो?”

“हय.”

“बाप्पा खंय रे?”

“बाप्पा –” नानू आडखळ्ळो.

“आजून येवना कामारसून.” रूक्मीणीन नानूक थांबयत सांगलें.

“आवय, बाप्पा घ –”

“केंसर, चल घरांत. तें भात मातशें चाळ. मास्तर, कित्याक येयल्ले तुमी?”

“पंडरी मेळपाक जाय आशिल्लो.”

“कितें काम आसलें?”

“तेकाच सांगपाचें.”

“चड गरजेचें!”

“खरें म्हटल्यार चड गरजेचें. तुमचेंच.” मास्तर सोप्यार बसलो.

मास्तरान नानूक पळयलो. तो काकुळटायेन मास्तराक तेळटालो. पांखां तोडिल्ल्या सवण्यासारकी ताची अवतिकाय जाल्ली. मास्तराच्यान तो देखाव सोसूं नजो जालो. पायांत व्हाणो चडोवन तो सोप्या वयलो उठलो.

“मास्तर, भायर काळोख आसा.”

“हय.”

“उजवाडाक कितेंय व्हर.” नानून सांगलें. मास्तर सोपणां देंवून आगणांत पावलो.

“वयता मास्तर?” रूक्मीणीन ताका हटकिलो.

“हय.” मास्तर पडवेचीं सोपाणां देंवलो.

“मास्तर.”

“कितें?”

“फाल्यां – परवां दोन दीस नानू शाळेक पावचो ना आं.”

“आवय, हांव वयचों ना कामांक.”

“नानूक शाळेंतलो घरा दवरूं नाका.”

रूक्मीणीन घडायचं करून दार ओडलें. मास्तराचीं उतरां काळखांतूच विरून

गेलीं. खिणभर ताणें दार परतें उकतें जाता काय हाची वाट पळयली. चिमणेच्या धुंवरिल्ल्या उजवाडान दाराकडेन पंडरीच्यो सदच्यो व्हाणो मात ताका स्पश्ट दिसल्यो.

***

कोळंबार नडणे-काडणेक भार आयलो. माथ्यार कण्णे घेवन कामेऱ्यां नडणेक देंवलीं. शेतकाऱ्यांनी नडून काडलें. पंडरीन मात आपल्या शेताकडेन हुंगोवन लेगीत पळयलें ना. ताचे शिरकोणेंत भाता वांगडाच धिंपरभर कुड्डे पिलयेचो नेर वाडलो. नेरांच्यो सातूय तरा एकेच शिरकोणेंत नदरेक पडूंक लागल्यो. ताचे वांगडा धोडगिरो, पोल्लें, फोणयारें, बीम, फांकरी आळे सगळे तरेची नडणी मातली. थामाचो नेट ताणीं उबो केलो. एका एका थामाक वीस पंचवीस फागूर फुटले. नडणी नासून तशेच उरले आनी पोटांत सामको अशक्त पोटूर धरूंक लागलो.

त्या दिसांनी पंडरीच्या पायांक थार नाशिल्लो. पावसाक लागून मिनाच्या कामाक नेट आयिल्लो. फकत हो म्हयनोभर मिनाचें काम मेळटलें आसलें. मागीर पावसांत शेनोरेर कोठवे येवचे नासले. ते खातीर शेनोरेर दोन कोठवे चडच आयिल्ले. आसलो नासलो माल व्हांवोवपाचो आसलो. नावेले खणीर साकून शेनोरेर माल पराय करपाचें काम नेटान चलिल्लें. पंडरीची गाडी चलताली. गाडी भरपाक रूक्मीण, बाबुसो, नानू आनी केंसर आशिल्लीं. भुरगीं ल्हान ल्हान फातर व्हरून गाडयेंत भरतालीं. पंडरी गाडी आमुडटालो. कोळंबार जागमाग नाका म्हण एक दीस वळवय फावट मारून तो कामेऱ्यां घेवन आयिल्लो. धा-बारा कामेऱ्यांचो तो मुकादम ज़ाल्लो. तांकां दिसावडो थारोवन कोंत्राजाक ताणें माल पराय करपाचें ओब्र घेतिल्लें. ताचेर ताका फायदोय बरो मेळटालो. ताणें हिशोब केल्लो ते प्रमाण पावसाभराची जोड ह्याच म्हयन्यांत जावं येताली. हे संदीचो लाव घेवपाक तो दिसरात ध्येयभान विसरून वावुरतालो. खाणाजेवणाचेर ताची वान्सा नाशिल्ली. मनाक आनी पायांकय थार नाशिल्लो.

श्रावण म्हयनो आयलो आनी पाचवोचार रंग सगळ्या सैमार विसरून गेलो. तळ्या मुखावेयले दोंगुल्लेर शेरवडाची नितळ धवीं पानां धोलूंक लागलीं. तांबशे-

केंसरी नागले मनांत भरूंक लागले. हरयाळी चरवो कशी लवलवली. म्हातारेचीं बोंदरां, वागपोचको, बोटां, दूदअळी सगळे तरेची पानपत्री रानांत रसरसली. श्रावणांतल्या चारूय आयतारांक कोळंबावयलीं भुरगीं रानांत धांवलीं. हुसहुशापणांनी पत्री तोडली. हरयाळी खुंटली, आयतार पुजले. आयतारांक आयेवांनी तेलकुकूम केलें, तशेंच तुळशीक केलें. भुरग्यांनी फुगड्यो घातल्यो.

पयल्या आयताराक पणसा-खोल्यांच्या दोण्यांनी उकडिल्ले तांदळा-पिठाचे मुटके जाले. दुसऱ्या आयताराक उकड्या तांदळांची खिचडी शिजयली. तिसऱ्याक कचकचीत चुन्नाच्यो हळदिच्या पाना वयल्यो पातोळ्यो उकडल्यो. आनी निमाणो आयतार म्हातारो मानून ताका आंगभर धव्या शेरवडांनी सजोवन पोळ्यांचो निवेद दाखयलो. तिनसांजचे कातरीर तिर्थाची पळी तांबयांत वाजयत आयतार तुळशींत पायले.

श्रावण सोंपून भाद्रपद लागलो. भाद्रपदांतली विनायकी चवथीचे परबेचो सुवाळो जालो. देडदिसा खातीर गणपती येतलो म्हण कोळंबार बोवाळ पडलो. शेण-सारवण जालें. शेड, रेबो हाडून लोकांनी आपणाल्या वणटींक सारायलो. वणटी धव्योफुल्ल आनी तांबड्योगुंज दिसपाक लागल्यो. भुरगे रानांत चंवकळे. कांगलां, माट्टटां हाडून ताणीं पोरसांत हुमकाळयलीं आनी माटोळेची तयारी केली. आरत्यो गावपाक घुमटां, शामोळ ओडून दवरलीं. ताळ, झांजी एकठांय जाल्यो. बायल-भुरग्यांचेर बोवाळ पडलो. चवथी दिसा रांदपाक कसले कसले नग करपाचे, कसल्यो फुगड्यो म्हणपाच्यो ताचो उगडास बायलां करूंक लागलीं. खंय खंय फुगोट्यो पेटोवपाच्यो, गरंजेल खंय फोडपाचे हांच्यो गजाली भुरगे चोम्या चोम्यांनी जमून करूंक लागले. सैमाचे भायले पाचवेसाणेर घराघरांतल्यान सारयल्ल्या पाचव्या शेणाचो वास कोळंबार सुटपाक लागलो.

चवथ दोन दिसांचेर आयली. तळ्यार उमळप-पिळप नेटान जावपाक लागलें. उदकाक्र शाब्बाचे बोमाडे पातळपाक लागले. एकदीस अकस्मात तळ्यार वास सुटलो. उमळटां उमळटां बायलां नाखाच्यो पुडयो फुगोवन हुंगूंक लागलीं. तळ्यावयल्यान येवपी-वचपीय वासाक 'सुंक, सुंकऽऽ' करूंक लागले.

'कसलो तरी वास येता.' येतो-वेतो म्हणूंक लागलो.

येशालो शंकर तळ्यार न्हातालो. सदचे संवयेप्रमाण एका जाग्यार रावून न्हावप ताका जमलेंना. धिंपरभर उदकांत पेंवत पेंवत तो केगदीच्या झोपांत रिगलो.

'कोण रे तो केगदींनी?' आबून तळ्यावयल्यान साद घालो. 'केगदीचीं पातीं लागोन आणबीन कातरून वयतलो पोराचो.'

आबूची जाग आयकनाफुडें शंकर आंग खरचटयत भितर ओडलो. केगदीचे खांचींतल्यान आबू गेलो काय कितें तें तो पळोवपाक लागलो. सारकें दिसना म्हण ताणें केगदेचें पातें कुशीक सारलें. कुच्च करून ताच्या तायटाक कांटो तोंपलो आनी ताची नदर कवाळ्यांत गेली. कवाळ्यांत शिवडेपोंतार हळडुवोच हातो फुलिल्लो. ताची कोंगरी तोंकां कांतयिल्लेवरी सोबतालीं. हातो पळयनाफुडें शंकराच्या नाकांत घमघम भरलो. ताची तकली कणकणली.

"आबू, आबू, रे ऽऽ" आंग खरचटयत तो भायर आयलो.

"कोणें खालो रे भैझवऱ्याक?"

"आबू, थंय...."

"कितें? मानगें आसा?"

"थंय हा ऽऽ हा ऽऽ."

"हा ऽऽ हा ऽऽऽ कितें रे? आवयची गाण?"

"थंय हातो फुल्ला."

"हातो फुल्ला!"

आबू सयत तळ्या वयलीं बायलां दोगांतिगां जाणां धिंपरभर उदकांतल्यान केगदी कडेन गेलीं. शंकरान मुखार वचून सगल्यांक दाखयलो, तशे सगल्यांचे दोळे लख्ख जाले. बायलांचे दोळे वसवसले, खोपे तट्टटले.

"हात लावं नाका कोण." आबून फर्मायलें आनी सगल्यांक कुशीक काडलीं. हात्याक आडोस करूंक ताणें बाकीचीं पातीं ओडून घेतलीं.

"पयलोच हातो हो. तळ्यार ह्यान आर्दी केन्ना फुल्लो ना. फाल्यां चवथ. फाल्यां चौखे वयल्या गणपतीक दाखोवन मागीर एकेक पाखळी पावता त्या घराच्या गणपतीक पावोंया." आबून सांगलें.

"सगल्या गणपतींक पावतल्यो?" शंकरान विचाल्लें.

"पावता थंय पावता. चौखे वयल्या म्हाल गणपतीक पावली म्हणटकच सगल्या गणपतींचो भौमान जालो."

“कितें घमघम सुटला! आऽऽ.”

“तरी म्हणटां हांव कालच्यान वास कसलो सुटला.”

“म्हाका दुबाव येयल्लोच.”

“हात्याचोच कसो वास गे!”

“आतां सगल्यांक येवजतलें. तरी बरें चवथी आदीं पळोवन.”

“शंकरान पळयलो.”

“तळ्यावयल्यान गणपती खातीरूच फुलयलो तो. शंकर आपलो निमताक कारण.”

“जावं, शंकर हरशीं कुस्कुटाक उपकारना कोणाक. पूण हातो सोदून काडलो.”

तें आयकून शंकराक खोसूय जाली आनी तो निरशेलोय बी.

“कोण हात लायशात रे थंय. काडोन चलात थंयचे.” आबून दटायले आनी तो वळ्ळो.

“आबू, कोणय भायलो येवन हेलो जाल्यार?”

“भायलो चवथी दिसांनी कित्याक पासडी पडोंक येता?”

आबू गेलो. तळ्यार येरादारी वाडली. म्हणटां म्हणसर हात्याची खबर गांवभर वासासारकी फां फू जावन पातळ्ळी. तिनसांज मेरेन तळ्याकडलो वाठार कणकणून गेलो.

***

पंडरीच्या दारांतल्या माटवार घोसाळेचीं हळडुवीं फुलां फुल्लीं. हळडुव्याच रंगाचीं पिसोळीं तांचेर भोंवर मारूंक लागलीं. झिळमिटे सांजेर खाक्याक पोती मारून बाबुसो सोपणां चडलो. हुंबऱ्याकडेन पंडरीचीं जोतीं ना तें ताणें पळयलें. तसोच तो भितर सरलो.

“कोण रे? बाबुसो?” रूक्मीणीन विचाल्लें.

बाबुशान खाक्यांतली पोती खुंटयाळ्याक हुमकाळयली. रूक्मीणीवटयां ताणें नदर मारली. भितल्ले वणटी कुशीक बसून ती वणटीक शेण सारयताली. दाव्या

हातान कवचेची पेट्टी चिमणी आशिल्ली. उजव्या हातान शेण काडटाली. मुखार शेणाचो तोप आशिल्लो. आंगार शेण उसळून कापड म्हेळें जायत म्हण तिणें जुनेर लायिल्लें. जुनेराचो इल्लोसो पालव खांदार वडयिल्लो. शेण सारोवन जायनाफुडें ती न्हावपाची आशिल्ली. चुलीर तोपल्यांत उदक तापतालें.

"रूक्मीणआका, भुरग्यांक फाल्यां चवथी खातीर माराण हाडल्या. धा आसा. जाय तशे पेटों दी."

"कित्याक नश्ट खर्च रे?"

"कित्याक?"

चिमणेच्या उजवाडान तिचें आंग तेळीत तो लागीं आयलो. तिच्या म्हऱ्यांत बसलो. शेणाच्याच हातीन तिणें पालव सारको केलो. तिच्या हड्ड्याक तो पावना जालो.

"दोनय भांगरा सारकीं!"

"कोण?" तिणें परतो पालव सावरलो.

"हीं तुजीं भुरगीं गो. केंसर आनी नानू."

"चौखेर गेल्यां. थंय मखर रंगयता चौखेवयलें."

"वचों. वचों."

बाबुसो आंग सोडून बसलो.

"पंडरी खंय?"

"पलतडी वळवय गेला. फायचो चवथी वेपार हाडूंक."

"जालो येवपाचो?"

"आतांच आमोरेर भायर सल्ला."

"सरों, सरों. येतलो सवकास. भिरांत ना."

बाबुशान बशिल्लेकडेन पांय सोडले. ताचे चेड्डुंतल्यान काळो भाग सामको फुटून दिसूंक लागलो.

"कसलो वास येता?"

"वास? हें –"

"येता.'

"वास शेणाचो तो रूक्मीणआका. रूक्मीणआका?"

"वयर बस रे."

“वयर? आसूं. वयर सकयल सारकेंच. वयर उबार. सकयल सरपट.”

“चड घातलां कांय कितें रे तुकां कोणें?”

“घातलां! खंय घातलां? रूक्मीणआका?”

“अं.”

“राव. हांव तुका उजवाड घालतां. दी ती चिमणी म्हाजेकडेन. हांव धरतां.”

“आसूं रे.”

“पळय, आतां काय बरें दिसपाक लागलें.” चिमणेच्या उजवाडान बाबुसो तिजें हड्डें तेळूंक लागलो. आंवडे घोटीत रावलो.

“रूक्मीणआका!”

“कितें?”

“तूं भागलें ह्या दिसांनी.”

“च्यं!”

“पळय, तुज्यो जांगो सुकल्यो मुगो!”

“असो कितें रे तूं?”

“हांसता कितें? पळय मुगो. पयलीं कश्यो केळीचे गबे कश्यो आशिल्ल्यो!”

“शी बाबा! दी चिमणी.”

“उठटा कित्याक? बस गो.”

“राव मरे. शेण सोंपलें. हाडटां वचोन. चिमणी सोड.” बाबुशान चिमणी सोडलिना. रूक्मीणीन दाव्या हातान शेणाचो तोप धरिल्लो आनी उजव्या हातान चिमणी. भूज हालनाफुडें तिच्या हड्ड्या वयलो जुनेराचो पालव आपशींच गळ्ळो. तरी बाबुशान तिचो हात सोडलोना. तिचें उकतें हड्डें दोळ्यांच्यो मलप्यो ताणून तो अधाशावरी पळोवंक लागलो. रूक्मीण ओंठ दामीत लजेली. बाबुसो तसोच उठलो. तिचे काशेक हात घालून ताणें तिचें जुनेर ओडलें. तशें तें भेंडावयलें गळसटलें. रूक्मीणीन बेगोबेग दिवो वाडयलो. हात वावुडटाना दिव्याचे कंवचेर बसून तिच्या हातांतलें कांकण वाडवलें.

“शी बाबा, शेण गेलें तोंडांत.”

“वचों रूक्मीणआका.”

“आजुनूय आका?”

“उजवाडांत आका. काळखांत रूक्मीण. सांग.”

“कितें?”

“पयरचें कापड कशें लागलें?”

“बरें! बरें ऽ दिसता.”

“च्यॅ.”

“च्य! कितें?”

“कापडा परस तूं जुनेरांत बरें दिसता.”

“आंवय!”

“आनी जुनेर नासतना तर विचारूंकूच नाका.”

“शी! वास येता तुज्या तोणाक.”

“म्हाज्या तोणाक न्हू. खुंटयेवयले पोतयेंत.”

“पोतयेंत?”

“तुका कितें हाडलां. पयलीं बोणी तुजी. तुज्या खोप्यांत माळूंक.”

“शी! केंसांत हात घालूं नाका.”

“आनीक खंय घालूं?”

“कितें हाडलां?”

“तूं सांग.”

“सांग रे.”

“हातो.”

“हातो?”

“हय.”

“खंयचो?”

“सांग खंयचो?”

“पापया, खंयचो हाडला?”

“इतलें करून हांव पातकी मुगो? तुजेखातीर पुण्य जोडलां. तळ्यार फुललेलो.”

“तळ्या वयलो?”

“कोणांक कळनासतना सुतलायला. आगो, आगो! उठलें! उठलेंशें?”

“दिवो लाय. दिवो लाय.”

रूक्मीणीन तसोच दिवो पेटयलो. न्हेसणाची तिका सुदबूद नासली. बाबुसो चेड्डी सारकी करीत उठलो. रूक्मीणीचें अचकीत कितें घडलें, ताका कांयच

कळ्ळें ना. तो बुचकळ्यांत पडलो. ताका शेळो घाम सुटलो. रूक्मीण तर थरथरूंक लागली.

"पापया, तो हातो सगल्या कोळंबान पळयला. फाल्यां चौखेवयल्या गंणपती खातीर दवरलेलो. आमगेर पावला म्हण कळत जाल्यार तुजेसकट सगळो गांव खातलो आमकां."

"आतां.... आतां..."

"काडला तसो कोळंबा भायर घेवन वच."

"पूण..."

"पूणबीण कांय ना. खिणभर रावों नाका हांगा."

बाबुसो पोटली खांकेक मारून आयलो तसो गेलो. मदल्या काळांत कितें घडलें ताका कांयच येवजना जालें.

***

चवथीच्या णव्या दिसा वर्सुकी बारस जाली. गांवच्यो चार तक्षिमो आशिल्ल्या चौग जाणांच्या वांट्याक सगळो खर्च आयलो. नावेलेचे गांवकार आपणाल्या हक्कान आयले. नावेलेचे म्हार-चांबार वाडयेक आयले. आमोणेचो घाडी सांगण्याक आयलो. भावणी-कलवंतां रूढीप्रमाण आयलीं. बारशिचो सुवाळो पळोवंक वळवय साकून तारिच्यो तारी कोळंबाचे धडेक लागल्यो. पाळी, उजगांव, रूमड हांगा साकून लोक धुल्ल माड्डयत आयले. करंजाळ, आडपय, घोंग्रें ह्या गांवांतसून कोळंबाचे जांवय आपणाल्या बायल भुरग्यांक घेवन एकदीस आदींच राबित्याक आयले.

कोळंबार वरसाचो बोवाळ पडलो. गोरवां-वासरां बुजूंक लागलीं. सुर्णी अनवळख्यांक पोटकडी ताणून भोकूंक लागलीं. कोंबयो-कुकडां पाखांटे फुलयत वाटेतिटेक नाचूंक लागलीं. कावळ्या-सवण्यांचेर हावळ आयली. चौखे वयर तीं भोंवर मारूंक लागलीं. पाखांटे हुबयत व्हान्यार ताणें अच्छेव मांडलो.

सांजवेळा बारस जातकीच रातची सगळ्या भौसाक जेवणावळ पडची आशिल्ली. ते खातीर जेवणाची तयारी सकाळपासूनच चलताली. जेवणाच्या

उगडासान कांय जाणांनी पोटार अचळय हात भोंवडायले.

कुडव कुडव उकड्या शिताच्यो राशी हाथरपट्यार पडटल्यो आसल्यो. वेलंगीचे रांदपी हूम वाल्याक पुशीत उसपितले आसले. धगमोड्या उदकांत कुळडांचें पीठ घालून रांदपी धवळटले आसले आनी मागीर गोड, सय घालून खीर कशी चिकचिकीत पिठी रांदतले आसले. धा-बारा आदोळ्यां वयलें आळूं एकठांय करून व्हडल्या तोपल्यांत शिजयतले आसले आनी दबदबीत जातकीच दवरतले आसले. उपरांत तासलेल्या आंबड्यांचो फोण्णी मारून हळडुवोच कुंवळ जातलो आसलो.

म्हाल म्हातारे देवदेवतांक निवेद दाखयतले आसले. मागीर पंगती बसतल्यो आसल्यो. नावेलकार गांवकार पयले पंगतींत. मागीर घाडयांची पंगत. कोळंबाचे गांवकार, सोयरे-धायरे, कलवंतां-भावणी आपआपणाल्या पंगतींक. म्हार-चांबार पयस कडेक. 'हर....हर...' करून जेवणावळीक सुरवात जातली आसली. कर्मळांच्या पानां वयले पिठीच्या भुरक्यांचो भुर्र ....भुर्र.. असो आवाज पंगती-पंगतीक जातलो आसलो. कांसाटो खोवन आनी वालो खांदार वडोवन वाडपी वाडटले आसले. मर्दी उबो रावून आबू कोणाक हय नाका तें पळयतलो आसलो. परक्यांक आग्रो करून दवलो दवलो वाडपाक फर्मायतलो आसलो. सगळे येतिश्ट भूस मारतले आसले. भुरग्यांक आचुंवपाक उठूंक कुस्तार जातलें आसलें. एकामेकाचो आधार घेत ती उठटली आसलीं: सगल्यो पंगती उठटकीच व्हाऱ्यार कर्मळाच्या पानांची व्हडली रास पडटली आसली. सुण्यामाजरांची घुरी थंय पडटली आसली.

सुर्या अस्तंतेकडेन लकलो तेन्ना बारशीचे मुखेल कार्यावळीक सुरवात जाली. दादल्यांनी खोमसां, धोतरां फापडून चडयलीं. तोपयो, मुंडाशी खुंटयांवयलीं काडून माथ्यार दवरलीं. बायलांनी कापडांच्यो घडयो मोडल्यो. तारा-पोरांनी सदर्चींच पूण उमळिल्लीं धोलार चडयली. तळ्यार सगळे जमले. कितें कितें घडटा तें बारीकसाणेन पळोवंक लागले. जाणकार बायल-भुरग्यांक समजावन दिवंक लागले.

व्हडल्या घरच्यान म्हळ्यार म्हारान आपणालो नवो ताल्ल पाटलो सगल्यांमदीं दवरलो. बायल-भुरगीं कुशीक सरलीं. पाटल्यांत कितें दवरता तें मानो बागोवन पळोवंक लागलीं. गर्देंतल्यान वाट काडीत आबू पाटले म्हऱ्यांत आयलो.

आपणाल्या दोनय हातांतली वस्त ताणें पाटल्यांत दवरली. सगळ्यांचे दोळे लकलकले. सोबीत बरें कांतयल्लेवरी शिताचें बावलें आसलें. निकतेंच जल्माक आयिल्लें माणकुलें बाळक कशें तिकतिकतालें. मागीर काळे, तांबशे पिंजरीन ताका माखयलें. ताज्या आंगा-पांगार काजळ शिंपडायले. ताका सामकें विद्रूप केलें. पळयतल्यांक पळयनाफुडें भंयान काळजांत चर्र जावपाक लागलें.

तिनसांजचे कातरीर धोलकें वाजलें. शेनाय लागली. वाजपाचो आवाज दोंगुल्लेचेर आदळून परतो कोंळबभर भरलो. आनी मागीर आमोणेचो दत्ता घाडी मुखार आयलो. घाडयाच्या सांगण्यांक 'हय सायबा' करपाक सगल्यांनी कंवडाळें केलें. सगल्यांनी हुस्वास दामून धरलो. एका एका देवाच्या नांवान घाडयान होरावपाक सुरवात करतकीच लोकांच्या आंगार शिरशिरी आयली. मोडभाशेच्या सांगण्यान खऱ्यांनिशीं देव सामखार उबो राविल्लेवरी जालो.

*... देवा स्वामी समर्था,*
*'हय सायबा.'*

*... तूं देवधनी कोळंब सारकी भूमका, मूळमाया, मायभूमका मायेच्या आकाऱ्या, गांवधड्याच्या अधिकाऱ्या, ग्रामजोडत्या, ग्रामपुरूसा माज्या समर्था...*
*'हय सायबा.'*

*..श्रीशिवशक्ती अमृतेश्वरासारक्या कोळंब ग्रामजोडत्या ग्रामपुरूसा माज्या समर्था...*

*'हय सायबा.'*

*... बेताळ, पुर्वस, लक्ष्मीम, रवळनाथ, रूप्याभगत, लिंग म्हादेव, नारायण देव, भूतनाथ घाडवस, तू बारा वंस कोळंब सारको देव तूं माज्या समर्था...*
*'हय सायबा.'*

*'.... आज कोणा वेळाक, कोणा काळाक तुयें कशे रितीन जागभाक दिल्ली, शब्द दिल्लो त्या शब्दाचो तूं आठव कर माज्या समर्था...*
*'हय सायबा.'*

*... आज तुयें कोणा वेळाक, कोणा काळाक घडना तें घडोवन, वठना तें वठोवन, मेळना तें मेळोवन दिवन आज तूं घाटाचो मस्तक, दर्याचो किनारो अशे कैक किर्तिचो तूं देव माज्या समर्था...*

*'हय सायबा.'*

*.. त्या प्रमाण तुयें फळ मारून, थळ जोडलें. निराकाराक आकार करून मायेन मायेचे पंचिश्टांचें एकचीत एक गणीत तुंयन केलें माज्या समर्था....*

*'हय सायबा.'*

*... अशे गोश्टीक आठ चौक बारा माने, पांचशी पिळगी ल्हयल्ह्यावेळ ही गांवग्रस्त प्रजा तुकां शरण येयल्ली आसा माज्या समर्था...*

*'हय सायबा.'*

*आज तूं काळाचो म्हाकाळ, खोट्याचो वस्ताद, रोगाचो धनमंतरी अशे कैक किर्तिचो देव तूं माज्या समर्था...*

*'हय सायबा.'*

*आज तूं काळाक शिक्षा करणारो, रोग्याक अमृत पाजणारो, तुटलेलें गाठयणारो, शेणलेलें सोडून दिणारो अशे रितीचो देव तूं माज्या समर्था...*

*'हय सायबा.'*

*तशेच रितीन न्हिदल्ल्याक जागो करणारो, मोन्यांक उलोवंक लावणारो, तळपट्या सड्यार रक्षण करणारो अशे रितीचो कैक किर्तिचो तूं देव माज्या समर्था...*

*'हय सायबा.'*

*त्या प्रमाण तुवें कोणा वेळाक, कोणा काळाक, जाणां खुळ्याक मेळयल्ले, पिशा खुळ्यांक सामील केल्ले तेणें करून पै-पातक फेडून भायर घाल,*

*अन्नवस्त्र दी,*

*तुज्या पायांची शेवा-चाकरी करून घे,*

*येस दी,*

*आनी बरें कर माज्या समर्था.*

*'हय सायबा.'*

सांगणें सोंपलें. धाय वाटांनी काळोख भरून आयलो. वाजपाक नेट आयलो. शेनायेच्या सुरांनी वातावरण थरथरलें. धोलक्याच्या आवाजान वातावरणाचे कुडके कुडके निखळयल्लेवरी भासूंक लागले. बावल्यासयत पाटलो घाडयान माथ्यार घेतलो. वाजपा वांगडा सगळो मेळ तळ्या भायर पावलो. बायलां परतुवपाक लागलीं. मुखार वतल्या भुरग्यांक फार्टी येवपाक दटावंक लागलीं. चडसो लोक

समाधानाचो सुस्कार सोडीत परतलो. एकएकलो उलोवपाक लागलो.

“तें बावलें आतां खंय दवरतले?”

“पायतले. गणपती पायता तसो.”

“आतां सगळो पिडा रोग न्हंयेंत बुडटलो.”

“बारशीचें देवस्पण म्हणजे सगळें खोटें–नाटें बावल्याच्या रूपान शिमेभायर दाळपाचें.”

“म्हण बावल्याक विद्रूप करतात.”

“आतां गोरवां–वासराक भंय ना.”

“शेता–पाणयांक दगदग ना.”

“काजू–आंब्याक भिरांत ना.”

“ते खातीर सगळें पवित्रतायेन आनी नितळसाणेन जावंक जाय.”

“मात खंय भश्टाकार जायत जाल्यार देवस्पण फसता.”

“चला आतां सगळे चौखेर भुसक्याक.”

बावलें घेवन पंचविशेक जाणांचो मेळ दर्याधडेकडेन पावलो. पेट्टे कवदे वयर धल्ले, वाजंत्री बांदार रावन वाजोवपाक लागले. बाकीचे कुशीक रावले. फकत घाडी आनी आबू उदकाकडेन गेले. आबून पाटलो सकयल दवरपाक घाडयाच्या माथ्यार हात घातलो.

“कसली घाण येता?” घाडयान म्हणलें. आबून लक्ष दिलेंना. तार्णी पाटलो सकयल दवरलो. कवद्याच्या उजवाडान बावलें उखलपाक दोगांनी ओणवं घातलो आनी दोगांयचे दोळे धवशे जाले. ताळ्याक सुकताडो पडलो. म्हाल–म्हातारे आसून लेगीत दोगय आंग–पांग थरथरले.

“आवयस्!”

आबून घाडयाच्या तोंडार हात धरलो.

“कोणांक म्हणों नाका.”

दोगांयनी मोन्यांनी दोळे धांपून पांटलो उदकांत उमथिलो. फाटोफाट एक ल्हार उसळ्ळें. गडगंज फातरांची धड खिळखिळायत गेलें.

***

# 6

**पा**वस सोंपलो. तरी मर्दी मर्दी आडवेळ्या पावसाच्यो दडको शिताडो कश्यो शिपडूंक लागल्यो. वोत आनी पावसाचो कुटुऱ्यांचो खेळ सुरू जालो. ''वोत येता पावस येता माकडाचें लगीन जाता'' अशें आड्डून भुरगीं खळ्यांत नांचूंक लागलीं.

सर्द पिकलें, लुंवणी जाली. कुतल्लां बांदार मानो वयर काडूंक लागलीं. पूण वरसासारको धिटायेन मानो उब्यो जाल्यो ना. मानायांचो बोवाळ आयकूंक आयलोना. मळणेचो गोंदळ कोळंबार जालो ना. सगळें जातालें पूण गती नाशिल्ले भशेन. मुद्दम जिवार उबगून केल्ल्या सारकें.

तिनसांजच्या वेळार सदचेवरी लोक तळ्यार येताले. पूण पयलिंच्या सारक्यो शेता-पाणयांच्यो खबरी चलनासल्यो. झडटाल्यो त्यो मिनाच्या वावराच्यो. दादाले गादयेरूय शेता वाट्याच्यो मिनाच्योच झांकडी चलताल्यो.

सांज-सकाळ तळ्यावयल्यान मिनाचे खणीर वचपी लोकांची हार कोळंबावयल्यान दिसताली. चडसो लोक पलतडी वळवय सावन येतालो. तातूंत मानाय आसताले, बायलां आसतालीं आनी आटसाट्या भुरग्यांचोय आस्पाव आसतालो. पयलीं मिनाक वचपी वळवयकारांक पळोवन कोळंबकार म्हण :

'वळवळ्या गांवचो लोक. पोटाखातीर खंयूय पावता.'

पूण आतां कोळंबकारांक ते गजालीचो विसर पडलेलो. सकाळीं वळवयकारांची हार तळ्याकडल्यान झळकली म्हणटकीच कोळंबार ताकतीक जाताली. मानाय-कामेऱ्यां आपणांले जेवणांचे डबे बांदतालीं. मानाय खांदार तुवाले वडयताले. पायांत व्हाणो चडयताले. कामेऱ्यां कासाटो खोयतालीं. ताचेर तुवाले बांदतालीं. चेडवां पायां मेरेनचे घागरे धिंपरां मेरेन कवळटालीं आनी ताचेर तशेच तुवाले गुटलायतालीं. कडव्याचे खांचितल्यो चुंबळी काडटालीं आनी आंगणांतसून वतां वतां पोरसांतलें फूलचामळ खुंटून माथ्यांत खोयतालीं. कोळंबा वयलो मुकादम पंडरी सकाळीं शाणूक, येशाक सादयत भायर सरतालो. मागीर सगळें भिरें वळवयकारांचे हारीक जोडटालें.

***

प्रार्थना जातकच सावळ्या मास्तरान वर्गार नदर भोंवडायली. सदचे सारको तो निरशेलो. अर्दे सुमार भुरगे हाजीर आशिल्ले. भुरग्यांक एक नवें गणित शिकोवपाचो राती ताणें बेत केल्लो. फळ्यार गणिताचे आंकडे उठूंक लागले. भुरग्यांनी पाटयेर उतरावन घेतलें. मानो बागोवन ते सोडोवंक लागले. सावळो मास्तर कपलाक आठयो घालीत मदल्यान पासयो मारूंक लागलो.

"आजून कोणाचें जावंना ? शंकर!"

"मास्तर, शंकर येवना."

मास्तर परत पासयो मारूंक लागलो. जायत्या वेळान एकलो पाटी घेवन उबो रावलो.

"मास्तर, काडली जाप."

"पळोवंया. चूक."

"चूक?"

"हे अदीक काय उणे केल्यात?"

"उणें."

"ते अदीक करप."

“अदीक केल्यार फुडलें चुकतलें.”

“पळोवंया.”

“तशें जाल्यार मास्तर, तुमचें सगळें गणितच चुकलें.”

“हय. चुकलेंच.”

मास्तराक आतां उगडास जालो. राती ताणें येवजिल्ली जाप आज खरेपणी चूक आशिल्ली. भुरग्यांमुखार अशी हार खावप हें ताच्या मनाक लागलें. पूण ताणें आपली चूक मान्य केली. तकली जाग्यार येयसर गणिताच्या गोंदळांत पडपाचें ना अशें ताणें थारायलें. आयज शिकोवंचें तरी कितें असो प्रस्न ताका पडलो. ह्यानआदीं अशी पाळी ताचेर केन्नाच आयलिना.

“मास्तर, काणी सांग.” मास्तराची नुरा पळोवन एकल्यान म्हणलें.

“मास्तर, गणितां सोडोवंक शंकर आनी नानूय ना.”

“काणी, काणी.”

भुरग्यांनी पाटयो पुसल्यो. बोटव्यांत भरल्यो. अभ्यास चालू आसतना काणी सांग म्हणपाचें धाडस केन्नाच कोणें करूंक नासलें. पूण आयज सगळें विपरीतूच घडटालें.

“एक आसलो राजा.”

“मास्तर काणी सांगता, काणी सांगता.’ भुरग्यांनी वांगडाच बोवाळ करून चौखी माथ्यार घेतली. मास्तरान आर्दी सांगना सवरिनासतना अकस्मात काणयेक सुरवात केली म्हण कांय भुरगीं अजापलीं. पूण काणयेचे खोश्येन कोणाक कांय लागलें ना. मास्तरान काणयेक सुरवात केली तेन्ना सगळी शांतताय चौखेर पांय सोडून बसलीं.

“राजाचें राज्य माणकुलेंच आसलें. तुमच्या कोळंबायेदें. राजा सगल्या राज्याक एकेच नदरेन पळयतालो. कोणाक उजवे नदरेन वो कोणाक दावे नदरेन पळयनासलो. लोक सुखान नंदताले. आपणाले उद्येगधंदे बरे तरेन करताले. राजा सगल्यांच्या उद्येगांचेर नदर दवरतालो पूण कोणाचें मापभर घेयना आसलो. कोणाच्या कुस्कुटाक आफडिना आसलो. तो म्हण : तुमी जोडात, तुमी खायात. तुमी घाम गळयात, तुमच्या भुरग्या–बाळांक पोसात. आपूण जरी राजा आसलों तरी आपूण तुमचेवरीच मनीस. म्हाकाय तुमच्यासारके देवान हात पांय दिल्यात. वावर करूंक बळगें दिलां. हांव तुमकां पोशिना तशे तुमीय म्हाका पोसूं नाकात.

राजा लोकांक आनीक एक गजाल सांगतालो. तो म्हणटालो : जगप म्हटल्यार फकत वेंतभर पोटाची खळी भरप न्हू. तुमच्या भुरग्यांक भाटांतले कावथे कशे वाडोवप. तेंकां बरे तरेचें शिकप दिवप. परकी राज्यांत गेल्यार थंयच्या लोकांनी तेंकां उठबस करूंक जाय. राजा भुरग्यांखातीर इतकें सांगतालो. तो बायलां मनशांक म्हण : अब्रू कंवचेच्या कांकणा भाशेन आसता. एकदां वाडवल्यार सांदूंक येयना. राजा सगल्यांक सांगतालो पूण राजाक राणी नासली. राजाक राजकुंवर नासलो."

"मागीर कसलो राजा?"

"राजाचें काळीज दोंगरायेदें आसलें." मागीर मास्तर बरोच वेळ कांयच उलय नासतना थारलो. भुरग्यांनी वाट पळयली आनी विचारलें.

"फुडें कितें जालें?"

"मास्तर?"

"आं!" मास्तर अकस्मात भानार आयलो.

"मास्तर, शंकर येयला." भुरग्यांनी सांगलें.

"शंकर कित्याक येयला? धांपेता कित्याक?"

"आबूचें चड जालां. तुकां आपयला."

***

"मास्तर येयलो?" आबून ताका पळोवन विचाल्लें.

"आबू, कितें जालें अकस्मात?" मास्तराक खरस लागिल्ली.

"अकस्मात कांय ना. वयले रचणुकेप्रमाण सगळें घडटा. आमच्या सारकिल्ल्या पातक्यांच्या हातीन कितें आसता?"

"पातकी कित्याक?"

"मास्तर, पातकीच आमी. आदल्या जल्मांत कसलीं तरी पातकां केल्लीं तेचें पानवळ आतां भोगतां."

"पूण कोळंबासारको गांव हायें आनी खंय पळोवं ना."

"कोळंबाच्या गांवची काणी सांगतां तुका. मांडवी न्हंयेन सामको वेटकाळो

घातला कोळंबाक तेची काणी. मांडवी न्हंय लकत लकत आनी मोड़त मोडत वयताली. वाटेंत दिशट लागसारको माणकुलोच कोळंब तिचे नदरेक पडलो. तिणें फाटफुडो पळयलोना. आवयच्या मोगान बाळक कशें उखल्लो आनी हांडीर धरलो. न्हंयेचे हांडीर कळसो कसो कोळंब आसा. सारको भरलेलो. बाराय म्हयने उदकाक मर ना. कोणेंय येवंचें, ताळो ओलो करून वयचें.''

उलयतां उलयतां आबूचो ताळो खणखणलो. मास्तर बेगिबेगीन उठलो. आबूले कुडींत ताणें हेवटेन तेवटेन पळयलें. उदकाचें आयदन ताका खंयच दिशटी पडलें ना. चुलीखुरार घसीन भल्लेलो मातयेचो बुडकुलो उमथो आशिल्लो. आलीमेनचे दोन–तीन तोप कडव्या खांचींत आशिल्ले. तांचेवयले फोड सारके दिसताले. चुलींतलो गोबोर विद्रूप हांशावरी हांसतालो. दोनचार कांबी–बोडकां जळून पडिल्लीं. चुलींत दोन–चार दीस उज्याचो धग ना हें स्पशट दिसतालें.

''आबू?''

''मास्तर, तळ्याचें उदक आसासर म्हाका चुलींत उजो करपाची गरज ना.''

''उदक तरी पी.''

''नाका. व्हदळ शंकराकडसून हाडून घेतलेलें.''

''हांव हाडटां.''

''मास्तर, म्हाजें मागीर. आदीं गांवाची काणी आयक. म्हाज्या उपरांत तुकां कोण सांगतलो?'' आबून ताका लागीं आपयलो.

''सोंपली न्हूं?''

''आनीकआसा. पांच पांडव खंय अन्न्यानवासान आशिल्ले तेन्ना कोळंबा येयल्ले. एके रातीन आनी एके वातीन तेणीं तळें तयार केलें. तुयें पळोवंक ना, तळ्याची केदीं खडपां कातल्ल्यांत तीं. मनशांकडेन जावपाची बांदावळ न्हूंच ती. पांच पांडव खंय मागीर मुखार गेले. आलतडसून तेणीं पलतडचो गांव पळयलो आनी म्हणपाक लागले खंय 'तो गांव वळवळो. आमी थंय वयचे न्हू.' आनी परतले. ते खातीर वळवय गांवाक वळवय नांव पडलें. आमी वळवयकारांक हे गजालीचो उगडास करून सदांच चाळयताले. पूण मास्तर, आतां मात आमी दुसऱ्यांकडल्यान चाळोवन घेवपाचो वगत येयला.'

आबूचो ताळो भरून आयलो. तेसरशीं ताच्या हड्ड्यांत खोकली दाटली. धांपीन ताच्या हड्ड्याच्या बोरीचो सांपळो वयर सकयल जावंक लागलो.

''चड उलोवं नाका आबू.''

"आतां उलोवन, ना उलोवन कांयच उपेग ना. कोणाक सांगनाय बी. फकत तुजेखातीर."

"कोळंबार आतां बरे भुरगे जातले. रामविजय, हरिविजय वाचून अर्थ सांग सारके."

"मास्तर, रामविजय आनी हरिविजय आतां नावेले खणीर वाचल्यार जायत. पूण थंय तरी आयकोंक कोणा मसण्यांक फावत! मास्तर, आतां भजनांक चौखेर कोण दिसता? रामविजय आनी हरिविजय आयकोंक येयत? आनी सांगतले कोण? माथ्यार फातर घेवन मान कणयल्ले भांगरासारके भुरगे?"

"आबू, तुकां...." मास्तर अजापलो.

"काचाबूल जावं नाका मास्तर. म्हाका सगळें खबर आसा. शिगम्याचे पुनवेदिसा नानूच्या माथ्यावयली दिवली कशी पडली जाणां हांव. सगल्यांनी दुशेणां मात तुका दिलीं. पाड्याक फुंकता सोरोप पूण अपसर्ण मात राखण्याचेर तशें घडलें. म्हाका समजलें पूण खूब उसरां समजलें. नाजाल्यार तुकां जीं दुशेणां दिल्लीं –" आबूक खांक आयली.

"दिवं."

"कित्याक दिवं? आमी भैझवरे पातकी. तूं देवमनीस."

"कोण म्हणत तुका पातकी?"

"हांव सांगता मास्तर. पातकीच आमी. नाजाल्यार सर्दाच्यो मळण्यो सोडून लोक मिनाचे खणीर कित्याक पासडी पडोंक वयतले आशिल्ले? सायलासारके आंगा पांगान घटमूट घोव आसतना आमच्या बायलांक जिन्याचे खूंट कशे मरतुकडे दादले कित्याक कुशीक घेवन न्हिदोंक जाय आशिल्ले?"

"गांव आसा थंय म्हारवाडो आसाच न्हूं?" मास्तरान समजायत म्हणलें.

"ना मास्तर. व्हान्यावयली अवतिकाय आमची. घरचें सोडून व्हान्यार पांखाटे जड करूंक वयतात आमी."

"निवळटलें." मास्तरान ताका थातारपाचो यत्न केलो.

"निवळपाक गिराणूय न्हू तें. सगळो भश्टाकार. खावपांत भश्टकार, पिवपांत भश्टकार, कामां उद्येगांत भश्टकार, आतां कोणाचीं बियां कोणाच्या शेतांत किल्लत तें तो एक तळ्यावयलो जाणां. मास्तर, भश्टकाराचें म्हणटा तें फट न्हूं."

"आसत खरें."

"आसाच. म्हुणोन हांव असो धतरीक तेंकलां. तुकां म्हणोन सांगता. आनीक

सांगपाचे लायकिचो कोणूच ना दुसरो. लागीं यो.''

''सांग.'' मास्तर आनीक लागीं आयलो.

''बारशीक आसलो मरे तूं?''

''हय.''

''बारस वरसा सारकी जाली?''

''जाली अशें लोक म्हणटा.''

''लोक दिसता तें म्हणटा. बारस वरसासारकी सफळ जाल्ली जाल्यार हें अशें उरफाटें कित्याक घडपाचें?''

''कितें विपरीत घडलें बारशीक?''

''बारशी दिसा सांगणें केल्लो आमोणेचो घाडी -''

''तेका पिशें लागलां खंय!''

''लागपाचेंच. मोडभाशेचें सांगणे करपी येदो व्हडलो घाडी तो. सगल्या देवदेवतांक उबो करपी. तेणें दोळ्यांनी पळयलें तें पिशें लागपाचेंच. एकेवटयां पिशें लागलें तें बरेंच जालें. कोणांक सांगूंक पावचोना. तेच्या माथ्यारूच आसलें तें अरिश्ट.''

''बारशिचें शिताचें बावलें.''

''हय. तें उदकांत सोडपाचें आसलें. वाजंत्री आनी लोक न्हंयेधडेर रावले. वरसासारको घाडी आनी हांव बावल्याचो पांटलो घेवन उदकाकडेन गेले. हांयें घाडयाच्या माथ्या वयलो पाटलो सकयल दवरलो. घाडी म्हण, 'कसली तरी घाण येता.'' हांयें ताचेर लक्ष दिलें ना. कवद्याच्या उजवाडान आमी बावल्याक उखलूंक ओणंव घातलो आनी -''

''आनी?''

''आनी कितें पळयतलो! बावल्याक हे ऽऽ येदे शेपाड्याचे किडे हुसहुसताले.''

***

दुसरे दीस तळ्यार उदकाक सदच्या सारकी बायलांची गर्दी जाली. दादले

मात कोणच नदरेक पडना जाले. दोडी भरता – उखलतना बायलां एकमेकांच्या कानांत फुतफुतपाक लागलीं. वाटेर मेळटा ताका थांबोवन हातांतल्यो कळसुल्यो सकयल दवरून सांगूंक लागलीं.

‘‘केन्ना गे?’’

‘‘राती दिसता.’’

‘‘काल बेस बरो आशिल्लो खंय!’’

‘‘वगी राव गे. कसलो बेस बरो? बारस जायत पसून हांथूण धरलेलें तें सोडूंक नाशिल्लें.’’

‘‘कोण वाडटालो रांदून?’’

‘‘रांदून कोण वाडटलो?’’

‘‘मागीर गे?’’

‘‘रावतालो दिसता तळ्याचें उदक पियेवन.’’

‘‘तो त्या येशालो पोर शंकर दितालो व्हरोन उदीक.’’

‘‘तेका बापायन असलेच धंदे करूंक काडला.’’

‘‘कोण करतलो मर्ण तेचें?’’

‘‘निपुत्रीक.’’

‘‘ह्या खातीर कोणाचें बरें करून येवंक जाय. निदान बरें तरी उलोवंक जाय.’’

‘‘गाळीं बगर उलोवप नाशिल्लें. सोयरो ना धायरो. सगल्यांक एके पायलेन मेजपी.’’

‘‘त्या बाबुशाक आनी अंदू मळणेर कसलें दिलें खंय!’’

‘‘सगल्या गांवाचें आपल्या माथ्यार.’’

‘‘म्हण आतां खांद दिवंक कोण ना.’’

‘‘सावळो मास्तर आसा न्हू गे.’’

‘‘तो कित्याक?’’

‘‘कित्याक? सावळ्या मास्तराचो खंड तो गाळी घालून सगल्यांकडल्यान पावतो करून घेयना आशिल्लो?’

‘‘शिगम्या पुनवेक त्या पोराचेर दिवली पडोन फाट भाजली तरी तेणें उण्या उतरान मास्तराक विचारलेंना. उरफाटें मास्तराक दुशणां दितल्याचो आवय बापूय काडलो.’’

“जावं गे. आतां उलोवन उपेग कितें? कशी तरी घाण काडूं जाय न्हू गांवांतली.”

“आमगेलो हो आनी सकाळींच खणीर गेलो. तेका खबरूच ना.”

“वगी राव गे. सगल्या कोळंबाक फांत्यार खबर जाल्ली. त्या मास्तरान शंकराक लावन सगळ्यांक पेरगांव घालूंक लायलेलें.”

“कोणाक पडलां कोणाचें! मरतलो मरोन वयतलो. दिसावडो कोणें दिवंचो पडला?”

“हय तर, जगतलो जाल्यार पोट आसा न्हू गे?”

“फाटल्यान कांय जोडून दवरिना जाल्यार मागीर अशी गत. खांदो मारूंक कोण तयार ना.”

सकाळ उदेली तशी गेली. गांवांतलो एकलोय दादलो मनीस आबूचे खोपीकडेन आयलोना. कांय बायलां आयलिंशीं करून गेलीं. बेश्टींच चुरचुरलीं. सुक्या पातकोड्यांक पालव लावन गेलीं. सावळो मास्तर मदीं मदीं येत आशिल्लों. शाळेक सुटी दिल्ली. आज सावळ्या मास्तरान आपल्या बिराडार चूल पेटयलिना. आबूचे खोपीकडेन नदर लावन तो भायर तामरेतीर बसलो. हरशी वाटेक जाग आसताली. पायणींतल्यान लोक येता-वताले. पूण आज कोणच झळकनाशिल्ले. झिलींच्या आडसून मात कोण मदीं मदीं आडो हुबतना दिसताले. सदां खणीर साकून दनपारां जेवणांक मानाय घरा येताले. आज पायणींतल्यान येतना-वतना कोण दिसलें ना. पायणींत वचपी भुरग्यांक आवयो दटायताल्यो, धेंगशेताल्यो.

आबूच्या मरणाची खबर सक्काळीं झिळमिट्यार शंकराकडसून आयकनाफुडें मास्तराक धसको बसलो खरो पूण ‘सुटलो’ म्हण ताणें समाधानाचो सुस्कारय सोडलो. आपल्या बिराडावयली पणटी आनी तेल व्हरून ताणें खोपींत वात पेटयली. दोन उजवातीय पेटयल्यो. शंकराक सगल्या गांवार सांगूंक धाडलो. शंकर धांवत गेलो तसो सगल्यांक कळीत करून धांवत आयलो.

तिनसांज मेरेन कसोय करून इलो जायत अशें मास्तराक दिशिल्लें. पूण तिनसांज मेरेन कोणच झळकलोना. मास्तरान लापयांव पेटयलो. हातांत एक कोण्याचो दांडो घेतलो आनी तो आबूचे खोपींत येवन बसलो. शंकर मास्तरा

वांगडा रावंक सोदी पूण ताणेंच ताका मुद्दम घरा धाडलो. रातभर मास्तराच्या दोळ्याक दोळो लागलोना. मात पातकडी हाल्ली ना.

पयल्या कोंब्यासादार तो उठलो. तोंड धुलें आनी बिराडार आयलो. तळ्यारसून परततना ताणें दोग तीग जाणांक पळयले पूण ताणीं मास्तराक मुद्दम पळोवंक ना सो करून फुज्यो काडल्यो. मास्तरान कोणाक हडकिलेनात. सकाळीं कालचीच गत जाली. ह्या कानाचें त्या कानाक कळनासतना सगले आपापल्या कामाक गेले. तळ्यार उदक भरतल्यांच्या गजालींबगर आबूचें कोणाक पडलें ना.

“आगे, फांतोडेर आबू खंय तळ्यार गेल्लो.”

“कितें गे?”

“हय गे. भूत तेचें. तो वचना आसलो तळ्यार पयल्या कोंब्यासादार? दांडो वाजतालो तो हायें आयकला म्हाज्या कानांनी.”

“आगे बाये, भिरांत मुगे पोरातारांक.”

“शी बाये, जितेपणी तशें सतायलें, आतां अशें भुतां जावन.”

“निपद्री अशेच खंय.”

“देवस्पण करून दाळूंक जाय आसलो फाटल्या पुर्वाक.”

“आदीं मड्याचो तरी इलो करूं नाका गे?”

“अशे कितें गे बाये दादले हे! मात्तूय मनीसपण ना.”

“मागीर तुगेलो दादलो कित्याक गेलो ना माथें मारूंक?”

“तेणें एकल्यानूच वयपाचें? पयलीं कोणय गेल्यार वयचो नासलो?”

“पयलीं कोणें खांद दिवप? कोणें पोटलो खाल्ला तेचो?”

“आसूं गे, कोणाच्याच मनांत ना. हातीन कशें जातलें?”

***

सुर्या कांसरोभर वयर आयलो. सावळ्या मास्तरान शंकराक दादाले गादयेर धाडलो. शंकर धांवत गेलो तसो खरशेत परत आयलो.

“कोण आसा वळखिचो?”

“कोण ना. एकलोच आशिल्लो. पलतडचो बाबुसो.”

“बाबुसो?”

“तेका पलतडसून जयदेवान धाडला दिसता, आबूच्या मरणाक. पयशेय दिल्या खंय. पूण तो थंय पियेता.”

“तुकां कोणें सांगलें?”

“तोच पियोवन सांगतालो बाकीच्यांक.”

“चल, हांयें आपयला म्हण सांग.”

“तुकां गाळी संवता तो.”

“सवूं, आपय, येतलो तो.”

शंकर परत आयिल्ले वाटेन धांवलो. पूण बाबुसो तेका वाटेरूच पायणींत मेळ्ळो. ताका हायशें दिसलें. बाबुशाक पळोवन मोट्या कश्टान तो हांसलो. कालच्यान तो पयलेच फावट असो हांसतालो. बाबुशान रगड्या आवाजान शंकराक विचारलें.

“पुल्लो?”

“कोण ना.”

“कोण जोडून दवरला राणग्याच्यान?”

“तूं गाळी कित्याक संवता?”

“म्हाका संविना आशिल्लो जितो आसतना?”

“सगळ्यांक संवतालो पूण तेच्या गाळींनी कोण मरनासलो.”

“दुसरे कित्याक मरतले? तोच मेलो.”

“मरों बाबडो.”

“तुका पोटलो दिला काय कितें रे? येशान पोसको दिल्लो दिसता आबूक.”

बाबुसो आनी शंकर खोपीकडेन पावले तेन्ना शंकर वगी रावलो. बाबुसो सावळ्या मास्तराकडेन बडबडत रावलो.

“मास्तर, पुरूंया मरे म्हातुड्ड्याक?”

“हय. तुकांच रावलेलो.”

“हरशीं कोण रावता म्हाका?”

“जावं रे. सगलेंच उरफाटें जालां.”

“खरें म्हटल्यार धर्माप्रमाण लासपाचो म्हाताऱ्याक.”

''कोळंबा वयलो धर्म सोंपलो तेच्या फाटल्यान.''

''लासल्यार बांगडो कसो हुल्पोन वयतलो आशिल्लो. लाकडां सुद्दां नाका. नाजाल्यार मडें भितर दवरून असोच खोपीक उजो लावपाचो.''

''आसूं. कांयच्या कांय उलोवंचें न्हू आमी.''

''हें कांयच्या काय? ह्या राणग्याच्याच्या तोंडाक सुवाद आसलो? भर मयणेर म्हाका उजरोवंना हेणें?''

''खंय करूंया?'' मास्तरान ताचें उलोवणें तोडलें.

''थंय तळ्यावयर मारचो फोण.''

''मागीर कळाव नाका. उखलुंया.''

''उखलुंया असो? पोंतयेंत घालून? मास्तर?''

''अं.''

''म्हाज्यान बेश्टो मेल्ल्याचे घाणीकडेन वचों नजो.''

''घे रूपया. दादाले गादयेर बेगीन मारून यो.''

''आसूं. पयलीं एकदांचो पुरूंया. मागीर मारतां. नाजाल्यार हांगाच किडे पडटले राणग्याच्याक.'' मास्तरान दिल्लो रूपया बाबुशान बोल्सांत घातलो.

''शंकर, तो कोणो हाड.''

''किरवड बेश्टी सादीच. दोगांक धरूंक जातात तितकी पुरो. बुडकुलो बीन कांय नाका. आंगार ती आसा तीच चादर वडोवंची.''

तिगांयनी लागून किरवड तयार केली. मास्तरान मड्याचे हातपांय नीट केले. पूण ते तशे जाले ना. तोंडावयले मूस फाफुडले. बाबुशान चादर उखल्ली.

''नाका.''

मास्तरान आपल्या आंगार वडयल्लें नवेंताल्ल पुडवें आबूची तकली ते पांयांमेरेन पातळ्ळें. बाबुशाचे दोळे कस्स जाले. शंकर पळयत रावलो.

सावळ्या मास्तरान आनी बाबुशान किरवडीक खांद मारलो. शंकर खोरें आनी पिकास घेवन तांच्या फाटल्यान चलूंक लागलो. शंकराक आबूच्या उगडासान रडूंक आयलें. दोळ्यांत दुकां येवन तो दोनचार खेपो फातराक आदळ्ळो. बाबुसो मुखार लकत लकत चलतालो. आपूण पावलां चुकतालो आनी आबूच्या नांवान गाळी मारतालो. ताचो तोल घसरनाफुडें फाटल्यान मास्तर सांवरून धरतालो.

तिगांयनी लागून फोण खणलो. जांगडभर खोलाय घातली. मडें किरवडा

ग्यलें उखलून अचळय फोणकुलांत दवरलें.

"सारकी माती उडय. रडटा कितें रे बापूय मेल्ल्यासारको." बाबुशान शंकराक थपकायत फर्मायलें.

"मास्तर, फुलां आनी कित्याक? कर्माक?"

मास्तरान मोन्यांनी फुलां घातलीं. माती ओडली.

"मास्तर, राव राव."

"कितें?"

"राणग्याच्याच्या कंबराक रूप्याची मूज आसा मरे!"

"आसूं."

"राव रे चेडयेच्या."

मास्तरान मोन्यांनी गाळ गिळ्ळी आनी सगलें बळगें एकठावन भराभर खोऱ्यांन माती ओडली. कपलाची हूम मातयेर पडसर.

***

"कसल्या भाताक बसला तूं रिणकारी कसो दारांत?" पंडरी तापलो. पूण म्हाल्यान सोप्यावयली थपकण सोडलिना. भेऱ्याचें सवंग घेवन तो बसलो.

"वायंगणाकूय म्हाका फटयलो आनी आतां सर्दारूय."

"भाटकाराभशेन खंड सोदपाक लागलो मरे तूं?"

"खंड न्हू, भीक."

"हांव म्हणना भीक. आरे, पूण आयकोन घे. आमी म्हालो दवरलो कित्याक?"

"कापणेक."

"कापणी केली, तुकां पिकेचे पिकेक कुडव भात दिलें."

"ह्या दोन पिकांक तुजो गोटो खातल्याचे हरकतीक पडों नाका."

"ह्या दोन पिकांक कशें दितलों?"

"कशें म्हणचे? भटाक कशें दिलें?"

“भटाक दिलें. जाय पडटा भट. जल्मापासून तो मर्णामेरेन.”

“आनी हांव नाका?”

“तूं आदी जाय आशिल्लो. आरे, सादो वेव्हार पळय. पयलीं हांव आनी नानू कापणी करताले. आतां कोण करता? हांव नायेले कामांक वयतां थंयच फावल्या वेळार करून घेतां. तुज्या जाणटेपणाक लागून तूं खापयता म्हण नानू वळवय नाजाल्यार नायेल केंस मारता. सांग, ह्या दिसांनी केन्ना कापणी केल्या तुजेकडेन?”

“चार तरी फावटी माल्ल्यो. कोणूच नासले.”

“कशे आसतले? वावरा खातीर सगळे घराभायर. म्हणून म्हणटां –”

“आरे, कोळंबार सगळे अशेच म्हणपाक लागले जाल्यार म्हाल्यांनी करपाचें कितें?”

“तो आबूय म्हाका अशेंच विचारतालो. सगळे मिनाच्या वावराक गेल्यार शेतांचें करपाचें कितें? आमी कशे जाप दितले? कारण आमी हें थोडेंच घडयलां? कितें घडटा तेच्या फाटल्यान मोन्यांनी वयपाचें आमचें काम.”

“आमचो मर्णकाळ.”

“आगो, चल. म्हाल्याक नाल्लाचो बोणो आनी सुक्या मिरसांगाचीं चार फोकां हाडून दी. रित्या हातीन वचों नाका.”

रूक्मीण दरवट्यावयली भितर गेली. केंसर आनी नानू पंडरी कुशीक आयलीं. म्हाल्यान पातळून दवरलेलें आपणालें सामान बोटव्यांत भरलें. तो निरशेलो. पूण नाल्ल आनी मिरसांगो तरी मेळटात ह्या सुपूर समाधानान ताणें कुलो बदल्लो. ताणें कानाचें शेंवट काडटकीच पंडरीन ताका नानू कडल्यान फस्क पावयलें. शेंवटाचो धुंवर सोडीत तो पावळेभायर पळोवपाक लागलो.

“मास्तर.” ताणें शेंवट पालयत म्हणलें. पंडरीन भायर पळयलें.

“नानू, केंसर, भितर चलात.”

पंडरीन दोगांकय धुकलेत भितर धाडलीं. सावळो मास्तर आयलो तसो सोप्यार बसलो.

“बस मास्तर.”

“सांगचे आदींच बसलों.”

“आगो, मास्तराचें भात हाड.”

"कितें?"

"मागच्या आदींच दितां."

"हांव भात केन्नाच्यान व्हरपाक येतालों."

हांव बिराडार पावयतालों. सर्दाच्यो मळण्यो जाल्यो. कोणांक फावलेंना. उशीर जालो म्हण तूं येयला, अशें दिसलें."

"तुकां आतां कितें कितें दिसपाक लागलां जाणां हांव." मास्तर तिडकलो.

"मास्तर, आमी रेड्या गाणीनचे. तुजेसारके बुदवंत न्हू. आमचेकडेन उलयतना आमकां कयटा तेभाशेन उलय."

"तुकां भास कयटा ती फकत पयशांची. मनशांची न्हू."

"मास्तर, पयशांचो प्रस्न हांगा कित्याक येवंचो?"

"भात नाका जाल्यार मास्तराक ते वाट्याचे पयशेच दियात. तेची गरज भागतली कसलीय." रूक्मीणीन म्हणलें.

"रूक्मीणबाय, सावळ्या मास्तराकूय पयशांनी मेजूं नाका."

"तूं वगी राव गो. मास्तर, तुजें म्हणणें तरी कितें?"

"म्हाका कोळंबार कोणें हाडलो?"

"आबून."

"आबून एकल्यानूच? बरे उपकार केल्ले तेणें म्हाजेर. म्हण म्हाका एकल्याकच इलो करचो पडलो तेचो असो भरलेलो कोळंब आसतना. आनी हांव आबूच्या भुरग्यांक शिकयतालो?"

"ना. आमच्या. भात दिताले तुकां आमी पिकेक."

"'विसरूं ना हांव. तुमच्या भुरग्यांक फुकट शिकयना म्हण. आतां शाळेक भुरगेच ना. म्हण म्हाका भंय पडला. कसलो जाणां? भुरगे नाजाल्यार म्हाका कुडव कुडव भात कोण दितलो? म्हाज्या भुरग्याबाळांक कोण पोसतलो? म्हाजो संवसार कसो चलतलो?'

"सगळ्या कोळंबाचें माथ्यार घेवंक हांव आबू न्हू!"

"तुज्या तोंडांतल्यान नांव काडूं नाका तेचें. भरलेल्या कोळंबा वयलो निमाणो मनीस तो. रित्या पोटान गेलो. नवे पिळगेंतल्यान मनीस उबे करपाचो हावेस आसलो तेचो."

"कोणें आडायलो त्या म्हापुरसाक."

"तुमच्या सारकिल्ल्यांनी. नवे पिळगेच्या माथ्यार मिनाचे फातर चडयले तुमी."

"मास्तर!"

"खंय आसता तुजो नानू? खंय व्हरता तेका जोडूंक? हे पिरायेर शिकपाचो तो."

"मास्तर, नानूचे आवय बापूय आमी न्हू?"

"हांवूय तेंच म्हणटा. नानूचे आवय बापूय तुमी. हांव कोणूच न्हू. एक कुस्कूट कपर्देचो पगारी मास्तर. मागीर म्हाका तेच्या बऱ्याचें कळटा तें तुमकां कित्याक कळचें न्हू?"

"तोच शाळेंत वचपाक तयार ना."

"कोण सांगता? हाड तेका म्हाज्या सामकार. हांव विचारतां."

"ना तो."

"ना तो! घरांत हुडक्या हुडक्यांनी कोण रडटा नकळों हांव? नाका हाडूंक तेका भायर. म्हाज्यान ताका पळों नजो जातलें."

"नानू शाळेक येयलोना तरी तुजें भात वेळच्या वेळार पावतें करतकीच जालें."

"पंडरी, तुजो गुन्यांव ना रे. कारण मनशाक वळखुवपाक मनीसूच जाय लागता. कोळंबार सावळ्या मास्तराक वळखुपी मनीस ना आतां."

"आमी वळखतां मनशांक. आतां तूं सामकोच जिबेक हाड नाशिल्ल्या सारको उलोवंक लागला न्हू. आयक, गरज पडल्यार तुज्यासारके धा मास्तर पोसपाची तांक आसा म्हाका. पूण तुकां–"

"कितें केलां तुजें हायें?"

"कितेंच करपाचें दवरूना तुयें. आतां ह्या म्हाल्याहुजीर म्हाजी लज काडली ती न्हू? नानूक दिवलेचो नाच शिकोवपी तूंच न्हू तों?"

"तुयेंच याद काडली आतां."

"ती याद तूं खंयच्या तोंडान काडटलो? शाळेक भुरगे ना हो आमचो गुन्यांव. आबूच्या मर्णाक कोण ना ही आमची चूक. आनी भरपुनवेक नानूच्या माथ्यावयली दिवली घसरून पोराची फाट भाजली ही कोणाची चूक? कोणाचो गुन्यांव?"

"नाक धल्ल्यार तोंड उगडटा. कोणाचो गुन्यांव तो सांगोंक जाय मरे तुकां?

चल, आपय तुजे बायलेक भायर. चल, आपय कोळंबा वयल्या सगल्या लोकांक. सगल्यांचे हुजीर सांगतां आनी मागीर लोक कोणाच्या तोंडांत शेण घालता तें पळोवंया.''

''मास्तर!''

''नानू.''

''मास्तर!''

नानू भितल्ल्यान बाण कसो आयलो आनी मास्तराच्या पांयार कोसळ्ळो. ताज्या हुंडक्यांनी मास्तराचें काळीज हाल्लें. फाटोफाट रूक्मीण आयली. तिणें ताका भुजांक धरून भरभरीत ओडीत भितर व्हेलो. खरचटलें तें मास्तराच्या काळजाक. वतां वतां नानूचे ते निमाणे काकुळटयेणे नदरेन मास्तराक दिसलें ताचें तें शिगम्या पुनवेचें चौखेवयलें रूप आनी आयकूंक आयलीं तीं थरथरपी उतरां. ''तुका म्हाजो सोपूत आसा, कोणांक सांगो नाका. बाप्पा मारतलो.''

सावळो मास्तर मोन्यांनी उबो रावलो. एकाच खिणांत सगळें वादळ शांत जालें. सोपणां देंवून चलत रावलो.

''कोणाच्या तोंडांत पडलें शेण?'' पंडरीक नेट आयलो. पंडरी जायफाय उलयत रावलो. रूक्मीणीय वगी रावलीना. म्हालोय आपणालें दुख्ख विसरून मास्तराच्या नांवान बोटां मोडूंक लागलो.

सावळो मास्तर बिराडार गेलो. त्याच पावलांनी परतलो. हातांत फकत मुस्तायकेची पोती आशिल्ली. शंकराक सुलूस लागनाफुडें आबूच्या मर्णाची खबर जशी ताणें गांवभर घातिल्ली तशी सावळ्या मास्तराच्या वचपाची गजाल ताणें जणा एकल्यागेर पावयली. पूण मास्तराक कोणच आडावंक गेलो ना. आबूचें किरवड घरामुखावयल्यान वतना जशीं दारां धांपलेलीं तशीं आपशींच भर दनपरां दारां लागलीं. आनी सावळो मास्तर तळ्याकडेन दिसनासो जातकीच लजेच्या झाडां सारकीं परतीं उक्ती जालीं.

***

# 7

मिनाचे खणीर सकाळच्या आठांचो घोंगो वाजलो तेन्ना केंसर केंस उगयतालें.

"बाय केंसर, उशीर जालो मुगो" हांतुणार पडलेली रूक्मीण तशीच ताकतिकेन उठली. परवत परवत चुलीकडेन गेली. चुलिच्या खुरार उमथो घातिल्लो करण तिणें काडलो. कोडप्या वयलो दवलो काडून बुडकुल्यांत घातलो आनी शीत उसपून ती करणांत भरूंक लागली.

"चड भरूं नाका गे."

केंसरान तट्टटून आयिल्ले चोळयेर पोलको घातलो. ताची बोंबली उकती पडली. पावलांमेरेनचो घागरो ताणें धिंपरामेरेन कवळ्ळो. कंबराक खोयलो. दाणयेवयलो तुवालो काडून घागऱ्या भोंवतणयां गुटलायलो. पाख्याचे खांचीत दवरलेली चुंबळ ताणें काडली.

"बाय, चुमळ तशीच बांदून दवरिना. रीणां जाता खंय. सोडोवन दवरपाक जाय."

"सोडोवपाक मेळना ती. सगल्या कामेऱ्यांनी तश्योच करून घेतल्या."

रूक्मीण वगी रावली. चुलींत भाजत वडयल्लो सुको बांगडो तिणें काडलो. चुलीखुरार आपटून गोबोर फापुडलो. दाव्या हातान बोडूक मोडलें. खोल्याक गुटलायलो आनी तसोच करणांत शितांत मुंगरलो.

“भल्लो डबो?”

“हय. पोती हाड. केंसर, फाटल्यान पोलक्याचो बुतांव लागोना मुगो.”

“लागच ना तो.”

“धील शिवपाक जाय.”

“तसोच शिवलेलो. घट जालो.”

“कसली पाड पडलेली मोद! फाटल्यान बुतांव. सगळे बुतांव सुटले तरी पत्तो लागपाचो आसा?”

“सगळ्या कामेऱ्यांनी तशेच शिवल्या.”

“तेंच. सगळीं शेण खाता म्हण आपणेंय खावपाचें.”

“तूं अशें म्हणटा जाल्यार वचना हांव कामांक.”

रूक्मीण कांय वेळ उलयली ना. मोन्यांनी डब्याची पोती तिणें केंसराच्या हातांत दिली. पांयांत व्हाणो घालून केंसर भायर सरलें. भायल्या दरवट्या मेरेन ती ताका पावोवपाक आयली. तें तळ्याकडल्या मोडणार मोडसर ताका तेळीत रावली.

केंसर मिनाच्या रस्त्यार पावलें. धुल्लार दंव पडून माती कालयल्ल्यासारकी जाल्ली. धुल्लांत पावल रोमतालें. पूण दनपारच्या सारको पावला फाटल्यान धुल्ल आंगार उसळनाशिल्लो. रस्त्याकुशीक हुस्केचीं, काजुंचीं, कुंबयांचीं कितलींशींच झाडां आशिल्लीं. अनवळख्यांक वळखूंक येवंचिना अशे तरेन तांचेर धुल्ल माखिल्लो. त्यांच्या पाचव्या आंगार धुल्ल शिंपडलेलो आनी दंवाचे ओलसाणेन सगळ्या पानांक ओली तांबसाण मारताली. धुल्लाचो मारो बादूंक नाशिल्ल्या आंकऱ्यां-कोंबऱ्यांवयल्यान दंवाचे थेंबे म्होंव कशे गळटाले. कंवळीं पानां निस्ततालीं.

केंसराक सकाळीं फुडें हूम आयली. हुमेचो एक थेंब ताचे कंवळे पोटकळेवयल्यान निस्तलो. खांके ओले जाले. पोलक्यांत गुजगुजूंक लागलें. ओलें कपल तुवाल्यान पुशीत ताणें मुखार नदर मारली. आजून बरीच वाट चलपाक जाय आशिल्ली. ताचेमुखार गेल्लीं कामेऱ्यां ताका मात्तूय दिश्टी पडलीं ना. दुबावान वगीच ताणें दोन चार खेपे फाटीं वळून पळयलें. पूण ताका कोण एक दिसलो ना. आपूण एकलेंच फाटीं उरिल्ल्याचें ताका कळ्ळें. मुखार गेल्ल्या कामेऱ्यांची पावलट

धुल्लार उदेल्ली ताका दिसली. ताणें आतां पावलांत अदीक नेट हाडलो. बरोच वेळ तें त्याच दमान चल्लें पूण मागीर अकस्मात ताची पोवटां भरून आयलीं. जांगांनी गुळे चडिल्लेभशेन जाले. तें थांबलें. घागरो वयर उखलून ताणें पोंवटार नदर मारली. कुंबयाच्च्या पानावयले दोन दंवा थेंब वाऱ्या बराबर ताचे गोरे पोंवटेर शिंपडले. तें कोंड्याची आळ कशें शिरशिरलें.

आतां ताका प्लॉटावयलें चित्र येवजून आयलें. सगळीं कामेऱ्यां जमल्यांत.... जेवणाचे डबे कुंबयामुळांत दवरून सगलीं मालाचे राशीकडेन पावल्यांत.. माथ्यार हॅट घालून मास्तर कामेऱ्यांक एक एक काम फर्मायता. कोणांक राशीवयलें मीन वेंचूंक सांगता.. कोणांक सारकें दाळूंक लायता... कोणांक चाळणीर पावडर गाळपाक सांगता.. पावडरिच्यो राशी करता... मोडटा.. एक आनी दोन अशीं हज्जार कामां. कामेऱ्यां उबीं रावल्यार तो तिडकता. पूण ताचेकडेन उलोवंक गेल्यार, ताचीं फकाणां केल्यार मास्तर चळटा. मागीर पचपच सुरू जाता. ताच्यो नदरो मागीर खंयचे खंय पावपाक लागता. मागीर कायल भरताना सांबाळून ओणव घालचो पडटा. गरज नासरना मास्तर कायल उखलपाक आदार दिता तेन्ना हातभर पयस रावून कायल माथ्यार घेवंची लागता. ना जाल्यार चुकून मास्तराचो हात खंयचे खंय पडपाचो दुबाव आसता. मास्तराचें लक्ष कामार उरना. सवणें कशें भिरभिरता. भिंरी कसो तो कामेऱ्यां भोंवतणयां भोंवत आसता. मागीर कामेऱ्यांकय वाज येता. कितलीं म्हण सांबायटलीं, सांवरतलीं. कितलीं म्हण नदर चुकयतलीं. मागीर कोणांक कांय दिसना. दिसल्यारूय कोण लागून घेना, खुपून घेना. तशें लागून घेतल्यार मास्तर मागीर कामाच्या वेळार धारेर धरता. मागीर जेवणाक वर वर वगत मेळना. उदक पिवपाक संद मेळना. मुतूंक वचपाक अर्द वर मेळना. मास्तराची मर्जी आसल्यार सकाळीं हाजीर जावंक अर्दवर न्हय, वराचो लेगीत कळाव जाल्यार उपकारता. मास्तराच्या बापायचें कांय सरना. कंपनीक लुकसाण. आनी एका कामेऱ्याच्या एका वराच्या उणावा लागून कंपनी कितें दिवाळें काडूंक वचना.

"पों ऽऽ क ऽ पों ऽऽ क."

केंसर भानार आयलें. तें रस्त्याच्या मदल्यान चलतालें आनी फाटल्यान ट्रक ताका सामको तेंकपाक आयिल्लो. तें काचाबूल जालें ट्रकाचो ड्रायव्हर ज्यास्ती मारीत म्हण ताका भिरांत दिसली. मान बागोवन तें वालेती कुशिच्यान चलूंक

लागलें. ट्रक मुखार केन्ना वता अशें ताका जालें. पूण ट्रक ल्हवू ल्हवू ताचे चालीबराबर घरघरूंक लागलो. तशें तें नेटान चलूंक लागलें. ट्रकांत कोण आसा तें पळोवपाचें धाडस लेगीत ताका जालें ना.

"मोटार चडटो आसलें मुगो तुजेर."

केंसराक कांयच आयकूंक आयलें ना पूण ड्रायव्हर आपणांक कितेंतरी म्हणटा हाचो ताणें अदमास घेतलो. आतां ट्रकाचो घरघर ताच्या काळजांत जावपाक लागलो.

"पिडा वचोंक जाय आसली. पाव रे तळ्यावयल्या.' ' ताणें मनांतल्या मनांत देवाक उलो माल्लो.

"पायतांय मुगो."

आतां केंसराक फार्टी वळून पळोवंचेंच पडलें. ट्रक ताच्या प्लॉटावयले कंपनीचो आशिल्लो. केन्नाय कामेऱ्यां असल्या ट्रकांनी बसून येता – वेता तीं ताणें पळयल्लीं. पूण तें आजून बसूंक नाशिल्लें. आतांय ताका धीर जालो ना. पूण ट्रक आपणांक घेतले बगर मुखार वचचो ना हाची ताका खात्री जाली. ताचीं पावलां फार्टीफुडें जालीं.

"आमचे कोंपोनीचें मुगो चेडवा ? यी."

ते दाराकडेन आयलें. वयर चडपाक खंय हात धरचो तें ताका कळ्ळें ना.

"चोडपाची संवय ना गो चेडवा?"

ताणें ताका हात दिलो. ताच्या आंगार ओणव घालून दार मारलें. केंसरान आंग चोरलें. तें दाराकुशीक तेंकून बसलें.

"लोजताय गो? लोजल्यार पेज मेवोना. चड लोजशी, सामकें उपाशी पोडटलें. सामकी लोज सोडशी पोय, पोट येद्दें जातोलें."

केंसराक कांय कळ्ळें ना. पूण तो हांसलो देखून तेंवूय हांसलें.

"लोजपाक शिकलांय गो?"

केंसर मुमुरखें हांसलें आनी मान वळोवन लजलें.

"शिंकलां. शिंकलां. लोजपाक लागलां चेडूं."

ड्रायव्हरान ताका बेसबरें पळोवन घेतलें. ताच्या पांयांतल्यो व्हाणो तें माथ्या मेरेन. फाटल्यान पोलक्याचो सुटिल्लो बुतांव ताचे नदरेंतल्यान सुटलो ना.

"कोंकण्यालें मुगो चेडवा?"

केंसरान हय म्हण मान हालयली.

"मागीर माथ्यांत फुलां ना मुगो. आमचेवरीं किरिस्तांव जाताय?"

केंसरान हात माथ्यांत व्हेलो आनी ताका उगडास जालो. सकाळीं माळपाक खुंटिल्लीं शंकरा फुलां सोप्यार दवरलेलीं थंयच उरिल्लीं. फांती विणपाक लेगीत तें विसरलें.

"विसोल्लें मिस्ता. फाल्यां घोवाक विसोरशी. फूंय सावन येताय गो वावराक?"

"कोळंबा." केंसराक केद्या वेळान आतां जाप फुटली.

"आं! उलोयताय मुगो तूं. म्हाका दिसोलें मोनेंच काय म्हूण. केदोवेळ उलयीच ना. कोळंबार कोणालें गो तूं?"

"पंडरी."

"पोंडरी?"

"मुकादम."

"मुकादम आसाय? खुंय?"

"आदीं आशिल्लो."

"आदीं आसलेलोय? खुंय गो?"

"शेनोरेर.'

"आं आदल्या तेंपार. आतां शेनोरेर तेजी ना. मिनेरांनी हिंगा मानिफेस्तां माल्लीं. आमचे कोंपोनीन त्रोक्स, लाडीसां हाडलीं. ओरबीनां बांदलीं. तूं पयलीं सावन हिंगाच येतालें कामाक?"

"ना."

"खुंय वयतालें?"

"चिंचें देंवण्यार."

"कित्याक?"

"बार्जी भोरूंक."

"गोमलें. आदीं जेटीर कामेऱ्यां बार्जी भोत्तालीं. आतां ओरबीनार बार्जी भोत्ताय. मांयपाय आसाय?"

"अं?"

"आवय आनी बापूय आसाय?"

"हय."

"तूं एकलेंच घोरांत?"

"भाव आसा."

"कितोले?"

"एकलोच."

"तुज्या व्होड?"

"हय."

"खुंय वावुत्ताय?"

"ड्रायव्हर आसा."

"ड्रायव्हर आसाय? खुंयचे कोंपोनींत?"

"खबर ना."

"कोंपोनी नाकाय. नांव सांग."

"नामदेव."

"नामदेव?"

"नानूच म्हणटा तेका."

"नानू? आग्गो, मुगे इश्ट मुगो तो." ड्रायव्हर सिटावयलो उसळ्ळो. ट्रकाचो वेग उणो जालो. केंसराक कच्च जालें. पूण येदोवेळ ड्रायव्हराची भिरांत दिसताली ती ना जाली. ड्रायव्हराच्या मुखावयली खोस पळोवन ताका धीर आयलो.

"मानुयेल म्हुटल्यार म्हाका वडकोताय तो. आमी दोगूय सांगातान रावताले. पोयलीं एकेच कोंपोनींत आसलोले आमी. हांये ती कोंपनी सोडून हिंतूत येयलो. आजून पासून पोयऱ्यान मेयटा म्हाका नानू."

"खंय?"

"खूंय? आमी ड्रायव्हर दिसभोर खंयूय आसल्यार रातिचे बारांत एकठांय जातात."

"नानू पिता?"

"चेडवा, ड्रायव्होर म्हुटल्यार कितें सोजमोलेंय तूं? ड्रायव्हर म्हुणटा ते पिवपाक आनी – " मुखावयलीं उतरां मानुयेलान गिळ्ळीं. ताणें केंसरावशीं पळयलें.

"पिवचें पोड्टा. नाजाल्यारी हो धुल्ल पोटांत रिगोन मुनीस मरोंक पोडटोले.

पूण नानू चोड पिना आं.''

''खंय आसा आतां?''

''खंयूय आसतलो. तूं मेवताय?''

''ना.''

''कितें सांगपा जाय?''

''आवय बरी ना म्हण सांग.''

''मांय दुयेंत आसाय?''

''हय.''

''नानू येवंना ह्या दिसांनी घारा?''

''ना.''

''सुस्पेद मुनीस. तूं भी नाकाय. सारको धाडटा. आरो यो गो.''

केंसराक तो कितें म्हणटा तें कळ्ळें ना. ताणें दोळ्यांनी ताका लार्गी आपयलें. तशें तें विस्वासान ताच्या म्हऱ्यांत गेलें.

''पोय, कितेंय जाय पोडल्यार म्हाका सांग. हांव हिंगाच आसां. मांयक वोखोद हाडलेंय?''

''सादेंच दुयेंस तिचें.''

''कितेंय जावं. हांव आसांच. आगो, नानू हांव सारको. म्हज्या सामको गोपांतलो इश्ट तो. जाणा, आमी अशे खांदार हात घालून भोंवताले. एकेच कडे न्हिदताले.'' मानुयेलान सहजतायेन केसराच्या खांदार हात वडयलो.

***

तिनसांजचे कातरीर पंडरी आनी शाणू तळ्यार एक जाले. पंडरीक वाटेर थारपाचें नाशिल्लें. पूण शाणून सदचेसारको विडयेक हात मुखार केलो. आतां पंडरीक रावचेंच पडलें. हातांतली पोती ताणें फातरार दवरली. पोतयेंत पळयत शाणून ताका विचारलें,

''खंय शेनोरेर आशिल्लो?''

"आतां शेनोरेर कित्याक?"

"कित्याक? मिनाची सुरवात शेनोरेर न्हुरे?"

"सुरवात जाली गा. सुरवातीक गाडयांनी भरताले माल. दुर्भाटकार कोठयांनी मुरगांवां बोटीर पावयताले. आतां पयलिंचें कितें उल्लां? खटाऱ्यो गाडयो गेल्यो. ट्रट येयले. टक भरूंक मानाय उपकारता? शेवाळीं येयलीं. कोठये खंय कोठ्याक पडले देवाक खबर! बार्जी येयल्यो. जेटीर कामेऱ्यां बार्जी भरतालीं. आतां जेटी गेल्यो. ओर्बिना, पोटे बांदून आपशींच माल परायेवयलो बार्जींत.

"मनशाची तकली खंय पावली रे?"

"आमीय मनीसूच. पूण ते मनीस आमचे सारके रेड्या गाणीनचे न्हू."

"जांव रे. पूण आमी मात तरी सुतलायलें काय ना?"

"कितें सुतलायलें रे?"

"वगी राव रे पंडरी. आमी सांजेक नाशिल्ले रे, पूण तुचें? तूं कसोय तरी मुकादम आशिल्लो, उलयलें म्हणटलो."

"तुकां उलयतल्याक कोण धरतलो?"

"पूण कितेंय जावं. फूल ना फुलाची पाकळी तुज्या पदरांत पडली. कशेंय जांव, गांवांत वणटी-पाऱ्यांक पयलीं शिमीट तुयें काडलें. नाजाल्यार बाकीच्यांनी जोडलें, सूरसोऱ्याक मोडलें."

"तें दिसता सगळ्यांक."

"जालें. शाणूच्यान पळोवं नजो म्हणटलो, पूण जगलोक उलयतात तेंच हांव उलयतां. सांग रे."

"कितें?"

"आमच्या गांवांत ट्रक्साचो ड्रायव्हर पयलो कोण? तुजो नानू न्हूं? ड्रायव्हर कितेंय जोडूं रे, पूण जोडटा. नाजाल्यार आमचे पोर आसात. धा वरसां जालीं मारता माथ्यार कायली!"

"जाणां मरे, घरच्यो भानगडी सांगच्यो न्हू कोणाक. नानून घरांत केन्ना पानदुडू हाडून दिल्यार सोपूत. आपले ते नायक आनी आपले ते पायक असो वेव्हार. जोडकार कोण? पांच वरसां जालीं बायल हातरूणार न्हिदोन जोडटा. हांव असों! म्हाज्यान उखललेली पारय कमरावयर काडूं नजो."

"केंसर बाबडें कितें जोडटलें?"

"जोडटा तें. पूण आवयच्या दुयेंसाक काबार. अशी मिनाची जोड. रेवेंवयलें उदक कशें, कितलेंय ओत, खिणाभरयांत नाच्च जाता."

"तुचें अशें मागीर आमच्या सारक्यांचें कितें रे? शेतावटयां शेत ना. मिनावटयां मीन ना. श्शी! ह्या मिनाची जोड वयता खंय?"

"मिनाची जोड तशी मोड! नाजाल्यार लोक भांगराचे नळे चडयतले आशिल्ले घरार."

"जांव, तुयेन सुलचे तरी घातले. आमच्या पाख्याचो कोलूय झडलोना."

"दुसरो झडयतलो?"

"नारे, कितें करूं? राटावळी कश्योच आळाबंदा येयना. आर्दी सगळें फकत शेतारूच कशें भाग्‌तालें तेचेंच आजाप दिसता."

"कालचें कोण सोदता? आमी फायचें पळोवपाचें."

"कितें हाडलें रे पोतयेंत?"

"सामान."

"कसलें सामान?"

"तुकां खबर ना?"

"कसली रे बाबा?"

"थंय चिंचेदेंवण्यार, मायणा रे, त्या प्लॉटार च्यायेचें लायतां."

"दुकान रे?"

"दुकान? आमी कोण नायेलेचे वाणी रे? चार ड्रायव्हर आनी मानाय जमता थंय कडोवन दिवपाचो कडो. आतां म्हातारपणांत आनीक कितें जमत?"

"बाकी तुच्या फाटल्यान बुद्‌दी सोंपल्यो रे."

"ह्यो कितें बामणबुद्‌दी?"

"कोल्याच्यो बुद्‌दी तुच्यो. शेनारेर पयलो खटारो तुयेंच लायलो. आतां चिंचेदेवण्यार च्यायेचें दुकान. पंडरी, लोकांच्या दोळ्यांनी कसता रे. वाचा लेगीत लागता तसल्या बत्तीस दातोळ्यांची."

"आमी लोकांचें खाता?"

"ना. पूण थंय गाडी लायली. लोकांचे फुटले दोळे. जालें! गाडी बंद. पाडे लेगीत मेले. आतां च्याचें दुकान लायतलो म्हूण –"

"तळ्यावयल्याचेर भार सगळो."

“चलतलें रे. केन्ना सुरू करता?”

“फायच्यान.”

“फायच्यान? पूण –”

“कितें?”

“न्हू रे, हांव आयज भटागेर गेल्लो. हायें ते चार पारे उबारून कितें घरशें केलां न्हू खोपटाचे सुवातेर?”

“फाल्यां घर – पुरीस?”

“घरपुरीस कसलो? बेश्टें शास्त्र करून भितर सरप.”

“मागीर?”

“भट सांगपाक लागलो, फाल्यां बरी यॅळ ना. दिसाभरांत बरी अशी यॅळूच ना.”

“दुकानाक यॅळ कित्याक?”

“दुकान घर सारकेंच. मठी न्हूं ती.”

“म्हाजें सगळें थरलां मरे फाल्यां.”

“कितें?”

“जैपतीक येयना मठी.”

***

वरसा सारकी संवसार पाडव्या दुसरे दीस तळ्यार सत्यनारायणाची पुजा जाली. तकलेफाटल्यान आठ आणे पटी फारीक करपाक कोणाचे हात अनमनलेनात. पयलीं सकाळ धरयां सत्यनारायणाची तयारी सुरू जाताली. अंदू तिनसांजा जाली. पूण त्याच नेटार. उसळ शिजयतल्यांक आनी केळम्या पानां हाडटल्या मनशांक दुडू दिवपाचें थारायिल्लें. तेखातीर थोडे आदेस वगडावन तळ्यार वावुरताले. हाड-व्हर, उखल-दवर करताले. आबू आसतना दर वरसा पलतडीं जयदेवागेर वेतालो. ताका मानान पुजेक रावयतालो. दनपारचें भुसकें थंयच मारतालो आनी तिनसांज मेरेन परततालो. अंदू पलतडीं सांगून धाडपाक कोणाक उगडास उरलोना. पंडरीन

पलतडी सावन कामांक येवपी मानायांकडेन सांगून धाडलें. जयदेवान येता म्हूण उतर दिलें. पुजे दिसा बायलेक घेवन तिनसांजमेरेन तो कोळंबा पावलो. पुजेक आयिल्ल्या सोयऱ्यांसारकोच ताका सगळ्यांनी दिसलो तसो हडकिलो. सगळे आपापल्या कामांत गुल्ल आसले. जण एकल्यागेर सोयऱ्यांधायऱ्यांचो बोवाळ पडलेलो. सगळे खणी-प्लॉटावयले कोळंबाकाराचे इश्टमित्र आशिल्ले. विडयां-सिगारांचो धुंवर जातालो. पानांचीं देटां आनी फस्कांच्यो काडयो कडव्यांतल्यान भायर भिरकावताल्यो. पानां रंगतालीं. झांकडी वाडटाली. चुलीवयल्या आदनांक च्यायेच्या अर्काचो कोर येतालो.

पंडरी चिंचेदेंवण्या वयल्यान आपलें च्यायेचें दुकान बंद करून आयलो तेन्ना मनशाक मनीस दिश्टी पडनासलो. ताणें ताकतीक केली. व्होंवराक तळ्यार घेवन गेलो. तांकां भटामुखार पुजेक बसयलीं. खंय जाय, नाका तें आपूण पळोवंक लागलो.

"नरशिंव येवंक ना?"

"ना. पणजेच आसा ह्या दिसांनी."

"तेगेलें तें शिकप जालें पणजेचें?"

"ना. अंदूंचें निमाणें वरस. मागीर कॉलेजीचें शिकप सोंपलें."

"कितलें पासून शिकतलो?"

"शिकोनी. उमेद आसा. केंसर खंय दिसूना?"

"आसलें घरा."

"रूक्मीणबाय सांग, खंय तरी गेलां म्हण."

"गेलां दिसता."

"कामांक?"

"हें हें. कामांक खंय धाडिना तेका. जाली तयारी न्हूं? हांव पुजेचें सामान हाडटां." पंडरीन विशय टाळून कामाक सुरवात केली.

भटान बेगिबेगीन पुजा केली. तळी पोतयेंत भरली. उदकाक लावन दक्षणा किरवटीक खोयली. पुराण सांगपाक ताणें पोथी उकती केली. आनी मुखार नदर मारली. वरसासारकी पुराण आयकूंक लोकांची गर्दी ताका दिसलीना. कोण बसलेली तीं जागो आडोवंक. पुराणाच्या मोगान कोणूच येवंक नाशिल्लो. तसो भक्तिभाव कोणाच्याच मुखामळार दिसनाशिल्लो. भट बुचकळ्यांत पडलो. कितें करचें ताका

कांयच येवजना जालें. ताणें जयदेवाकडेन पळयलें. जयदेवाकूय कांयच अंतपार लागलोना. ताणें एका वळखिच्या कोळंबकाराक आपयलो.

"आरे, थंय मुखार कितें? सगळे एकठांय जाल्यात."

"थंय नाटक आसा. दशावतारी न्हू."

"मागीर?"

"पड्डे बीन लावन करता तसलें."

"जाणां रे. म्हाका वळवयकाराक नाटकाचें तूं सांगता? पूण आयक रे, तळ्यार असलीं नाटकां केन्नाच्यान जावपाक लागलीं?"

जयदेवान भटाकडेन पळयलें. ते दोगूय अजापान हांसपाक लागले. इतल्यांत थंय पंडरी पावलो.

"पंडरी, ह्या भटालें पुराण आयकूंक कोणूच ना पळय. सगळे ते माचयेर."

"नाटक करतात कोळंबार. पयलेंच नाटक."

"कोण करता?"

"खणीवयले ड्रायव्हर."

"मिनाखणीवयले ड्रायव्हर? शीत्! चुडटी लागली तुमच्या नाकाक. कोळंबार दांडगे दुंडगे भुरगे आसतना परक्यांक दिता नाटक करूंक? आनी तें सुद्दां पयलें?"

"कोळंबार कोण आसा नाटकी?"

"नाटकी? मोटे घाडी तुमी. बाकीचीं सगळीं घाडपणां कळपाक लागल्यांत तुमकां. पूण शेणटा तें कळना. आमचो नानू आसा मरे नाटकांत?"

"तो ना."

"ना कित्याक? तो ड्रायव्हर न्हूं तर?"

"तो हांगा खंय आसता? आज सुद्दां पावना तो. हे सगळे भायले ड्रायव्हर. एक किरिस्तांव सुद्दां आसा."

"किरिस्तांव! आरे म्हाज्या बाबा! फुडल्या वरसा आमकां येजमानपणा खातीर सांगोंक नाका."

"किरिस्तांव आसल्यार कितें जाता?"

"तळ्यावयले सत्यनारायण पुजेक किरिस्तांव पासून नाचपाक लागले तर! भटमाम, कवळ तुजें पुराण आतां. तें कोण आयकुपाचो ना. कोळंबार तो आबू नांवाचो आशिल्लो एक म्हातारो. तेच्या फाटल्यान सोंपलें रे सगळें."

जयदेव धोतीर फांपडून उठलो. भटमामानूय पोथी धांपली. तांचें उलोवणें चालू आसतनाच कूस मारली.

तळ्यावयल्या बोवाळाक एक वेगळोच वेग आशिल्लो. लोकांच्या न्हेसपांत-चलपांत नेट आशिल्लो. जयदेवाक बेश्टेंच खाकडूंक जाल्लेवरी जालें. पुडव्याच्या शेवान तोंड पुशीत तो मुखार गेलो. तसोच म्हेडीक तेंकून उबो रावलो. पावण्यो जावपाच्यो आशिल्ल्यो. आपल्या वरसावळीच्या विड्या-नाल्लाचेर ताची नदर लागलेली. अंदू पावण्यो बऱ्योच म्हारग वचपाच्यो आशिल्ल्यो. जयदेवाक सहज धा वरसांफाटलो उगडास आयलो..... तेन्नाची पावणी आतां दुप्पेटीन न्हू, तिप्पेटीन सा जातली आशिल्ली. लोकूय मात कुचमणा नासतना व्हरतले आशिल्ले. धा वरसां आदीं आपणें विड्या-नाल्लाची पावणी फकत एकावन्न रूपयांक व्हेल्ली. तेन्ना एकावन्न रूपया कच्च करून फारीक करप म्हटल्यार केदें ऑर आशिल्लें. पूण आयज तेंच ऑर कितलें म्हारग जालां. पूण वरसाचो मान सोडूंक जाता? नाजाल्यार जयदेवाक कोळंबार कस्पटाचेंय मोल उरचेंना. आबू ना आनी ह्या मनशांक मनशाची पर्वा दिसना जाल्या. मागीर जयदेवाक सुद्दां फुटके पायलेन मेजपाक हे मात कांचवेचेनात. तेखातीर कशेय परिस्थितींत निदान अंदू तरी विडोनाल्ल व्हरप. फुडलें कोणें पळयलां?

"आरे, अंदू वळवयकार लांस घालिना?" जयदेव भानार आयलो. विड्या-नाल्लाची पावणी वाजताली.

"कितले जाल्या?"

"पंचवीस रूपया विडो नाल्ल ऽऽ."

"पंचवीस रूपया!"

जयदेवाक कचच्च जालें. लांस कोणें घातला ताका कळूंक नाशिल्लें. ताणें मुखार पळयलें. वरसाचे सुवातेर नावेलकार गांवकार ताका दिसलोना. तांचे सुवातेरूय कोण नाशिल्ले. नाटकाचे ड्रायव्हर लोक फकत माचयेर बोवाळटाले. पड्डे, तर्फो उबारतना तांचे भितर ते कितें कितें गुणगुणटाले.

"तोच तो. वग्गी आसा."

"आनीक पांच रूपया चडोवंया. बसला थंय सुकतलो."

“सारकें. तेसोच कोरोप.”

“पस्तीस रूपया.”

“पंचेचाळीस रूपया.”

“पंचावन्न रूपया.”

“सत्तर रूपया.”

“पंचाहत्तर रूपया.”

जयदेवान उकतें केल्लें तोंड तशेंच उरलें. तो लांस घालूंक पावलोच ना. ड्रायव्हरांभितरूच सर्त लागली. एकामेकाच्या तेसांवान एक-दुसरे कंपनीचे ड्रायव्हर लांस घालपाक लागले. गर्दैतल्यान आंकड्यार आंकडे पडूंक लागले. जयदेव भितरल्यान हाल्लो. ताणें मनांतल्यान म्हणलें, “आज आमचो थरिल्लो मान ड्रायव्हरांनी व्हेलो. फाल्यां आमची सून व्हरत.”

“सा रे सा.”

पावणी कितल्यांक सा जाली तें लेगीत जयदेवाक समजून घेवपाचें नाशिल्लें. ताच्या मुखार एकूच प्रस्न आशिल्लो.... वरसाप्रमाण सगळे हडकितले. सकाळीं तारीन पलतडी सरतना तारयो विचारतलो, “अंदूं कितल्यांक पावयली रे पावणी?” वाटे-तिटेक लोक तेंच विचारतले आनी मागीर अशीच मान बागोवन घरा वचचें पडटलें.

तो तळ्याकुशीक आयलो. बायकुलांतलें उदक ताणें पोशांत घेवन घटा-घटा घोटलें. हाडलेलें सामान कवळ्ळें. आपणाक भेटयिल्लो तुवालो आनी बायलेक दिल्लो खण-नाल्ल पोतयेंत घातलो. आनी रातोरात भाड्याचो पनेळ करून ताणें कोळंबाची शीम हुपली.

***

मेजावयली फेणयेची बाटली अर्दी जाली. नानूक आनी मानुयेलाक तकली ल्हव दिसपाक लागली. ड्रायव्हींग करून तांचे हात-पांय गळसणूंक आयिल्ले. आतां मातसो नेट आयलो. मानुयेलान सिगार काडलें. नानूक दिलें. बोल्सांतलें

लायटर काडून पेटयलो. नानूच्या दोळ्यांमुखार कॅण पडलें.

"कसलो रे लायटर? फोरेन?"

"फॉरेन तोर. इंदियान दोवदिरो वेपार कोण घेताय रे? आयज घेतल्यार फाल्यां काबार. सुबेज दुडू पोडोन लेगीत फॉरेनचो सेर्त माल, सामको हायग्रेड माल कसो. सिक्स्टीसेवन ग्रेडचो. सोंजमोंगनाय?"

"सोजमोलें."

"इंदियान ट्रक चोयनाय. आमचे कोंपोनीच्यो लाकडी बॉडी सगल्यो इंडियान. गिरोण कसो आवाज. नाजाल्यार फॉरेन गाडयो. इसुझ्रू, निशाण, शॅवरलेट, बेडफॉर्ड. हॉर्नार बोगुर एका पार्टाचो आवाज ना. जाणाय, इंदियान म्हुटल्यार सामकी पन्नास वरसांची लाकडी बॉडी. सोंजमोंगनाय?"

"समजलों."

"गाण समजलोंय. लॉकडी बॉडी म्हुटल्यार सामकी काजारी बायल आनी फॉरेन म्हुटल्यार पोय, ओसली. सारकें होड्डें. ट्रकाचो वयलो टॉप कशें. सोंजमोंगनाय?"

"हय."

"गांठवल सामको. टिप्पर म्हुटल्यार सामकें वीस वोरसांचें तन्नें चेडूं."

नानून सिगाराचो धुंवर सोडलो. दोगांयनी ग्लासांत आनीक फेणी ओतली. वांगडा खावपाक मसाल्यांत काडिल्लीं मोसमी-भिकणां घेतलीं. एक एक गर तोंडांत उडयत झांकडींक रंग आयलो. ड्रायव्हर पिवपाक येत रावले. धुल्लान माखिल्ल्या पिंगश्या केंसांत हात भोंवडायत कदेलार थपकण मारपाक लागले. वेटर मेजाकडेन येनाफुडें व्हिस्की, बॅन्डी ते काजुफेणी - काजेला मेरेन ऑर्डरी पडपाक लागल्यो. खोमसाचे वयले दोन तीन बुतांव सोडोवन ड्रायव्हर वारें घेवंक लागले. खोमसांच्या फाटीर खाक्यांत हुमेची ओलसाण दिसपाक लागली. हुमसाणेचो वास बारभर सुटलो. पूण कोणाच्या नाकांत कांय जालें ना. गल्ल्या वयल्या पात्रांवापासून ते वेटरामेरेन सगल्यांक ह्या वासाची संवय जाल्ली. एक वेळ हो वास नासल्यार कोणाकय गोंदळूंक जायत आशिल्लें.

गल्ल्यावयल्या पात्रांवान मानुयेल नानूच्या मेजार नदर मारली. तांची एक बोतल काबार जाल्ली. ताणें वेटराक फर्मायलें, "मानुयेलाक पळय, कितें जाय तें."

“कितें रे पात्रांव, आमकां सोकार्यी फुडें न्हिदोयताय तुज्या बार्रांत?”

“रार्ती न्हिदूंना? कोण नासलेलो मिस्ता फुड्यांत!”

“पात्रांव, फोकाणां कोत्ताय? तूं कितें सोज़मोलोय, काजार जाल्ले बायले वांगडा न्हिदताय आनी आमी आंकवार-”

“आंकवार चेडवां कुशीक.” मानुयेलाचें वाक्य पुराय करून पात्रांव आपल्या विनोदाचेर खळखळून हांसलो.

“आंकवार म्हूण सामकी टिप्परी भाशेन. कितें रे नानू, उलोय मुरे.’

“नानू कितें उलयतलो? तो तुज्यासारकी टिप्पर खंय चलयता? तो लाकडी बॉडी धुकलता.”

पात्रांव गल्ल्यार गिरायकांचे पयशे काडूंक लागलो. मानुयेल नानूवांगडा बडबडत रावलो.

“फटिंगा, दाणगो-दुणगो आनी लाकडी बॉडी फाटल्यान लागलाय? तुमचे खणीर चेडवां ना रे? पोय असलीं. सामके मालदेस कशे दिसूंक जाय. पोय, बरो उगडास जालो आंकवार चेडवा वयल्यान.”

“कसलो?”

नानू मातसो गोंदळ्ळो. मानुयेलान बरोच बोवाळ केलो. नेटा बराबर भरिल्लो ग्लास तोंडांत रकयलो.

“तुजी भोयण.”

“भयण?”

“आंग काडटाय? हांयें कांय कोरूंना रे. म्हाका मेवलोली ते दीस. सायबा बोगोस!”

“कितें घडलें?”

“सांगलें न्हय. कांय कोन्ना म्हूण. तिणें सांगलोलें रे. तुकां सांग म्हूण. कितें जाणाय? मांय दुयेंत आसा - ”

“कळ्ळें म्हाका - गेल्लों हांव घरा.”

“गेलेलो? आनी नाटकाको?”

“आरे, तुजें नाटक कशें जालें?”

“घांटवल. तुजे गांवांत नाटक आनी म्हुजें नाटोक म्हुणटाय? नाटका दीस तुजे भोयणीन -”

“तें आसूं. तुजें संवंग कशें जालें?”

“लोजूंय दिसोना इचारूंक? तुज्या घारा नाटोक आनी ते राती तूं कोणा फुड्यांत?”

“संवंग?”

“सोंवंगूच जालें. वायट धोन्नाकां. कोळंबा वयलो लोक बुर्र ऽऽ सामको. तुजी भोय –”

“कित्याक बुर्र?”

“तेंकां गोमताय तेसलें नाटोक? केदो व्हडल्यान इचारताय जाणां? आरे, सोदांची मुस्तायकी घालून नाटोक कोत्ताय?”

“तेंकां ‘दित्ता थोम तत्ता थोम’ करता तसल्या दशावतारी नाटकांची संवय. नाजाल्यार हरहर महादेव आनी दीन ऽऽ दीन ऽऽ करून तरसादी घेवन नाचतल्यांचो घोस्त.”

“सोदांच शिवाजी? आमी कितें सोदांच काजूफेणी मात्तांय? केन्नाय व्हिस्की, ब्रँडी पोचोयनाय? केन्नाय टिप्पर मेवोना जाल्यार लाकडी बॉडीचेर चोडोन खाज भागोयनाय? तुमच्या गांवठी मामांक आमचे तियात्रबी कांय गोमपा ना. काजाराचो मुस्तायकी घालून आयल्या म्हुणोन बोबो मात्तोले.”

“तुमच्या नाटकाक माल्ल्यो?”

“म्हाका खुंय, किरिस्तांव देखून मोराटी सारकी उलोवंक कोवना! हेरांक तोरी गोमताय? सगले हेगांडी. मोराटी नाटकांत आख्खी कोकानी. तियात्रांभाशेन. आनी जाणांय.”

“सांग.”

“म्हाड्डोळेची नोटी. सोंजमोंगनाय.”

“नोटी?”

“नोटी दुडवांच्यो न्हय. घांटवल सामको. ॲक्ट्रेस. पोय, बोरी आसली टिप्पर. कितें जालें जाणां?”

“कितें?”

“पोय, फॉर्मार आयलो तूं. ते दीस सोगले तशेच फॉर्मार आयले. नाटोक केन्ना काबार जाता आनी नोटयेक कोण ट्रक्सांत घालून पावोयता अशें जालें. पूण दोवदिरो नाटोक मास्तर घेवन गेलो आपले वांगडा. तो खुंय आदल्या दिसाच्यान तिचेर हात भोंवडोवपाक लागलेलो.”

“तुमच्या तोंडाक पानां पुसलीं.”

"तुजे भोयणीन मोगान पान हाडून दिलोलें. मुखारूच बोसलोलें."

"दनपार जाली, ट्रक उसपूंक जाय."

"बोस रे. एक ट्रीप उणी जाल्यार तुज्या बापायचें कितें सोत्ताय. लुकसाण कोंपोनीक. सोंजमोगनाय?"

"समजलों."

"कितें सांगतालो जाणां, तुजे कोंपोनीन ही खोटारी धुकलचे परस तूं आमचे कोंपोनीत कित्याक येनाय?"

"कित्याक?"

"चोय, हिंगा गोर लार्गी. चिचेदेंवण्यार प्लॉटार तुच्या बापायचें दुकान. सोगलें आरो. सोंजमोगनाय?"

"पयस बरें."

"पयस बोरें कित्याक जाणांय. जाता तितलो सोरो पिवपाक आनी भायले भायर झोंवपाक. कित्याय यो म्हुणटाय जाणांय?"

"सांग."

"तुजो भोयण खणीर येता वावराक. दोगांय एके कोंपोनींत आसल्यार बोरें. तूं जाणांय, खणीर चेडवां म्हुटल्यार मालाची रास कोशी. उखोलचें खोरें लावचें. भोयणीचेर नदर आसची."

"तूं आसाच."

"कित्याक?'

"म्हाजी भयण तशी तुजी भयण."

"पिसो घांटवल सामको. तुजी माय ती मुजी माय न्हूय. तुजी घरकान्न ती मुजी घरकान्न जांव नेजो. तेचपरी तुजी भोयण ती मुजी भोयण न्हूय. पूण एक –"

"कितें?"

"तुजी भोयण सारकी – "

"अं?'

"पोय, ओ ह ऽऽ ली."

"या. चड जालें."

"म्हाका लागोना मात्तूय."

***

रस्त्यावयलो पावलटभर धुल्ल चिरीत नानूलो ट्रक घरघरूंक लागलो. रस्त्यावयल्या खळग्यांक लागून गाडयेच्या दर एका भागाचो आवाज जावंक लागलो. ट्रकाचीं हाडां खिळखिळ्ळेवरीं जालीं. धांवत्या ट्रका फाटसून माड्डायलो धुल्ल भूत कसो फाटलाग करूंक लागलो आनी खर्शेवन खर्शेवन जमनीर थपकल मारूंक लागलो. कडेचीं झाडां-पेडां थरथरलीं. भंयान आनीक एक धुल्लाचो थर ताणीं आंगार माखोवन घेतलो. वोतांत लासत रावलीं. सुर्या माथ्यार पाविल्लो. वोताचो रखरख किर्णांकिर्णांत वाडटालो. पयसुल्ल्यान दिसपी वाठार लाशिल्लेभशेन रसरसतालो. काळ्या काळ्या खडप़ार उदकाचीं ल्हारां थरथरिल्लेभशेन दोळ्यांक भासतालीं. वोतांत चवकुणां मारपी काळ्या कावळ्यांचो कर्कश आवाज रखरखसाणेंत अदीक भर घालतालो.

चडटेर पावतकीच नानून गिअर बदल्लें. खोमसाचो एक एक बुतांव तो सोडीत रावलो. हड्डें सामकें उकतें पडलें. हड्ड्यावयल्या काळ्या केंसांतल्यान घामाचो एकेक थेंब पोटकळेर गळूंक लागलो. बोंबले वयल्यान घामाची धार पॅन्टींत अरसूंक लागली. कपलाची हूम ताणें लेंसान पुसली. दोळ्यांच्या मलप्यांर शिरकल्ले धुल्लाचे कण ताणें अचळय पुसून काडले. घुमो ताणून ताणें मुखार नदर मारली. ताचे दोळे सामके बिलबिल्ले. पयस ताणें हय न्हयशें कितें पळयलें. दोळ्यांचेर पेज घेवन ताणें बारीक तेळपाचो यत्न केलो. वोताच्या रखरखान पिसुडलेली धवी कोंबी कशिशी आकृताय ताका दिश्टी पडूंक लागली. आनी मागीर तीच आकृताय धवे मुस्तायकेंतली एके बायल मनशेची दिसली. ना म्हळ्यार वगीच ताज्या मनांत दुबावाची पाल चुकचुकली.

भर दनपारच्या कडार हे वाटेर कसलीं तरी नवलां घडटालीं. आलवांतीण पुरपाची सुवात म्हण हो वाठार नावाजलेलो. केन्नाय कोणाकय अकस्मात बायल मनीस दिश्टी पडटाली. कितेंतरी उलयताली. कोणाक दुबाव येना आसलो. पूण मुखार चलतां चलतां ती नाच्च जाताली. आनी मागीर पळयतल्याक शेळी हूम सुट्टाली. असल्यो खबरी केन्नाय कोणाच्याय तोंडांतसून बारीर आयकूंक मेळटाल्यो. पूण सोऱ्याचे घुंवळींत कोण गंभीरतायेन तांचेविशीं येवजिनासलो.

नानू कांचवेलो खरो पूण ताणें धीर सोडलो ना. गरज नासतना गिअर बदलून ताणें वेग वाडयलो. तापिल्लो धुल्ल चिरीत ट्रक धावंक लागलो. चवताळिल्ले

नागिणे भशेन धुल्लाचे लोट फाटल्यान उसळूंक लागले. ट्रक ते आकृताये म्हऱ्यांत पावलो. नानून बारीकसाणेन पळयलें. ती काशेन णववारी कापड न्हेशिल्ली. पिरायेन तीस - पस्तीस वरसांची दिसताली. आंगार कापडा भशेनूच धवो विटको पोलको आशिल्लो. खाक्यांत कुडक्यांत गुटलायिल्ली पोटली सामकी आंवळून धरिल्ली. माथ्यांतले केंस पिसुडिल्लेभाशेन जाल्ले. ते खातीर ती अदीक भंयाकृत दिसताली. पायांत व्हाणोय नाशिल्ल्यो. रगत किणिल्लेभाशेन तिची गोरी कात तांबशी जाल्ली.

ट्रकाक तिणें हात दाखयलो. पूण काचाबूल जावन ती दावे वटेनची उजवे वटयां उबी रावली. तिच्या घामशिल्ल्या मुखामळार असहायताय दमळ कशी दाटून आयिल्ली.

नानून ट्रक थांबयलो. जनेलांतल्यान हात भायर काडून ताणें तिका दावे वटयां येवपाची खूणा केली. तशी ती देडकें चालीन दाराकडेन आयली. नानून दार उकतें केलें. कॅबीनांत पावल दवरनाफुडें तिका खिणभर उज्यांतल्यान उदकांत पावल दवरिल्ल्या सारकें दिसलें. पालवान घाम पुशीत तिणें बाबडे नदरेन नानूचे उपकार मानले. तिका कितें विचारचें तें नानूक कळ्ळें ना. ताणें तिचेवशीन नदर घुंवडायली. नानू कितें तरी विचारतलो अशें तिकाय दिशिल्लें. पूण नानूक जमलेंना.

"देव कसो पावलो तूं. नाजाल्यार उज्यांतली सुटोन वोतांत लासून मरतली आसली."

"खंय सावन येयल्या?"

"कितें सांगूं सायबा, जल्माचे भोगस्थाळे! वयता थंय पावलाक थार ना. कोणतरी फाटीक लागला."

"कोण लागला?"

"कोणें खाल्ल्यार तरी सुट्टली आसली. पूण अशें हुलपोवन घेवप...."

"खंय उजो लागलो?"

"खबर ना? दिंगण्या गवळाक रातीं कोणें दुस्मानान संद सादून लायली काडी."

"अशें?"

"सगलें जळोन गोबोर. तरी बरें तारा-पोरांसकट लोक सगले वाटावले. नाजाल्यार सुके बांगडे कशे हुलपतले आशिल्ले."

"चड आशिल्लो लोक?"

‘‘शेंकड्या वयर! माथ्यार संवसार मारून बायल भुरग्यांक घेवन येयल्ले बावडे. आतां कंपनी कितेंय दिता जाल्यार तोंड वेंगावन हात फाफुडपाचे.’’

‘‘दितली कंपनी.’’

‘‘दिता तेन्ना दिता. पूण आता आंगा वयल्या वस्त्राशिवाय हातींत दमडीय ना तेणीं कितें खावप? अशें तोंड घेवन हुंवाळून वचप म्हाज्यासारकी.’’

‘‘तूं एकलीच आशिल्ली? तुजीं....’’

‘‘ना बाबा, आनीक कोण ना म्हाका. तळपाक जल्मली कशी आसा.’’

नानून तिच्या कपलार नदर मारली. कपलार पिंजरीचें थीकशें दिसतालें. पूण घामान ताचो आकार अस्पश्ट जाल्लो. राडांव काय आयाव म्हणपाचें ताका समजलेंना. तशें विचारपय ताका बरें दिसलें ना.

‘‘तसो कपलाच्या तिब्या पुरतो नावांक घोव आसा.’’

‘‘खंय आसता?’’

‘‘तो जाग्यार आसलो जाल्यार अशे वैदावास काडची नाशिल्ली.’’

‘‘पयस आसता वावराक?’’

‘‘चुडटी लागली वावर करतल्याच्या तोंडाक. हांयें बायल मनशेन हाडांचीं काडां करून पोसप हेका. पिवपाक पयशे दिवप आनी वयल्यान पियेवन हेणें म्हाकाच येतिश्ट मारप.’’

‘‘तुका सोडली?’’

‘‘हांयेंच सोडलो तेका. जीव आसल्यार खंयूय भीक मागोन खायन म्हूण हुंबरो हुंपून आयज सतरा वर्सां जालीं. कपलाक लायता इतल्याखातीरच कोणेंय राडांव म्हण अपशकून करून घेवंचो न्हू, म्हण.’’

तिणें परतून दोळ्यांक पालव लायलो. मागीर कपलार ओडलो. तेसरशीं कपलाची तिकली पुसून गेली. तिणें एक सुस्कारो सोडलो. आपली कर्मकाणी ती परत सांगूंक लागली.

‘‘आवयल्या थंय जीव धडधाकट आशिल्लो म्हण मार सोंसलो. त्या खातीर हो मिनाचो वावर झेपता.’’

‘‘कसलो वावर करी?’’

‘‘मिनाचो. आनीक कसलो वावर कामेऱ्यांक? बार्जी भरल्यो, खडी वेंचली, पावडर गाळ्ळी. आतां दिंगण्या गवळांत आशिल्ली तेन्ना हजेरेक धड्याक काम

करी. हजेरेक तशें व्हडलेंशें कांय सुटना पूण बरें आपलें काम. जिवाक चड तकाल्स जायना.''

''आतां खंय?''

नानूच्या प्रस्नाक तिणें जाप दिली ना. तोंडार पालव घेवन ती धळधळयां रडूंक लागली. नानूक कितें करचें कांय येवजलेंना. ताणें गाडयेचो वेग उणो केलो. रस्त्यावयले खड्डे वाटायत तो गाडी चलोवंक लागलो. तिका कशी समजावंची तें येवजून तो गोंदळ्ळो.

''वेळ पडल्यार इख खावपाची पाळी येतली म्हाजेर. आवय ना बापूय ना. घर ना घोव. गांठीक दमडीय ना. आतां वोतांत लासून वचोन म्हण तुज्या त्रक्सार चडली. खंय देंवचें तें सुद्दां खबर ना.''

''भियेवं नाका.'' नानून तिका धीर दिलो. पूण ताचीं उतरां तिका आयकूंक आयलिंना.

''कितें कर जाणां मुगे, चिंचे देंवण्यार म्हाज्या बापायचें च्यायेचें दुकान आसा. कुशीक बरी सुवात आसा. सामकी भितोड न्हूं.''

ती नानूच्या तोंडाक पळयत रावली.

''थंय राव तूं. पूण बेश्टी रावोन कितें करतली?'' तिवय वगी रावली. नानूय वगी पडलो. मुखार कितें उपाय, ताका येवजलोना.

''एक करूं येता. थंय बरेच ड्रायव्हर आसतात. दनपारचीं जेवणां रांदून वाडशी? रांदपाक येता मुगे?''

''तशी आवय बापायन बरी रीत शिकयल्या. कसलेंय जेवण रांदीन. पूण जेवणां दिवंक पयलीं हातीन कितेंय...''

''भियेवं नाका. तुका सुवात मेळ्ळी. फायच्यान कर सुरवात. बाकीचें हांव पळयतां.''

''तूं चिंचे देवण्या वयल्या पुलोटार आसता?''

''ना. पूण सगळे ड्रायव्हर वळखता म्हाका. हांव सांगतां तेंकां. तेंकांय दनपारच्या जेवणाची सोय जाय.''

''देव बरें करूं तुका.''

''आतां ट्रक उसपून पायतां तुका चिचे देवण्यार.''

''आनी तूं?''

"तुजें थाऱ्यार पडसर रावता हांव तुज्या वांगडा. मागीर -"

"तूं खंय चलयता ट्रक?"

"हांगा शेनोरेर. मातसो पयस. पूण परत येवपाचो आसां चिचे देवण्या वयल्या प्लॉटार."

"खऱ्यांनीच देव पावलो तुज्या रूपान. नाजाल्यार घोव आसून नासून सारको."

नानूकय समाधान मेळ्ळें उलयतां उलयतां ताका तें येवजलें. मानुयेलान एकदां ताका ही जेवणाची अडचण सांगिल्ली. तेन्ना उपाय कोणांक सुचूंक नाशिल्लो. आज आयतीच संद चलून आयिल्ली.

ट्रक काट्यार पावलो. नानून सारको काट्यार उबो केलो. भितल्ल्या माकनांतल्यान वजन जालें. जनेलांतल्यान काट्यवयल्या मास्तरान वजन करून स्लीप परत दिली. नानून नदर भोंवडायली. काट्या वयल्या मास्तराक ताणें म्हणलें,

"सदचे परस चड जालो मरे लोड!"

"वजन चड आसा मुरे ट्रकांत. डबल लाकडी बॉडी." उलयतना कांट्या वयलो मास्तर हांसलो. तसो नानूय. नानून तिचेवटेन पळयलें. तिका कांय कळ्ळें ना. पूण तीवूय हांसली. ट्रक चालू जालो.

"राती धरयां कितें खाल्लेंलें तरी?"

"खावपाक सुमरती आसली कोणाक? रात सगळी जागोवन गेली. गवळ हुल्पताना कितें फाळी-चोळी वाटावता काय म्हण उज्याकडेन झुजलीं."

"मागीर?"

"कितें गावतलें उज्याच्या तोंडांतसून? चार बोंदरां वाटायलीं. आंग हुल्पोन मात घेतलें."

"आंग हुल्पलें?"

"हें न्हूं. पळय कश्यो काती सोलल्यो." तिणें हड्ड्या वयलो पालव सकयल काडलो. पोलको कुशीक सारून पोटाकडलो उज्याचो एकेक फोड ती दाखोवंक लाली. नानू पळयत रावलो. तिचे गोरी कातीवयले फोड पळोवन ताचें मन चरचरलें. पूण तिज्या हड्ड्यावयली नदर ताच्यान काडूं नज जाली. पोलक्या भितर तिणें चोळी घालूंक नाशिल्ली. नानूचो स्टेअरिंगा वयलो ताबो धील जालो. गाडी फोणकुलांतल्यान वचूंक लागली. पड्ड्यार चिरपुटां मारतात तशीं तिज्या पोलक्यार

भितरल्यान थानां आदळूंक लागलीं. तिणें पालव आशिल्लो तसो केलो. नानू तिका अधाशी नदरेन तेळीत आशिल्लो. ट्रक सामको कडेच्यान चलूंक लागलो. ती भियेली. तिणें नानूक पळयलो. तसो भानार येवन ताणें कावो मारून घेतलो.

'तुजें नांव कितें?'

'देवकी.'

***

"पासडी पडोंक येता आमोरेचो." रूक्मीणीन दारांतल्यान पळोवन बोटां मोडलीं. लांब बळारी सारकीं धेंपां मारीत बाबुसो येतालो. खोमसाक भुजार बुराक पडलेले. तातुंतल्यान बावळ्याक पडिल्ल्यो मावो सारक्यो दिसताल्यो. कंबराचे चेड्डेक ज्युस्त कुल्यार फाळे गेल्ले. बुराकांतल्यान दिसपी ताच्या कुल्यांचीं चिवणां पळयतल्याक वीट हाडटालीं. चिवणां भोंवतणयां धवशे खवळे आंग उखलापून राविल्ले. पणसाच्या आंगा वयलीं सुकीं सालटां कशीं. पोल्यांनी सामकोच तळ गांठिल्लो. हाडांवयली कात सोलपिल्यार भितरलीं धवशीं हाडां स्पश्ट दिसतलीं आशिल्लीं. जिन्याचो मरतुकडो खूंट कसो तो दारयां उबो जालो.

"रूक्मीणआका."

"येयलो पोसूंक." रूक्मीणीन ताका आयकूंक येत येद्यान म्हळें. ताणें आयकून आयकुनाशें केलें. दरवंट्या भितर हेंवाळ्यावरी मान बागयली आनी हांतुणावयले रूक्मीणीक परत विचारलें.

"कितें म्हण गो आका?"

"बस थंय."

"आं बसतां."

"थंय कडण्याकडेन थुकों नाका आं. केंसराक वीट दिसता."

"ना. ना. केंसर येवना आजून मिनाचें?" आनी तो थुंकलो. कडव्या भायर धेरकेल भिरकावंक ताणें नेट केल्लो पूण तितलो दम ताच्या हड्ड्यांत नाशिल्लो. धेरकेल कडव्या भितरच पडलें. तसो बशिल्लेकडेन पांय ओडीत तो मुखार सरलो

आनी उजव्या हातान धेरकेल उखलून ताणें कडव्याक पांख कशें पाखयलें.

रूक्मीणीच्या पोटांत नळ मळमळ्ळे. जिबेर दातांची माळ घसटून तिणें तोंडांतली थुंकी थुंकयेचे कट्टेंत वडयली. कट्टी आशिल्ली तशी उशा वयर दवरीत तिणें म्हणलें.

"बुरशा कास्ताचो."

"ह्या दिसांनी खबरेक पावलों ना तुचे. केंसर येवना आजून?"

"खबरेक म्हाजे काय केंसराले येयला?"

किडिल्ले दांत भायर काडून तो हांसलो. रूक्मीणीकडेन पळयत ताणें म्हणलें,

"कसलें म्हणोन गो पाड पडलेलें दुयेंस तुजें! आतां कितलीं वरसां जालीं गो तुका हांतुणार पडोन? क़ितलीं गो रूक्मीणआका?"

रूक्मीणीन जाप केली नां. काळखांत तिच्या तोंडावयले भावय ताका कळ्ळे ना. बशिल्ले कडेन ताणें सांसपिलेंशें केलें.

"थंय कोळयांत आसतली इडी."

रूक्मीणीन बोट दाखयलें तसो तो उठलो. कुल्याच्या खिणांक ताची चेड्डी दसली. कोळयांतल्यो दोन विडयो ताणें काडल्यो. एक बोल्सांत घातली. बोल्साक पडिल्ल्या बुराकांतल्यान विडी भायर पडची ना हाची जतनाय ताका घेवंची पडली.

"सगल्यो काडूं ना मरे? तो मागीर आमचेर फोग काडटा."

"ना. एकूच काडल्या. इडयो घेवपाक विसरलो हांव."

"सदांच विसरता तूं! भायर कितें फुक्याक मेयटा?"

"पंडरीबाप्पा ना?"

"तूं घाटार साकून आतांच देंवला काय कितें? तो इतले तिनसाना घरा केन्नाच्यान येता? तरी पूण आयज पावत ना पावत म्हण सांगलां तेणें."

"नजो दिसता. जाणटेपण."

"बाबुशा, जिबेक हाड आसा मरे? म्हातारपण म्हण थंयच सोडला तेका? आयज पगाराचो दीस. ड्रायव्हरांचीं च्यायेचीं बिलां वाशील करून घेवंक रावतलो."

"हांव आनी पावोंकूच ना हालीं तेजेसरीं."

"हांगा येता तो पुरोना? तेका आनी पोसूंक कित्याक वयता थंय."

"तशे म्हाजे वळखीचे खूब जाण आसा थंय."

"आतां तुकां पोसपाक जाये म्हण दवरल्या तुयें वळखी करून." रूक्मीण

वोठांत पुटपुटली. बाबुसो विडये शेंवट फुसकायत रावलो. ताच्या काळश्या वोठांक धग तेंवसर तो फुंकीत रावलो. ताच्या हड्ड्याचो सांपळो वयर सकयल जावंक लागलो.

"नानू केन्ना येयल्लो?"

"शेगीत एका सुमनाक तुयें पयरो पडोंक दिवना. तुचे असवडयां काय येवं ना. कित्याक?"

"खूब दीस जाले पोराचेर नदर पडल्यार –"

"पोर कित्याक? बरो आवय बापूय आसा तेका."

"आसा तर. पूण तेका याद आसपाक जाय न्हू तेंची."

"कसली याद? तूं कितें समजलो, सोडून गेलो तो आमकां? म्हयनो म्हयनो घरा येयना म्हण! घराक येयलो ना तरी जोडटा तो. तुज्यासारको दुसऱ्याच्या दारांत हेडना. आतां ना येवं, मेल्या उपरांत इल्याक तरी येतलोच."

रूक्मीणीच्या हड्ड्यार पेज आयलो. तिका खोकलेची उबळ आयली. हड्ड्यार हात दामीत ती खाकूंक लागली. उशावयली कट्टी भरून ओतपाक पावली. हड्ड्यांत दुखपाक लागलें. दोनय हातार नेट लावन ती उकणयां बसली. वण्टीक फाट तेकोवन लेप कशी रावली. सोंशेवन सोंशेवन खरस जिरोवंक लागली. वाटेर बाबुसो बशिल्लो. ताचे जांगेपोंदच्यान तिका केंसर दिश्टी पडलें. आतां तिचो जीव सावशीत जालो.

जोर्ती म्हेडीकडेन दवरून केंसर वळ्ळें. पोतयेंतली चुंबळ पाख्याचे खाचींत मुंगरली. तें भितर सरलें.

"आजून दिवोय लावं ना गे? वाटेर कोण?"

"हांव तो बाय, बाबुसोमामा."

"दिवो लावंक उठटालें इतल्यान हो दिवो उदेलो. बेश्टें तोंड वाजयलें आनी खशेलें."

"घरांत बसोन आनीक कितें जाता तुचेकडेन?"

रूक्मीण वगीच रावली. केंसरान काळखांत सासपीत फस्क सोदलें. चिमण्यो पेटयल्यो. एक आवय कुशीक दवरली. दुसरी भितर आनी तिसरी बाबुशाकुशीक दवरली. पोतयेंतलो डबो भायर काडून फळयेर दवरलो. पोतयेंतलें आनीक कितेशें ताणें आवयची नदर चुकोवन काडलें. पूण रूक्मीणीन सदचे नदरेन हेरलें.

“कितें गो बाय तें?”

“आं? पोलक्याक कुडको, तोच घेवपाक रावलेलें. तेखातीर उशीर जालो.”

“पोलक्याक तेदूस न्हुगो एक घेतला?”

“जालें! आतां एक सुबेज हाडल्यार तोपलें बुडलें.”

“बाय, तुकां जाय तें हाड. जोडकार तूं, मोडकार तूं.”

“जोडून जोडून हांवच मोडटा.”

“कोणें म्हटलां तशें? आमी कितें तळ्याचें उदक पियेवन दीस सारिनात. नानू आपलो तो नायक आपलो तो पायक. च्यायेच्या दुकानाची जोड थंय तेका आपणाल्या दुर्येसाक पुरो. तुजी जोड म्हाज्या दुर्येसाक आनी पोटाक.”

“तूं शींव एक.”

“म्हाका आतां खंय सर्णार वचपाक नवो पोलको?”

“तिनसानचे कातरीर कायचे कांय उलोवं नाका. एक दवरचो घरांत.”

“घरांत कित्याक? शींव तूं दोनय. बरो दिसता. कसो वार?”

“खबर ना. फुडल्या सुमनाचे पयशे पडटकीच दिवपाचे.”

“जांव गो. फुकट काय न्हूं.”

“फुकट? फुकट कोण दितात?”

“दिवपी खूब जाण आसात. पूण ते कसल्या मोगान दितात जाणां? फायच्या न्हूं. माल पळोवन दुडू दितात तशेच दितात. कोणाचे लगाडीक पडोवन – ”

“जालो. सदचो शेरमांव सुरू जालो तुचो. थंय खणीर वावराच्या तरासांनी तकलेर थार ना आनी हांगा तुज्या उपदेसांनी. तशें जाल्यार कामांक वचना हांव. लोक म्हणटात न्हूं, लग्नाची घोडी जाली, करात लगीन.”

“कोण म्हणटा?”

“नांवां सांगोंक बसों आतां? कोळंबाचें तोंड धांपपाक जमत तुकां?”

“लोकांचीं तोंडां म्हणचे फोंत. लोकांचो तरी कितें गुन्यांव! दिसता तें उलयतले. आमकां पोसूंक जाय म्हण तुका आंकवार दवल्लां.”

केंसर वगीच रावलें. खांब्याच्या आडसाक रावून मुस्तायकी बदलूंक लागलें. रूक्मीणीन पळयत म्हणलें.

“बाय.”

“कितें?”

कमराचो तुवालो सोडीत ताणें विचारलें आनी तें फाटल्यान हात घालून पोलक्याचे बुतांव सोडोवंक लागलें.

"घागरो कापला तो?"

"परत जाणवायो. घागरो न्हूं, साय ती."

"इतकी मोटवी?"

"हेच्या परस मोटवी घालता बाकीचीं."

"आनी वारो येतकीच काडून दवरता?"

"कड्डी वचना तुच्यो. वाऱ्यान हुबपाक कितें पांखें तें? वयल्यान तुवालो आवळून बांदता तो कित्याक?"

"हँ.....हँ..." बाबुसो दांत काडून हांसलो तशें केंसर भितर गेलें.

"तूं कितें हांसता रे?" रूक्मीणीन बाबुशाचेर धेंकसो घातलो. तोंडाक गुड्डो लायिल्ले भशेन तो वग्गी पडलो.

"उठ थंयचो दारावयलो. तें न्हावंक वयता. बाय, हांगाच न्हा गो. तळ्यार नाका इतकें रातिचें."

"नाका वयतां हांव. मेयटलो कोणय वांगडा."

"हांव येवं वांगडाक?"

"नाखर्शिबऱ्या, बस थंय वगी. बेश्टें शिताफुडें मीठ खावं नाका."

रूक्मीण परत बाबुशाचेर तापली. बाबुसो काळखांत पळयत बसलो. केंसरान उमळपाची मुस्तायकी बालदेंत वडयली. फळये वयलो शाब्बाचो कुडको घेतलो. एका हातांत बालदी घेतली. चुंबळीचो साकाटो घेतलो. आंग पुसपाचो रिस्काद तुवालो, उमळिल्ली साय, पोलको आनी हेर खांदार वडयलीं. तें वचपाक भायर सरलें.

"बाय."

"कितें गे?"

"खांदार सारखी वडय मुस्तायकी."

केंसरान तुवाल्या भायर पडिल्लो चोळयेचो दसो सारको तुवाल्यापोंदा धांपलो.

"काळखांत कोण पळयता?"

"काळखाकूय दोळे आसतात बाय. काळोख घातकी."

"उजवाड़ घातकी न्हूं?"

"आतां काळोख उजवाड सारकोच. चल बेगीन वचोन यो. बाय."

"कितें गे झांकफळ खाल्ल्याभशेन बा ऽऽ य बा ऽऽ य करून वथरेकता?"

"आतां वथरेकणीच ही."

"सांग, कितें?"

"कांय न्हूं. चलताना कित्याक पेंगता काय म्हणां."

"पेंगतां?"

केंसर जाप दिनासतना काळखांत चलत रावलें. रूक्मीण आनीक उलयलीना. बाबुसोय वगी रावलो. खिणभर घरांत कोणूच ना कशें दिसूंक लागलें. पेत्रोलाचे दिवे मात धुंवर ओकीत रावले.

"पेंगतां खरें. पायांत कितेंय भल्लां जायत."

"तूं कित्याक पेंदता? पायांत भरों ना जाल्यार जागेंत भरो."

"सोयरीगत पळोवंक जाय केंसराक."

"तितकीच पळोवपाची उरल्या तुवें. तेका सोयरीगत पळोवपाची आनी मागीर तेज्या दारांत वचोन पडपाचें. नाजाल्यार आनीक कितें उद्येग जाता तुचेकडेन?"

बाबुसो वगी बसून चिंतीत बसलो. रूक्मीण तशीच उठून चुलीकडेन गेली. काडी-बडी लार्गी करून तिणें चुलींत उजो पेटयलो. ओणव घालून परवंत परवंत आदनाक दवरलें.

"येवन आंग फापुडलें. म्हुणून उजो तरी केलो."

"लायलो कोणें तरी."

"कितें? सपनेलो काय कितें रे?"

"ना. दिंगण्या गवळाक गो. कोणेंतरी उजो लायलो फाटल्या दिसांनी."

"दुसऱ्यांच्या संवसाराक उजो लांवपी मनीस आसता ह्या संवसारांत."

रूक्मीण परत भितर गेली. इतले म्हणसर केंसर न्हावन - धुवन आयलें. ओली मुस्तायकी.ताणें बालदेंत पिळ्ळी आनी दाणयेर सुकत घातली. चुंबळिंचो साकाटो दाणयेर वाळगत वडयलो. तो निस्तत रावलो.

काळखांत वणटीक तेंकून बाबुसो केंसराक कावळ्याचे नदरेन तेळीत बसलो. पूण चिमणेच्या मिणमिणट्या उजवाडान आनी कुल्पाद दोळ्यांतल्यान ताका स्पश्ट कांय दिसलें ना. केंसराचो आंगलोट ताका पंदरावीस वरसां आर्दीचे रूक्मीणी

सारको दिसलो. तो येवजीत रावलो. येवजितां येवजितां ताका उगडास आयलो. चवथी आदलेदीस तो रूक्मीणीक तळ्यावयलो हातो घेवन आयिल्लो. नाखाच्यो पुडयो फांकरून ताणें त्या वासाचो अणभव घेतलो.

"वास येता. कसलो गो बाय?"

"पोतयेंत मोगऱ्यांची पटी आसा."

"कोणें दिल्ली?"

"नांव बरयलां तिचेर. फाती सुद्दां माळपाक मनाय."

"खोप्यांत जाता तितक्यो माळ. पूण फुलांक लागोन चेडूं मनशाचें पावल चुकता बाये. वासूच तो. त्याच नाकान घेवपाचो आनी तेंच नाक कापपाचो."

"ते खातीर पेटलांत धांपून दवरची आपले धुयेक. कोणाची नदर लागचिना. खंय पावल चुकचें ना."

"अणभवाचें सांगता गो बाय?"

"कित्याक, तुजें चुकलेलें पावल केन्ना? आंकवारपणांत? लगीन जावन?"

रूक्मीण आपलें आवयपण वळखून वगी रावली. केंसर पेज रांदपाक गेलें. रूक्मीण ताका जाता तितलो आदार दिवंक लागली. दोगांयनी पेज रांदली. पंडरी राती-कातिचो येत म्हण ताचो वांटो बुडकुल्यांतच दवरलो. वयल्यान मांड धांपली. आलीमेनचे वाटलेंत रसरसीत पेज घालून केंसरान भायर बशिल्ल्या बाबुशा म्हऱ्यांत व्हरून दवरली. खोल्यार आंबलेची शीर दवरली. बाबुसो तसोच उठून बसलो. येदो वेळ कुल्याचीं चिवणां किचमीत राविल्ल्या हातान ताणें पेजेचें भुरके मारूंक सुरवात केली. दोन घांसासरशीं तोराचो कुडको खालो, घटघट निवळ घोडून तळाचीं पुज्जे कुयां तो वेचूंक लागलो. फोड आयिल्ले आलीमेनचे वाटलेंत तायटाच्यो काती सोलसर ताणें हात भोंवडायलो.

"ही म्हणी उशाक घेवन थंय सोप्यार न्हीद."

"अं."

"खोंकली येयल्यार भायर थूंक. नाजाल्यार वणटीर रंगपंचम करशी. म्हाज्या जिवाच्यान नजों आतां शेण काडूंक." रूक्मीणीन ताका भितरली म्हणी हाडून

दिली. भायर येवन केंसराच्या हातार ती उदक घालूंक लागली. केंसरान काश्याच्यो दोनय वाटल्यो धुल्यो. कागदा वयलीं बांगड्यांचीं बोडकां कागदान गुटलावन कडव्याभायर भिरकाटायलीं. हात गोबरान धुतकीच ताणें हाताचो वास घेतलो आनी तें उठलें. उठपाक ताका कश्ट पडले. पूण आवयचे नदरेक ताणें पडूंक दिलें ना.

"पडशी बाय, दार उकतेंच दवर."

"उकतेंच?"

"हो येयत घडये चिंचे देवण्यार साकून रातीचो. मर्दी तुजी न्हीद पेड्ड्यार जावंक नाका."

उशाक म्हणी घेवन बाबुसो सोप्यार ल़वंडलो. मेल्ले घोटाली सारकी ताणें गुटली केली. पूण ताका झेम आयलिना. रूक्मीण आपल्या हांतुणार पडली. तिणें दिवो वाडयलो. केंसरूय भितल्ले वटयां न्हिदलें. पूण सदच्यासारकी ताका न्हीद पडलिना. तें कूस परतीत रावलें.

पंडरील्या घरांतलो दिवो वाडवलो तेन्ना कोळंबार शेकानशेक काळोख भरलो. घरांचीं पांखीं आनी झाडांचे शेंडे एक जाले. गाड पाचवो कोर काळखांत भरसून सगळो वाठार किट्ट काळो जालो. गोठ्यांनी गोठोभर गोरवां नाशिल्लीं पूण आशिल्लीं तीं एकलेपणान बुजून वगी रावलीं. तांचो रवंथ लेगीत बंद जालो. सुणीं कोनशांक आंकडे करून पडलीं. चिचेदेवण्या वयलो आनी शेनोरेच्या प्लॉटावयलो गडगडूय आयज नाशिल्लो. नाजाल्यार मिर्गाच्या कुपांचो गडगड कसो आवाज बार्जी भरताना जातालो. त्या बोवाळाची थोड्यांक संवय जाल्ली. नवख्यांक मात दोळ्याक दोळो लागनाशिल्लो. कोळंबाचे जिणेच्यां एका आंगाचो तो आवाज आशिल्लो. पूण आयज राती तें कांयच नाशिल्लें. कोळंबार इतली शांतताय सामकीच म्हारग जाल्ली. कोळंब कोणें अचळय उखलून व्हेल्यार लेगीत कोणाक सुलूस लागची नाशिल्ली. कोणाची पातकडी हालची ऩाशिल्ली.

आनी भर मध्यान्ने पंडरील्या घरांत अकस्मात दिवो लागलो. पेटयिल्लो दिवो थरथरत्या हातान घेवन रूक्मीण उबी रावली.

"बाय.... बाय, कित्याक किलांट मारली गो? सपनेलें गो?' रूक्मीण मोडट्या

कंबरान भितर वळ्ळी. चिमणीच्या उजवाडान तिणें केंसराक पळयलें. हुमेन तें थपथपलेलें. ती आनीक मुखार गेली. केंसर उठून बसलें. ताचो पोलको गळ्याकडेन ओडलेलो. केंस फासपल्ले. कंबराची साय सकयल देंविल्ली. रूक्मीणीन ताच्या कंबरार चादर वडयली. तिकाय हूम सुटली. कितें घडलां तें कांयच होलमलेंना. "बाय... बाय" करीत ती केंसराक सासपूंक लागली. आनी तिका दुबाव आयलो. तिणें हेवटेन तेवटेन पळयलें.

कडव्याचे खांचीक बाबुसो खूंट कसो उबो आशिल्लो. एक हात गळसणी लागिल्ले चेङ्क्ेक आशिल्लो आनी दुसऱ्या हातान तो आपणाक जाता तितलो खांचींत ओडून घेतालो. ताका हूम सुटल्या काय आतांच तळ्यार न्हावन आयला म्हणपाचें कळनाशिल्लें. रूक्मीणीन कडव्याचे एक कांबीक हात घातलो. कच्च करून कांब ओडली ते सरशीं ती खूंट कशी उबी जाली. फाटफुडो पळय नासतना तिणें बाबुशाच्या हातार, पोटार, पांयार, जांगेर, फाटीर मेळत थंय धाडावपाक सुरवात केली.

"भैझवऱ्या, झंवपिशें लागलां तुकां. म्हाका कुरार केल्या आनी अशी हांतुणार वडयल्या. कुसक्या कास्ताचो. कसली करवाद घेवन येयला. गाण कुसल्या. आण कुसला –"

"मेलों आका ऽऽ."

"आवयझवऱ्या, आका म्हटलें आनी आकाच्या फुड्यान न्हिदलो. मामा म्हणोन आतां भाचयेच्या फुड्यान न्हिदोंक सोदता?"

"पांय मोडलो ऽऽ."

"मोडोनी. बायल मीण करता थंय चल आनी लाय तिका तुजी करवाद. तिका दुसऱ्याच्या फुड्यांत न्हिदयता आनी हांगा पासडी पडोंक येता...."

"वयतां गो ऽऽ."

"परतो हुंबरो चडशी जाल्यार फोणूच भरतां तुजो."

***

# 8

चिंचेदेवण्याक जाग आयली ती कोंब्याच्या सादार न्हय. सकाळच्या स वरांर रातपाळयेची शिफ्ट सोंपली. तेसरशीं भोंगो वाजलो. रातपाळयेचे लोक दोळे चोळीत कामावयले पयसावले. सं क कामार रूजू जावपी हांतुणावयले उठले. रातीं दोळ्यांच्या पातकड्यांकडेन एकठांय जाल्लो धुल्ल ताणीं पुसलो. हाताक मेळटा त्या आयदनान उदक घेवन तोंड चोखाळ्ळें. दोळ्यांर उदक मारलें. धुल्लांत माखिल्ली पेंट कंबराक आंवुळ्ळी. खोमीस भुजांर चडयलें. पायांत व्हाणो घालून ते भायर सरले. पावडर गाळपाच्या पट्यार वळ्ळे.

स जावंचे आदीं पंडरी लापयांव घेवन बांदावयल्यान आयलो. कोळंबार सावन चिंचेदेवण्यार पावपाक ताका सारकें अर्दवर लागतालें. सदचे संवयेन तो उठिल्लो. कोंब्याच्या सादार उठपाची आतां कोणाक संवय नाशिल्ली. मिनाच्या गडगडान कोंबे, तिनसांज्या, मध्यान्नेर, फांत्यार, खंयच्याय पारा साद घालताले. तांचेर आतां कोणाचो भरवंसो नाशिल्लो.

पंडरी प्लॉटार आपणाल्या च्यावेच्या दुकानार पावलो. दार म्हण नावांक केल्ल्या पिनिच्या फळयेचें ताणें कुलप काडलें. चावी तशीच मुजीक हुमकाळायली.

तो भितर सरलो. मल्लांच्या कडव्याक बुराक मारून जनेलां केल्लीं. तांचेर साकाचे कुडके लांबयल्ले. ते गुटलावन ताणें कडव्याचे कांबींत खोयले. मातसो झिळमिळो उजवाड भितर फांकलो. ताणें व्हाणो काडून कोनशाक दवरल्यो. त्यो धुल्लाचे गादयेर कश्यो उरल्यो. बोल्सांतलें फस्क काडून ताणें उजवात पेटयली आनी माथ्यावयल्या पांयजेलां भोंवतणयां हुंवाळून फास्केक खोयली. पांयजेलाचे फास्केंत कसलें चित्र आसा म्हणपाचें निखालूस दिसनाशिल्लें. हातान फडको घेवन ताणें बसपाच्या बांकार मारलो. धुल्ल हुबलो. वयर गेलो आनी आशिल्लो तसो बाकार विसावलो.

पंडरी भितल्ले वटयां गेलो. चुलींत ताणें उजो केलो. काल शिजयिल्लो चावेचो पालो कोनशाच्या गोबरांत ओतलो. इतले म्हणसर मागीलदाराची कवडी आपशींच उकती जाली. भायल्यान हांडीर दोड घेवन देवकी भितर आयली. रित्या कद्यांत तिणें दोड वोतली. दुसरे दोडीन कदें उपाट भरलें. देवकी आयली तशी रिती दोड घेवन परत गेली.

दुकाना कुशीक तिची खोपटी आशिल्ली. च्यावेच्या दुकानासारकीच चुट्टां मल्लांनी शिंविल्ली. मल्लांचो कडवो आनी मल्लांची कवडी आशिल्ली. तिचे थंय वचपाचें जाल्यार चावेच्या दुकानांतल्यान वचचें पडटालें. नाजाल्यार भायले वटयां भोंवताडो मारून वचचें पडटालें.

चिंचेदेवण्यार पावलांची दाटी जाली. पलतडच्यन पयली तार आलतडीं लागली. ते सरशी पलतडी रावन लोक तारयाक सादोवंक लागले. थार धरिनासतना एक्कार एक कुयो घालूंक लागले. तारींतलो लोक देंवलो. कोणेंच तारयाक पयशे फारीक केले ना. पयशे सुमनाचे सुमनाक दिवपाचे आशिल्ले. कामेच्यां सरळ वावराकडेन गेलीं. मानाय धड चडून वयर सरले आनी ओणंव घालून चावेच्या दुकानांत रिगले. एकएकलो पंडरीक सादोवंक लागलो.

‘‘बाप्पा, एक च्या कर गरमशी.’’

‘‘एक कांकण दी.’’

‘‘बाप्पा, साकर मातशी उणी जाली मरे.’’

‘‘साकर म्हारग जाली. म्हारकूय मेळना.’’

‘‘कांकणांय भागली?’’

‘‘पीठ तरी खंय मेळटा? ते फिरंगी गेले ते उंडेय गेले.’’

"बाप्पा, एक खुटी च्या कर रे."

"खुटी कित्याक रे? दुदाचे च्यायेन दुदकें जायत म्हण भियेता?"

"बाप्पाले असले मुतके चायेन?"

"बोटीर सगल्या वस्तुंचें बिलॅक जाता. साकरेचें जायना?"

"बोटीवयले लोक आंगावयल्यो घडयाळी, बानयानां, खोमसां विकून वयता. साकर पोतयांनी हाडची पडटली."

"तुकां कितें कयळा ब्लॅकांतलें? ट्रक उसपुवपाचें तुजें काम."

"हें पळय बार्जिकार येयले. विचार तेंकां."

ओणंव घालून बार्जीवयले खलाशी भितर आयले, कोणें पेन्ट घातिल्ली, कोणें लुंगी बांदलेली. घागरो कशी पांयामेरेन सोडलेली, कोणें तुवालो कशी कवळ्ळेली.

च्यावेच्या मेजार ग्लास एकामेकांक आदळूंक लागले. खिदळावन ग्लासांतले हुनहुनीत थेंबे मेजार सांडूंक लागले. लाकडी मेजार ग्लासांच्या पोंदाचीं चक्रां उदेलीं. एकामेकांत आंग भरसूंक लागलीं. मनशांच्या आवाजान ग्लास, पिरयांचे आवाज भरसून गेले. चावेचो घोंट पोटांत वचनाफुडें खणीवयल्या कामाक नेट आयलो. दुकानांतली गर्दी उणी जायत रावली. पंडरीन पाटयेर गिरायकांची उदारी बरोवपाक सुरवात केली. उगडास करून करून आंकड्या मुखार आंकडो तो घालूंक लागलो. मदींच वचून ताणें ग्लास धुले. पिरयांर फडको मारलो. दुकानांत दोगांच गिरायकां बशिल्लीं.

"बाप्पा, तुज्या केंसराक कित्याक दवरिना दुकानार?"

"तेका आनीक कित्याक हांगा? म्हाजोच दिसावडो सुटना. सगळो उदारी वेपार. हातीर पडटा तेन्ना म्हाजें."

बाप्पा भितर गेलो. दोगांयनी विडयो पेटयल्यो.

"केंसराक हांगा दवरल्यार गर्दी खूब जातली न्हू रे?"

"च्या पिवपाक काय केंसराक पळोवंक?"

"फळोवंक."

दोगय हांसले. बाप्पा भायर आयलो. ताणें तांचेमुखार च्याव दवरली.

"बाप्पा, तुजो चेडो खंय रे?"

"तो ड्रायव्हर आसता खणीर."

“धाडटा मरे तुका कितें? जाण्टेपणांत तुका आनीक आदार कोणाचो?’

“धाडटा.”

पंडरी पुताचेर चड उलोवपाक तयार नाशिल्लो. तो आसा तसो भितर वचून कामाक लागलो.

एकल्यान दुसऱ्याक म्हणलें,

“चेडो धाडटा माती. तेका पिवपाक आनी नायकिणींक पुरो. शेजराची देवकी तेणें दवरल्या मरे.”

“नायकीण?”

“ड्रायव्हरांक रांदून वाडूंक खंय. हो खंय आसा ह्या प्लॉटार कामाक? पूण पयरो पडोंक दिना. खबरेक येता.”

“बापायचे?”

“बापायक फुटके पायलेन मेजता. देवकेक भेटोंक.”

“ती इतकी जाण्टी?”

“जाण्टी जायत पिरायेन. आंगान तन्नी आसा ती. काळखांत पिराय कित्याक लागता? आ नी ड्रायव्हर तो. गिअरान सारकें पडलें म्हणटकीच जालें.’

“पळय, सुपरवायझर देंवलो.”

“च्यायेक येता दिसता. चल बेगीन. आमचेर तापय काडटलो. कामेऱ्यांक जाल्यार कांय करिना तो.

“करिना?”

“कांय उलयना.”

“कामेऱ्यांक एक मुदी आनी दोन दुदी आसतात. आमकां कितें आसा?’

दोगांयनी थंयसून कूस माल्ली. सुपरवायझर भितर सरून च्यावेक बसलो. माथ्यावयलें हॅलमेट ताणें मेजार दवरलें. तकलेवयल्यान हात भोंवडायलो. हातांतले पटयेर हिशोब करता करतां ताणें च्यावेची ऑर्डर सोडली. भितर दोणांत दोड रिती करताना ताणें देवकेक पळयली.

“बाप्पा.”

“च्याव आनी कितें हाडूं?”

“फकत च्याव. हांगा यो रे.”

“कितें?”

‘‘भितर बायल मनीस कोण रे? कापड न्हेसलेली? घरकान्न तुची?’’

‘‘न्हूं. घे, च्याव घे.’’

‘‘मागीर सून दिसता.’’

‘‘पुताचें लगीन जावंचें आर्दीच? चेड्यान दवरल्या.’’

‘‘दवरल्या.’’

‘‘ड्रायव्हरांक रांदून वाडूंक.’’

पंडरी तणतणत भितर गेलो. केदो वेळ भायरच आयलो ना. सुपरवायझरांची च्याव पियेवन जाली. पंडरी भायर येत म्हण तो तिश्टलो आनी हॅलमेट हातान हुमकाळायत शिळोणी घालीत भायर सरलो.

खणीवयल्यान ट्रक धडधडत चिंचेदेवण्यावयले परायेर येवपाक लागले. चडणां – मोडणां वयल्यान धुल्ल हुबयत प्लॉटार रावपाक लागले. लाकडी बॉडिचे ट्रक मानाय उसपूंक लागले. तांकां टना फाटल्यान पयशे सुट्टाले. टिप्परी आपशींच भोंकां वयर करून परायेर रित्यो जावंक लागल्यो. लाकडी बॉडिचे ड्रायव्हर ट्रक उसपीसर वेळ सारूंक मेळटा ताचेकडेन चकाटां मारूंक लागले. कामेऱ्यां पावडर गाळटा ते सुवातेर वचून पचपचीत उलोवन तोंडाची खाज भागोवंक लागले. कटो करता, फातर दाळटा थंय बसून कामेऱ्यांक तेव्हूंक लागले. सुपरवायझराकडेन झांकडी वाडूंक लागल्यो.

‘‘वो, मास्तर, तुर्जी कामेऱ्यां करपाक कशीं रे? वावर रे मिनाचो.’’

‘‘कसलो मिणाचो? तुजें उतर गाड वयता काय कितें रे?’’

‘‘वस्ताद तूं मास्तर.’’

‘‘सांग, कितें चल्लां खणीर?’’

‘‘खणीर घटघट काळश्या फातरांशिवाय कांय ना. हांगा सगळें मोव.’’

‘‘खणीर कांयच ना.’’

‘‘आसून नाशिल्ल्या सारकें. सगळीं साश्टीकारां मरे. तोंडाक पळयल्यार खावंक – जेवंक नाका.’’

‘‘हो बरो दिसता गांवठी माल.’’

‘‘बरो तर. सामको सिक्स्टी फाय परसेंट आयनोर. मास्तर, तुर्ची कामेऱ्यां

आकांत.''

''कित्याक?''

''पापया, हीं वावराक येयल्यां म्हणटंलो कोण? आनी सगळीं आंकवार मरे! कितें नखरे! केसांचे आंबाडे.. विणयों.. कोंगऱ्यो पटयो आनी कपड्यांच्यो कसल्यो मोदी! पणजे-मडगांव शारांत लेगीत असल्यो मोदी येवंक ना आजून.''

''सगळें हांगाच साकून ट्रान्स्पोर्ट करतात न्हूं रे आमी.''

''मास्तर, चान्स रे तुजो. पावसांत आनी हेंचीं ओलीं आंगां तुजो आण पेटयतलीं मरे!''

''कितें?''

''आंग रे.''

''वोतांत करपतलों काय चेडवांचीं फकाणां मारतलों! तितूंत सगळीं तसलीं नासता. मर्दी मेर्दामेर्दूय घेवंचें लागता. तेदुसा दोगां जाणां काम सोडून गेलीं.''

''अशें? आनी आतां काम तरी खंय उल्लां मानायां-कामेऱ्यांक? सगळी मिशिनरी. फाल्यां खणीर साकून बद्द मुरगांव बॅल्ट लावन माल धाडपाक मिनेर फार्टी नात.''

''चल. जालो उसपून ट्रक तुचो. तुचे फाटल्यान कोण रे?''

''मानुयेल. हों पय. पावलो. दोफराय दोफराय दोफरायता.''

मानुयेल टिप्पर घेवन प्लॉटार पावलो. रिव्हर्स घेवन परायेर थांबलो. तशें फाटलें भोंक उखलपाक लागलें. कुशिच्या कामेऱ्यांक पळोवन ताणें म्हणलें,

''आगो चेडवांनो, कुशीक सोराय. म्हाजें उबें जालें. कुशीक सोराय. तुमच्यांत ओतत. मागीर वोखोद सोदीत कुण्या-दिंगण्यां धावंचें पोडटोलें.''

माल ओतपाच्या बोवाळान कोणाक कांय सारकें आयकूंक आयलेंना. ट्रक रितो जालो. ट्रक दुकानाकुशीक थारोवन मानुयेल सकयल देंवलो. खोमसाचे बुतांव सोडोवन ताणें खोमीस भुजांर ओडलें. तो भितर सरलो.

''ओ बाप्पा, केशी आसाय खोकली तुजी?'

''बरी आसा.'

''बोरी आसाय? खोकली वचोंक जाय मुरे. एक कार्रेगाद च्या कोर चोवया. सोंजमोंगनाय.'

''करतां.'

''बाप्पा, च्या करचे आर्दी खोंकून घे. धेरकेल भायर उडोय आनी मागीर दूद घाल. गोंमलेंय?''

''गोमलें. तूं खंय वयता?'' मानुयेल हांगा थंय पासयो मारता तें पळोवन पंडरीन म्हणलें.

''खूंय वचोना रे. तुजो धोवोळ पिवंक पावलोना जाल्यार दुडू पाग कोत्तांय. सोंजमोंगनाय.''

''दुडवांक न्हूं रे.''

''दुडवांक न्हूं कित्याक? दुडवांक लागोन घालूंना तुयें हॉटेल? बाप्पा, दुडवांक लागोन कितें कितें घोडटा ह्या संवसारांत, जाणांय?''

''कितें घडटा?''

''चोयशी तूं तुज्याच घारांत.''

पंडरी मोन्यांनी च्याव धवळूंक लागलो. मानुयेलान भितर येवन ग्लास तोंडाक लायलो.

''बाप्पा, कोळंबार तोयावयल्या देंवचाराक बोकरो मात्ताय खुंय मरे आयज.''

''म्हाका खबर ना.''

''खोबोर ना? तूं राजा कसो आसलो न्हूं रे कोळंबाचो. सोगल्यान गिरेस्त.''

''सोंपलें तें आतां. चार दिसांचे राज्य आनी चार दिसांची गिरेस्तकाय ती. कित्याक बोकरो?''

''हांव जाणांय? मिनाचे दुडू चोड मेवोना म्हूण मिस्ता.''

''तुका कोणें खबर पावयली?''

''आमकां कोसली गोजाल केन्ना लिपोन उत्ताय? कोण कोणाचेर केन्ना चोडलाय तेचें लिस्ट आसता आमचे लागीं. तुज्या चेडवान –''

''कोणें सांगलें?''

''तुज्या चेडवान न्हूं रे. कोळंबा वयल्या एकल्या चेड्यान सांगलें.''

मानुयेलान चुकून जीब लाससर घोंट मारलो. तोंड उकतें करून सूं सूं करूंक लागलो. रितो ग्लास ताणें मेजार आदळ्ळो. ताका अकस्मात उगडास आयलो तसो तो उठलो.

''बाप्पा –''

''कितें?''

"देवकी कितें कोत्ता रे?"

"हांव पळोवंक गेलां?"

"कित्याक वचोंना? तुका वांगोड मुरे. तूं काजारी, ती काजारी. तुज्या पुतान सारकें केलां."

"म्हाका वांगड हाडला?"

"मागीर कोणाक आपणांक? आयज येतलो तो."

"येतलो? येतलोच तो. येवं दी. धारेर धरतां."

"चोय, तो धरून येता. सोंजमोंगनाय."

"तेगेर हांव जावंना."

"चोय, नाजाल्यार जाण्टेपोणांत मेर्दमेर्द घेवशी."

"अं."

मानुयेल उलयत उलयत दुकानांतल्या फाटल्या दारसून भितर गेलो. सामको देवके म्हऱ्यांत.

"हे देवकी, जालें जेवण? चोल झोवया, जेवया मुगे?"

"येदे सकाळीं?"

"केसो सोकाळ गे?"

"बस."

"फोकाण केलें गे. येदे सोकार्यी कोणांक जेवंक जाय? तुकां चोयत बोसल्यार तान लेगीत लागपा ना."

देवकेन पालव सारको केलो आनी तो फातरीर मिरसांग वाटूंक लागली. तिच्या फुड्यांत तामरेतीर मानुयेल बसलो. मिरसांग वांट्टाना तिका बारीकसाणेन पळोवंक लागलो.

"मिरसांग वांट्टाना होड्डें वोयर सोकला जाताय न्हूं? ट्रक दोफरायताना लेगीत तोशेंच जाताय. एसो कालोर जाताय खोमीस काड्चें पोडटा, येशें खांदार वोडोयतांय. देवकी."

"आं."

"तुका कालोर जायना? मिरसांग वांट्टानाय? उज्याकोडेन रावतानाय?"

"कितें करतली? हूम गाळ्ळ्याशिवाय कितें मेयटा?"

"सारकें. कोश्ट कोरचे लागता, तेन्ना तावो ओलो जाता."

“खरें बाबा. नाजाल्यार घोव– बायल आसून फुकट.”

“देवकी, तुका घोवाचो उगडास येयना?”

“पूण उगडास करून उपेग कितें आनी मुद्दम उगडास कित्याक करप?”

“चोय गे. सामको रातीचो येयना उगडास? सांग गे हांव कोण पोरकी?”

“उगडास येता घोवाच्या कर्तुबांचो.”

“कत्तुपां? केसो कोत्तुपां गे? कितें कोत्तालो?”

“तेणें कर्तुबां केल्यार कांय नाशिल्लें. घोवाक अधिकार तो. पूण हो चेडयेचो –”

“सांग गे.”

“परक्यांक हाडी. तेंचे कडल्यान दुडू घेय आनी म्हाका दिसा धवळ्या तेंच्या फुड्यान न्हिदपाक लायतालो.”

“घाटवोल फोद्रेचो. हिंगा दिसल्यार चोय आणूच कापून काडटा आसलों. देवकी, मागीर तूं कितें कोरी?’

“कितें करतली? हायें जोडप. हेणें मोडप. सोरो पियेवन म्हाका येतिश्ट मारप. वयल्यान अशाय पाड्या कर्तुबांनी जोडप. सोंसले दोन तीन वर्सां आनी एक दीस वैदासांक इटोन भायर सरली. शीळ होगडायचें पडल्यार खोश्येन जाय तेचेकडेन होगडायन पूण तूं सांगता तेचेकडेन न्हूं.”

“मोटी कापाज मुगे.”

“कितें करतली? लज धरल्यार पेज मेयटा?”

“सारकें तुजें. त्या चेडयेच्याक तोहेंच फावो. तुकां जाय तोहें तुयें कोरोप. आमी आसांच. तेका थंयच मोरोनी. खूंय आसता?”

“जाणों कोण खंयच्या फोणान आसता म्हण.”

इतल्यान भायर पंडरीचो आवाज चडलो. तो कोणांक तरी तापयतालो. मानुयेल उठून भायर गेलो. पंडरी बाबुशाचेर खोवले फापुडटालो.

“बसता जाल्यार बस थंय वगी.”

“बसलों बाप्पा.”

“बुरसो. हजार बिज्या कास्ताचो. मेळटा थंय थुंकता. च्यायेचें दुकान म्हण कळना?”

पंडरी उलयतां उलयतां कडव्याचेर थुंकलो. इतल्यान बाबुशाची मानुयेलाचेर

नदर पडली. पायान कुटत तो उठलो.

"मानुयेल मरे. वळखना?"

"बाबुशाक मानुयेल वोडकोना? केसो जातोलें? पांयान कित्याक कुडटाय रे? कोणें मोडलो?"

"पडलों."

"कोणाचेर चडलो मिस्ता. वडयलो सोकला. तेन्ना जाय तेजेर चोडटालो; आतां तुकां कोण लार्गी घेताय?"

"पळय मानुयेल,"

"कितें?"

"कालच्यान जेवंना."

"चोल जेवोण घालतां."

"आयज एक दीस घालशी."

"मागीर हांये कितें खानावोल घातल्या? तुकां सोद्दां फुकोट पोसपाक?"

"कसलीय शिर्वीस दी."

"तूं सोगल्यांक चाकरी दिवपी. तुकां सिर्वीस जाय? चोय, मुजी कोंपोनी आसलेली जाल्यार कोदेलार बसोवन फोकोत इडयो-सिगार फुसकोवपाची तुकां चाकरी दितों आसलों. सोंजमोंगनाय."

"मोडलेल्या खुरसाक कोण चेपें काडटा?"

"मुजीं फोकाणां कोत्ताय? चल, खूब दिसांनी इश्ट मेवला तूं. एकामेकालें खातालें आमी. आयज तुकां जेवोण घालतां."

"पयस चलोंक नजों म्हाज्यान."

"चलोंक नेजो? मागीर सिर्वीस केसो मॅनेजरासारकी जिर्पींनी भोवपाची कोत्तोलो? यो हिंगा."

मानुयेलान ताका भुजांक धरून भितर हाडलो. देवकी चुलीकडेन आशिल्ली. ताका तामरेतीर बसोवन मानुयेलान भितर उलो मारून सांगलें,

"देवकी, मुज्या इश्टाक जेवंक घाल. ते म्हणसर हांव एक ट्रीप घेवन येतांय."

बाबुसो उकणयां बसलो. ताका सामकी तान लागिल्ली. च्याव मागचे आर्दीच पंडरीन धेंकणो घालून ताचें तोंड बंद केल्लें. हेवटेन तेवटेन पळयत ताणें म्हणलें,

"पेज इल्ली आसल्यार पिवपाक..."

ग्लासांत निवळ घेवन देवकी भायर आयली. प्लॉटावयलो सदचो एक सुणो जिबली चाटीत कवडेकडेन आयलो. आपणांक पेज घालीत म्हण आपणाल्या आयदना म्हऱ्यांत शेपडी हालयत रावलो. देवकेच्या हातांतलो ग्लास घेवपाक बाबुशान हात मुखार केलो. त्या ग्लासांतल्या निवळाबगर ताका आनीक कांयच दिश्टी पडना आशिल्लें. ताची सगळी तान वोंठार एकठावलेली. देवकेन ग्लास मुखार केलो. बाबुशाच्या हातांत पावलो लेगीत.. आनी चक्क करून तिची नदर ताच्या तोंडार पडली. खिणभर ती सैमांक आयिल्लेवरी तशीच उरली, शिळा कशी. फाटफुडो पळयनासतना तिणें बाबुश्याच्या हातांतलो ग्लास तसोच काडून घेतलो आनी सुण्याच्या आयदनांत रकयलो. ती भितर गेली. बाबुसो सुण्याक पळयत सुको आंवडो गिळूंक लागलो.

***

दनपारच्या जेवणाचो वगत जालो. प्लॉटावयल्या कामेऱ्यांनी मेणकुंबयाचे दाट सावळेंत बसून डबे सोडले. मानांय पांय पातळून बसले. बसकेक माथ्याचो तुवालो घेंतलो. एकामेकाच्या करणांतली आंबलेशीर, बांगड्याकुडको एकामेकाक पासार जावपाक लागलो.

ट्रकांचो गडगड थांबलो तशी चिंचेदेंवण्यार शांतताय पातळ्ळी. लागीं घर आशिल्ले तार काडून पलतडीं जेवणाक गेले. ड्रायव्हर देवकेले थंय भुसाक गेले. सदचे संवयेन आपापले सुवातेर बसले. च्यावेच्या दुकानाक आतां खानावळीचें रूप आयलें. देवकी भितर ताटां धुवंक पुसूंक लागली. मानुयेल ट्रीप घेवन आयलो. देवकी ताटां भरता थंय तिका गजाली सांगपाक लागलो. भितोडयां वणटीक तेंकून बाबुसो येतल्या वतल्यांक पायांपासून तकलेमेरेन तेळीत बसलो.

आपले कंपनीचो ट्रक घेवन नानू चिंचेदेवण्यार आयलो. वेगळ्या ट्रकाचो आवाज आयकून कामेऱ्यां मानायांनी मानो वयर केल्यो. नानून बाकींच्या ट्रकांकुशीक ट्रक उबो केलो. हेर ट्रकांपरस तो सामकोच वेगळो दिसूंक लागलो. वळखिचो आवाज आयकून देवकी बेश्टेंच निमित्त करून भायर आयली. तिणें नानूक पळयलेसो

केलो आनी आयली तशी भितर गेली. वोताच्या रखरखांत एक थंड शितळ वावाचो झोत आंगावयल्यान गेल्लेवरी नानूक दिसलें. त्याच नेटार तो मुखार सरलो. नानूची ही अवतीकाय दुकानाच्या दारार रावन ताका तेळपी पंडरीचे नदरेंतल्यान सुटली ना. वाल्याक हात पुशीत तो तसोच उबो रावलो. दनपारच्या वेळार तो इतलो वगत केन्नाच थारनाशिल्लो. नानून लागीं पावनाफुडें बापायक हडकिलो,

"घरा वचोना आजून?"

"घर फकत म्हाकाच?"

नानू गोंदळ्ळो. बापायच्या उतरांतलें वेगळेंपण ताका जाणवलें. शितळ दिशिल्लें ताका आता परत गुजगुजूंक लागलें. पंडरीचो आवाज देवूंक नाशिल्लो.

"घर फकत म्हाकाच?"

"म्हाका जेवपाक येवंक मेळना न्हूं घरा."

"काम नासतना तुचो ट्रक चिंचेदेवण्यार येता. तळ्यावयर थारना."

"आयज येयला हांगा."

"हांव जाणां केन्ना येता तो.'

"केन्ना येता?"

नानूच्या प्रस्नाचो आवाज बदल्लो. हात आडवो करून चलतल्याची चाल आडायता तसो ताणें बापायक थांबयलो. ताज्या दोळ्यांत सोऱ्याची मस्ती पंडरीक स्पश्ट दिसली.

"केन्ना येता रे? सांग मरे."

"तूं तापता कोणाचेर? शिंगां आदलीं काय कान आदले?"

"तसल्यो जाणवायो नाका."

"हांव तुगेर जाल्लों रे नानू?"

"सांगलें न्हूं. तसलीं शापोतां नाका. हांगा केन्ना येतां सांग."

"सांगों? देवकेक हांगा हाडून दवरीत मेरेन."

भितर गळसणून पडिल्ल्या ताटाचो खण्ण असो आवाज जालो.

"ती घाम गायटली, ती जोडटली. जमना वावरधंदो करूंक, वयतली तोंड घेवन. म्हाजेर कितें आसा?"

"तुचेर कितें आसा? तुकां जाय म्हण दवरल्या तुयें. घरा आवयच्या आनी भयणीच्या हातचें नाका तुकां. कित्याक जाणां, घरा पिवपाक खंय मेयटा?"

“बाप्पा –”

“तूं कोणाचेर धेंगशेता रे, हांव पूत न्हूं तुजो.”

“म्हणोन तर हांव आयकोन घेतां.”

“घेवंचेंच पडटलें. जग उलयता तें आयकोन घेवंचें पडटलें.”

“जग माल्लें शेटार. हांव जोडटलों, हांव मोडटलो.”

“तूं जोड आनी तूंच मोड. कोणाची ना ना. पूण बऱ्या कामांकडेन उपेग कर. रेस्पेदान पी. पिराय जाली तुजी लग्नाची.”

“लग्नाचो विशय हांवें काडला? लगीन जाता म्हटलां?”

“कित्याक म्हणटलो? हांगा तुजी खाज भागता न्हूं.”

“पुताकडेन अशें उलोवपाक लज दिसना तुकां?”

“लजकाड्याकडेन खंयचे लजेन उलयतलो? सगळे प्लॉटावयले लोक म्हणटात. म्हाका हांगा बसोन आयकोचें पडटा.”

“सांग, चेडयेचे कितें म्हणटात?”

“तेंका गाळी मारता? ते कितें म्हणटा तें सांगचे आदीं हांव सांगतां तशें कर.”

“कितें?”

“ही फाटल्यान अवदिसा हाडून दवरल्या ती वाटेक लाय. चूड दाखोवन म्हारू हाडला हो घरांत.”

“ती थंय हाडांचीं काडां करून पोटापाणयाचें सोडटा. तुका जाग्याचें फारीक करतली. उदक भरतली.”

“म्हाका तिणें कसलो आदाव केल्लो नाका. दुकान बंद करचें पडल्यार उपकारता. पूण तिंका लागोन आयकोंक येता तें –”

“कोणा राणग्याचें नांव तरी सांग.”

“तेंचीं नांवां कित्याक तुका? ते चेडयेक धांवडाय.”

“बाप्पा, कोण चेडी?”

“ही देवकी चेडी. तुयें आंकवार पुतान दवरलेली लगीन जाल्ली नायकीण.”

“बाप्पा ऽऽ.”

नानून थापटा सरशीं पंडरीक पावळे भायर भिरकाटायलो. कानसूल चोळीत पंडरी व्हालेतींत न्हिन्नळ्ळो. भितर जेवपी ड्रायव्हर उशट्यांनीच भायर धांवून आयले.

देवकीय आयली. दोगांनी नानूक भितर ओडलो. एकल्यान खाक्यांत हात घालून पंडरीक उखल्लो. कोळंबाचे वाटेक लागपाक लायलो. नानू परत दारार आयलो.

"आयक, देवकी हांगाच रावतली. चड करशी जाल्यार दुकानाक पेटयतलों उजो. देवकेक दवरल्या हांयें नायकीण. कोण राणग्याचे विचारता तेंकां सांग अशें आनी सगळ्या कोळंबार पेरगांव घाल."

नानू सोंशेंत भितर आयलो. मानुयेलान ताका बांकार बसयलो. एका ड्रायव्हरान नानूक म्हणलें.,

"जावं रे, बापूय न्हूं! जल्म दिला."

"तूं कितें सांगोता रे?" मानुयेलान मर्दींच तोंड घातलें.

"तशें न्हुरे मानुयेल."

"तेशें न्हूं कितें? नानूक जल्म दिला म्हुटल्यार उपकार केले? सोंजमोंगनाय."

"उपकार केले ना?" ताणें परतून विचाल्लें.

"केसो उपकार? नानू जायच म्हण पोंडोरीन कास्तीक घेतलोली? आपले खाजीक केलां. नानू जाला. भुरगीं जावपाक जाय म्हण केलोलें जाल्यार बापूय तेंकां कांयच करूंक दिवंचे नाशिल्ले. नानून केलें तें सारकें. बापायन आपल्या रेस्पेदान रावोंक जाय. नाजाल्यार भोंकार फोंट."

मानुयेलान नानूक थंड केलो. ताका भितर देवकेचे खोपींत व्हेलो. कोनशाची फेणयेची बाटली काडली. ग्लास भरून दिलो. देवकेन मानुयेलाक कुरू करून थोडीच ओतपाक सांगलें. पूण मानुयेलान ताचेपरस चड दिली.

ड्रायव्हरांचीं जेवणां जालीं तसो मातसो विसव घेवन सगल्यांनी ट्रक स्टार्ट मारले. मानुयेलूय जेवन गेलो. देवकेन नानूक भितर आपोवन व्हेलो. पयलीं तो काळखांत भितर सरपाक अनमनलो.

"भितर कित्याक?"

"तुकां खेरीत रांदलां."

देवकेन शाकोतेचें ताट ताच्या मुखार दवरलें. कुशीक दोन गंवाच्यो रोटयो दवरल्यो.

"मटण! कोणें हाडलेलें?"

"कोळंबार तळ्यावयल्या देंवचाराक बोकडो मारलेलो खंय मानायां-कामेऱ्यांनी."

“बोकडो? कित्याक?”

“देवाक सांगणें करूंक.”

“कसलें सांगणें?”

“हांव सारकें नकळों. मिनाच्या वावरा खातीर आशिल्लें खंय. मिनांक वयता तेणें दर एकल्यान पटी काडून बोकडो हाडलेलो. हांयेंय दिल्ले पयशे. त्या वाट्याच्यो चार फोड -”

“हांव विचारतां कसलें सांगणें?”

“मिनाच्या वावराक माकनां हाडून लोकांक आदलेवरीं काम मेळना.”

“मागीर?’

“मागीर कितें? जेटी, शेवाळीं, ट्रक सगळीं माकनां मोडूं म्हण सांगणें करून बोकडो कापलेलो.”

“मिनाचेर जोडून वयल्यान असलें कर्तुब? पाड पडों ह्या मटणांक.”

नानून ताटाचेर खोंट शेंवटून ताट कडव्याभायर भिरकाटायलें. शाकोतेचो वास खोंपभर भरलो. भितोडेच्यान बाबुशान आंवडो गिळ्ळो. देवकेक कितें घडलें कांयच कळ्ळें ना. ती थरथरत उठली. बेगिबेगीन तिणें दुसरें ताट काडलें. तातूंत शीत उसपिलें. कडी घातली आनी ताच्या मुखार दवरलें. पूण नानून कालयल्ली उंडी ताच्या वोंठामेरेन पावचना जाली. देवकी ताच्या म्हऱ्यांत बसली. पांय सोडून तिणें ताची तकली आपले पोंवटेर दवरली आनी ताका उंडी उंडी भरोवंक लागली. तिचे जांगेर हात भोंवडायत नानून दोन उंडयो घेतल्यो. ताका लकणी आयली. तो तसोच न्हिदलो. देवकेन तकले खाला उशें दवरलें. ताचे उश्टे हात करणांत झंजळ्ळे. ताटांतलें तश्शें शीत तिणें भायर व्हरून बाबुशामुखार दवरलें.

सांजवेळा पंडरी च्यावेच्या दुकानार आयलो ना. गिरायकां येवन येवन पंडरीच्या नांवान आरड मारून गेलीं. स च्या भोंग्यार हजेरेचीं कामेऱ्यां सुटलीं. तारी भरून लोक पलतडी पावले. ड्रायव्हरांनी आपणाले ट्रक फाव ते सुवातेर दवरले. नानूचो ट्रक दनपारां दवरलेलो थंयच उल्लो. ट्रक चिंचेदेवण्यार दवरून नानू कोळंबा गेला जायत असो तर्क कांय जाणांनी केलो. देवकेन ताचें जोतें कोणक दिसना अशें कोनशाक मुंगल्लें.

आमोरेचो काळोख पाख्याचे खांचींतल्यान खोंपींत रिगलो. देवकेन दिवो पेटयलो. नानूच्या उशावयर दवरलो. चुलीवयली उदकाची थाली खोंपीभायर व्हरून

ती न्हावंक लागली. चिमणेच्या उजवाडान नानूक जाग आयली. दोळे चोळीत तो उठलो. आपूण खंय न्हिदला म्हणपाचे येवजणेंत तो खिणभर पडलो. ताचो ताळो सुकून आयलो. आशिकुशीक ताणें नदर भोंवडायली. पिवपाक ताका कांयच दिसलें ना. माथ्यावयल्या कोनशाक दनपारां मानुयेलान दवरलेले बाटलेचेर ताची नदर पडली. ताणें बाटली उखल्ली. सारकी अर्दी आशिल्ली. फाटफुडो पळय नासतना तोंडाक लायली. उदक कशें घोटीत रावलो. भायल्यान देवकेन आवाज आयकलो. सडसडीत आंग पुशीत ती भितर आयली. तिणें बाटलेक हात घातलो. पूण तेन्ना बाटली सामकी रिती जाल्ली. ती रागान नानूक पळयत रावली. तिचे पोले तांबडे जाले. पोल्यांवयल्यान उदका थेंबे गळूंक लागले. तिच्या आंगार ओलेंच कापड आशिल्लें. आंगाक सारकें दशिल्लें. कापडाक मिरयो पडिल्ल्यो. हड्ड्यावयलो पालव चिप्प भिजून थानांक दशिल्लो. थानावयलीं दोनूय काळीं थिकां स्पश्ट दिसतालीं. तिच्या स्वासासरशीं हड्डें वयर सकयल जातालें. नानूक आपणालो विसर पडलो. ताणें न्हिदला थंयच रावन हात लांबयलो. देवकी कुशीक सरली. तशीच आडसाक गेली. आंगावयलें ओलें कापड बदलूंक लागली. नानू उठलो. ताजीं पावलां सारकीं पडनाशिल्लीं. झिडपतूच तो आडसाक गेलो. ताणें हात घातलो. तो तिच्या मिरयांक पडलो.

"सोड. हें कितें करता?"

"म्हाका जाय तें करता."

"तुकां सोबना."

"म्हाका सगळें सोबता. सोबना तें हांव सोबोवन घेतां."

"आजून भुरगो आसा तूं."

"भुरगो? कितलींशींच जांगेंत घालून चिड्डिल्यां फोकां कशीं."

"हांव खंय, तूं खंय!"

"म्हाका तशें कांय लागना. तूं आजून आंकवार कशी तन्नी आसा." .

नानून तिच्यो मिरयो सोडल्योना. ती आडसाची भायर आयलिना. वाऱ्याचो एक झोत भितर आयलो आनी खोपीची कवडी आपशींच लागली. बरोच वेळ असो किण्ण शांततायेन गेलो. नानूक कैफ चडत गेलो.

"तूं घोवाक सोडून आसा. चेडयेपणां करता जगलोक जाणां. हांयें तुकां नायकीण दवरल्या म्हण सगळे उलयतात. पूण उलयले ना उलयले म्हाका

सोयरसुतक ना. तूं दिना? हांव चल्लों. म्हाका हज्जार आसात. भावणीच्या कासाट्याचीं.'

देवकी तरी वगी रावली.

''चेडी ती चेडी, मिजास केदी!'' नानून मिरयो सोडल्यो.

''यो. हांव चेडीच. शंबर न्हूं हजार जाणां फुड्यान न्हिदलां. तुका जाय मरे? यो. पळय. सोडलें कापड. यो. उब्यांनी उब्यांनी. तुजी नायकीणूच हांव. म्हाका कसली लज तुजे मुखार? मार वेंग. आतां हातींक गळसणी कित्याक लागली? खंय गेलो नेट?''

नानू तोल वचून लवंडपाक पावलो. देवकेन ताका घट धरलो. तिणें आंगा आडसाक धरलेलें कापड पायांकडेन गळ्ळें. ताची कूड तिका सावरलिना. ध्येयभान गळसणून तो तिच्या थानावयल्यान कोंसळ्ळो. पोटावयल्यान निसरत पायांकडेन पावलो. भितोडसून कडव्याच्या बुराकांतल्यान बाबुसो केदो वेळ पासून पळयत आशिल्लो. ताणें आंवडो गिळ्ळो.

***

# 9

"आवय, तुज्यान नजों जाल्यार येवं नाका गे तूं."

"अं?"

"हांव वचन एकलें नायेलें."

"ना बायल सारकें सांगोंक जाय तें."

रूक्मीणीन माथ्यार फणी भोंवडायलिशी केली. मूठभर केंसाक गांठ मारून आंबडो बांदलो. भितर वचून घडी करून दवरलेलो एक पोलको काडलो. तिका तो सामकोच सदळ जालो.

"तुकां वोताचो त्रास जावंचो ना?"

"म्हाज्या जिवाची काळजी नाका तुकां. धा सरोन पांच उल्ल्यां."

"सोंपलें आतां तुजें!"

"आसा तेंच नाका जालां. आनीक कितें कितें पळोवपाचें आसा ह्या दोळ्यांनी परमेस्वराक खबर."

'हांव येयना तुचे वांगडा नायेले."

"अशा वेळार वांगड आवयचोच आसता."

"हायें तुका सांगलें न्हूं."

"चल भायर सर. वोत येवंचे आदी नायेले पावपाक जाय."

रूक्मीणीन केंसराक बळयां मुखार काडलें. आपल्या जिवाच्यान नजो आसून ताचो घागरो पोलको ताच्या आंगार हाडून चडयलो. कंबराक बाग घालून कडव्याचे खांचींत तिणें आपल्यो व्हाणो सोद सोद सोदल्यो.

"पाड पडों. खंय कोनशाक पडल्या पोटण्याच्यो."

"कसल्यो गाळी मारता गे?"

रूक्मीणीन चितेल्ल्यो व्हाणो काडल्यो. एका हातान पुशीत केंसराकडेन पळयलें. घागऱ्याचे दशे पोटाकडेन आंवळून तें निसरगांठ मारतालें. ओणव्यांनीच ती पुटपुटली.

"गाळीसुद्दां फाव तश्यो सवपाक जाय."

दाराक चावी करून आवय-धूव भायर सरलीं. पायांतल्यो व्हाणो काडून रूक्मीणीन आंगणांतले तुळशीमुखार नमस्कार घातलो. उजवे दावे वटेन वळून दोनचार देवांचीं नांवां घेतलीं. ती चलूंक लागली. वातावरण शिंयाळ आशिल्लें. तिणें पालव भुजांर आंवळून घेतलो. सगळ्याक धुंवटी पडिल्ली. घरा सकयल्या शेतांत सगळो धुंवरच कसो दिसतालो. तळ्याकडली धुंवटी च्यावेंतली साकर कशी ल्हवू ल्हवू विरगळटाली. तळ्यार येता वता ते कोण दिसनाशिल्ले. कोणाक दिसचे आदीं तळ्याकडल्यान कडसरचें म्हण रूक्मीणीन पावलांत गती हाडली. तळ्याकडलो वाठार ताणीं माड्डिलो. निमण्यां झिलींक कुशीक सारून तीं नावेलेचे वाटेक लागपाचीं. इतल्यांत तेच झिलींतल्यान बेगिबेगीन तांबयो रकोवन एक बायलमनीस भायर आयली. न्हेसणांक हात पुशीत आनी कुल्या वयली मिरी सोडीत ती वाटेर आयली.

"आगे रूक्मीण, खंय येदे फांतोडेची?"

"नावेले."

"आनी धुवेक घेवन?"

"रवळनाथाच्या देवळांत वयतां."

"प्रसादांक?"

"सांगणें करून तिर्थ हाडटां इल्लें."

"केंसरा खातीर गे?"

"येयल्ल्या दिसा सगळ्यांकूच जैपत ना."

"केंसराचें कशें आसा?"

“तशें कसलें दुयेंस न्हूं गे तेका.”

“न्हिदोनप आसतालें न्हूं गे घरा?”

“हांवूच बळयां दवरतालें. सदूदां काम झेपना तेका. बरें गे.”

“रूक्मीण, रवळनाथाच्या देवळाकुशीक तो पोरोब बरी गांवठी वखदां दिता.”

“घरा हाडल्यां तींच सोंपना.”

“रूक्मीण, तुगेली शेजान्न पार्वतीले सुनेक अडेज काय तीन म्हयने गे?”

“कोणांक खबर?”

“पूण लग्नांक भर चारूय म्हयने जावंक ना मगे. चल्ली?”

केंसर आवयच्या मुखार चलत रावलें. तशी फाटोफाट रूक्मीण. ती मान बागोवन बागोवन पळयत रावली. पूण केंसराचो फुडो तिका मात लेगीत दिसलोना.

धुंवटी विरत वताली. तरी वाट ओली आशिल्ली. वाटेवयलें करड धिंपरभर वाडिल्लें. दंवान बागवल्लें. धव्या सुण्याच्या आंगावयली ल्हंव कशें मर्दी मर्दी पिसुडिल्ले भाशेन जाल्लें. सुर्याच्या किरणार चकचकतालें. कड्डावयलो दंव पांयार सांडटालो. कड्डाचे भाले घागऱ्याक आनी कापडाक कुचकुच करून तोंपताले. तशेच रोमून बसताले. तुसां पांयार सांडटालीं. थेंब्यावांगडा पावलावयल्यान गळटालीं. वाटेकुशीक हांसाळेची गाड पाचवी पानां किड्यार्ल्ली. हांसाळ्यांचे तुकतुकीत घोंस दंवांत निस्तताले.

नावेलेच्या मड्डांतलीं शेतां सामकीं करपल्लीं. धिंपरभर लेगीत वाडूंक पावूं नाशिल्लीं. पोटांत पोटूर येवंक आनी पावसांत घात मारिल्लो. आख्खें नखेत्र सुकें सडसडीत गेल्लें. मड्डाचो पाचवो रंग वोतांत बावून हळडुवो जाल्लो आनी कांय काळान मरड करपून गेल्लें. पोटांतलो आंकुर भायर येवंचे आदींच भितल्ले भितर करपून गेल्लो.

चलपाची वाट सोडून अडेचे वाटेन केंसर त्या मड्डांतल्यान माड्डीत गेलें. रूक्मीणीक मोन्यांनी ताचे फाटोफाट वचचेंच पडलें.

***

रवळनाथाच्या देवळांतल्यान तीं दोगांय पोरोबाल्या घराकडेन वळ्ळीं. बाजारांतल्या लोकांच्यो नदरो चुकच्यो म्हण घराच्या मोडणार रूक्मीणीन केंसराक धुकलीतूच मुखार व्हेलें.

‘‘नानू, चोयली तुयें?’’

‘‘कोण रे?’’

‘‘चोवना? घाटवोल सामको.’’

हातांतलो ग्लास मानुयेलान मुखावयल्या बांकार दवरलो. आनी कडव्याच्या जनेलांतल्यान कांसवासारकी भायर मान घातली. नानूनय भायर पळयलें. तर्शी च्यावेच्या दुकाना वयलीं चार पांच गिरायकां दरवट्यार गेलीं. च्याव धवळपाची थंयच सोडून दुकानाचो धनीय चेड्डेक हात पुशीत चाटो उबारून भायर पळोवंक लागलो.पूण कोणांक कांयच दिसलें ना. सगले निरशेवन मानुयेलाच्या तोंडाक पळयत रावले.

‘‘कोण रे मानुयेल?’’

‘‘सोंजमोंगनाय? कोणेंच चोवना तर बोरें जालें. चल नानू या.’’

च्यावेचो निमाणो घोंट मारून ताणें ग्लास बांकार आपटिलो. बोल्सांत हात घालून पयशे फारीक केले.

‘‘खंय सांखळे वयतां पेत्रोल घालूंक?’ पयशे मेजाच्या खणांत वडयत धनयान विचारलें.

‘‘व्होय. नायेले पेत्रोल घालूंक मेवोना. हिंगा भल्लोलें पेत्रोल भायर वडोवपाक वैज आसाय खुंय मुरे? सोंजमोंगनाय?’’

‘‘कोण सांग रे?’’

‘‘येशो गोजाली सांगोंक जाय? मटक्याचो नुम्र केसो पुब्लीकार जाताय. देखून लोक हिंगा सोकार्यीं सोकार्यीं पावताय.’’

मानुयेल आनी नानू भायर सरले. ट्रका म्हच्यांत पावले.

‘‘येदोळ कोणांक पळयतालो मानुयेल?’’

‘‘तुजी मांय मुरे.’’

‘‘हें.’’

‘‘हांव फोट मात्तांय? सायबिणीच्यान. आनी सांगात कोण जाणांय? सोंजमोंगनाय.’’

“कोण?”

“ती ऽ ऽ रे. तुजी भोयण.”

“रवळनाथाच्या देवळांत येयल्लीं दिसता.”

“दिसताय? तुकां खोबोर ना?”

“येता केन्नाय तीं. तिर्थाक, प्रसादाक, सांगणें करूंक.”

“चोरा, म्हाका फोटी मात्ताय.”

“फट कसली?”

“आरे, हिंगा रोवोलनाथाक भेटूंक लोक येद्या सोकार्यीं येता. कित्याक जाणांय?”

“कित्याक?”

“कोंकणे मोटे घाडी तुमी. रोवोलनाथाक पायें पोडोंक येताय आनी सोकला पोरोबाच्या घोरांत वचोन तिर्थ हाडटाय.”

“कोण पोरोब?”

“चोरा, आतां फोटें कांबुत्ताय? नायेलेच्या पोरोबाक तूं वोडकोना? फोकोत कुण्णें-दिंगणेच्या वैजांकूच वोडकोता?”

“पोरोब दिता तसलें वखद?”

“आनी, तुजे भोयणीक कोसलें दितलो?”

“मानुयेल.”

“तापताय? सोत् सांगताय म्हण?”

“अशें केन्नाच जावंचेंना.”

“मुजे मुखार हें सांगताय? तुजी भोयण जाली म्हूण. चेडूंच मुरे तें. हेर कामेऱ्यां तोहें तें. हेर कामेऱ्यां गुरवार जायना? सोंजमोंगनाय.”

“मानुयेल, वायट जातलें.”

“पोयज मात्ताय? हांव सांगता तें फाल्सीयाद जालें जाल्यार तुजो गू खातां. जालें?”

“हय.”

“चल, सांखळे पावपाक कोवाव जाल्यार जांव.”

मानुयेलान उकतें केल्लें कॅबिनाचें दार घडायंच करून मारलें. नानू रागान तांबडोगुंज जालो. ताचीं दाढमणां तणतणटालीं. नदरेमुखावयलें किरणां-वोत ताका

रखरखिल्ले भशेन भासूंक लागलें. वारो खंयचे खंय नाच्च जालो. फकत ताच्या श्वासांचोच आवाज ताचे भोंवतणी वादळी वारें कसो सोंशेतालो. कपलार घामाचे थेंब पुंजी जाले. माथ्यांतल्या घामाची धार सळ्ळ करून पोल्या वयल्यान खोमसार गळ्ळी. पोरोबाल्या घराचे कुशीक ताची नदर बाणांभशेन खिळून रावली.

''चोय, सारकें चोय. कोनशाच्यान आतां पासार जालीं तीं कोण? सोत मुरे? मांयन पालवापोंदा कितें धोल्लेलें तें चोयलें तुयें? ना चोवंक. राव, मातसो राव. तांकां पोयस पावुंदी. चल, आतां यो मुजे सांगात.''

नानू मोन्यांनी मानुयेला फाटोफाट गेलो. मानुयेल व्हदळच्या हॉटेलांत गेलो. फळयेर आशिल्ली दुदाची एक रिती बाटली ताणें काडली. धनया कडल्यान बरी धुवन घेतली. ताणें ''कित्याक'' ''कित्याक'' म्हण हज्जार फावट विचारलें पूण मानुयेलान जाप केली ना. बाटली परती करून ताणें निस्तयली आनी तशीच पेन्टीच्या बोल्सांत सोडली.

''चोय, तुयें पोरोबाल्या घराच्या कोनशार रावोप. फकत कान दिवन आयकोप. सोजमोलोय?''

नानून मान हालयली. दोगय चलूंक लागले. हॉटेलांतल्या लोकांक दुबाव नाका म्हण आडसाकसून वळ्ळे. पोरोबाल्या घराकुशीक पावतकीच मानुयेलान ताका थंयच कोनशार थारपाची खूणा केली. नानू मान सकयल घालून देड पायांर उबो रावलो.

पोरोबाल्या आंगणांत पावनाफुडें मानुयेलान पावलां नेटान वडयलीं. मातसो खर्शेल्लेवरी घामेल्लेवरी केलें. सोपाणां हुपून पडवेर पावलो. जाण्टेलो पोरोब सोप्यार बसून विडयो वळटालो. विडी वळून ताणें बांदली. दोरो तोडलो आनी फोलीणांत वडयली. पावलांचे जागीन ताणें मान वयर केली. मलप्यो ताणून ताणें मानुयेलाक पायांपासून केंसामेरेन नियाळून घेतलो. ताचे नदरेंतूच प्रस्न आशिल्लो.

''आतां दोगां जाणां वखद घेवन गेल्लीं न्हूं.''

''अं.''

''त्रक्सार चडटाना शिंसो आदळून फुटलो.''

''वोतलें?''

''हय. दुसरो शिंसो हाडला. पयशे कितले ते?''

''तूं आयला...''

“ते जाण्टेच्यान नेजो चलपाक.” मानुयेल खूब यत्न करून भास बदलून उलयिल्लो.

मानुयेलान एका हातान बाटली आनी दुसऱ्या हातांत पयशे धरिल्ले. पोरोबान फकत बाटलेक हात घातलो. भितर वचून ताणें बाटली भरून हाडली. कोळयांतली एक भेंडयेची गुड्डी मारून बंद केली.

“कितले पयशे?” मानुयेलन पांच रूपयांची नोट मुखार केली. पोरोबान मोन्यांनी बाटली ताच्या हातांत दवरून पांच रूपया उखल्ले.

“किरिस्तांव रे?”

पोरोबान फाट करूनच ताका विचारलें. ताचे भाशेवयल्यान ताका दुबाव आयलो. पूण ताचो प्रस्न आयकुवपाक मानुयेल थंय नाशिल्लोच. कोनशावयल्या नानूक बळयां ओडीत घेवन तो ट्रका म्हऱ्यांत आयलो. बोल्सांतली बाटली ताणें काडली. नानूचे हात थरथरले. ताणें तशीच ताच्या हातांत रिगयली.

“चोय, दोये फोडून चोय. कोसलें वोखोद? रोवोलनाथाचें तिर्थ? आरे, ओसलें वोखोद अडेज-तीन म्हुयन्याच्या गुरवार चेडवांक तुयें कितल्या फावट दिलांय.”

नानूच्या हातांक गळसणी लागली. वखदाचो शिंसो थंयच जमनीर पडलो. फातरार पडून फुटलो. कंवचेन कंवची उसळ्ळी. तातुंतलें वखद रगत कशें शिंवरलें. ताचो उग्र वास सगल्याक भरलो. स्वासाबराबर नानूच्या शिरंत्रांत रिगलो. ताची तकली कणकणली.

***

चिंचेदेवण्यार तिनसांजचो सं चो भोंगो जालो. लोक कामाचे सुटले. मानायांनी कामेऱ्यांची निमाणीं फकाणां मारून घेतलीं. घाम पुशीत आनी धुल्ल फापडीत सगले जाण आपापले वाटेक लागले. पलतडीं वचप्यांनी तारीधडेर गर्दी केली. सकाळच्यावरी तारयाक कुकारपाक लागले.

आज शेनवार आशिल्लो. आयतारा सुटी आशिल्ली. ड्रायव्हरांनी आयज

सांजे शाकोतेचो बेत करपाक देवकेक फर्मायिल्लें. ट्रक प्लॉटार दवरून ते खानावळींत आयले. आजून शाकोतेक कळाव आशिल्लो. जेवणां आदीं पिवपाक तांचो तळ पडलो. जेवणाच्या मेजार मानुयेलान बाटलेची गुड्डी काडली. सगळ्यांनी कोपां वोठांक लायलीं. मागीर एकामेकांचीं उतरां एकामेकांत घुस्पूंक लागलीं.

“मानुयेल, आयज नानू खंय? इश्ट मरे तुजो.”

“नानू इश्ट मुजो पूण हांव सोत् सांगतांय देखून ताका नाका.”

“कितें सोत् सांगलें तुवें?”

“सांगों? नाका. देवकी बायल मुनीस.”

“तूं आनी देवकेची लज धरता? तिका सगळें खबर आसा. सद्दां घडटा तेजी लज धरूंक उपकारता? किते देवके?”

“आयकोंक येवना रे बाब.” देवकेन आयकून भेऱ्याचें सवंग केलें.

“तुका आमचें आयकोंक येयना. नानूचें सारकें येता.”

“आरे, तो सामकें भित्तूर, कानांत घालून सांगता.”

“हा ऽ हा ऽऽ.” सगळे खळखळून हांसले.

“देवके, नानू येवंचो ना आयज?”

“खबर ना.”

“खबर ना? म्हण्टकच सांजे आमी तळ ठोकल्यार बरो तर.”

“देवकेक सांगाती?”

“आनी व्हडे रातीर नानू येयल्यार? देवकी कितें टिप्पर रे दोगांयचो लोड ओडूंक?”

“तिका केली लाकडी बॉडी नानून. मानुयेल, तूं इश्ट आसून फुकट.”

“फुकोट कित्याक काय म्हुणटांय. मातशे रावाय. मागीर गोमतेलें.”

इतल्यांत धांपिल्लें दार लोटून नानू भितर आयलो. पायांतल्यो व्हाणो हुंबऱ्याभितर दवरून ताणें आशिल्लें दार लोटून दिलें. तें घडायंच्च करून आदळ्ळें. तशी देवकी कोण आयला तें पळोवपाक कपलाचो घाम पुशीत भायर आयली. नानूक पळोवन भितर गेली आनी नेटान वावराक लागली. नानू कदेला म्हऱ्यांत आयलो. एका ड्रायव्हरान ताका कदेल मेजा लागीं ओडून दिलें. पूण कदेल वेंतभर फाटीं घेवनच तो बसलो. मानुयेलान मोन्यांनी एक ग्लास काडलो. खिणभर पातळिल्ले शांततायेक एका ड्रायव्हरान बोट लायलें.

"नानू, ट्रकाचो आवाज येयलो ना मरे?"

"ट्रक कोळंबा तळ्यावयर दवरला."

"तळ्यार? केन्नाच्यान?"

"आयजूच."

"थंय साकून चलत येयलो?"

"अजाप मरे!"

"आयज सोगलेंच ओजाप."

मानुयेलान सोऱ्याची बाटली नानूच्या ग्लासार वांकडी केली. तशें नानून हात मुखार करून बाटली आशिल्ली तशी उबी केली. मान वळोवन ताणें म्हणलें.

"हांव पियेना."

"आवयस्! नानू, केन्नाच्यान रे?"

"आयच्यान."

"अजापांर अजापां मरे."

नानुची नुरा मात्तूय बदल्लिना. अचकीत वारो थांबून सगळो वाठार शांत जाल्लेवरी जालो. ड्रायव्हर आपल्या ग्लासांकडेन खेळत रावले. कोणांक जाप फुटना जाली. भितरल्यान आयदना-कायदनाचो आवाज बंद जालो. नानून घेतिल्ल्या अचकीत मोडणान सगळेंच बदलून गेल्लें. सगळे मानो बागोवन रावले. देवकेनूय भितरसून मान बागयली. रावूं नजो जावन, सुको आवंडो गिळीत तिणें म्हणलें,

"मातसो भितर यो."

पूण नानू मात्तूय हाल्लो ना. ताणें आयकुंकच नाशिल्लेवरीं केलें.

"हांव सांगतां तें आयकशात?" तरी सगळे वोगी रावले. मात मानो उबारून नानूक तेळूंक लागले. नानू उलयत रावलो.

"हांव तुमकां सगळ्या ड्रायव्हरांक सांगतां. खरें म्हटल्यार तुमकां सांगपाची म्हाजी लायकी ना. पूण मनशाक खंय अणभव शिकयता. हांयें तो अणभव घेतला त्या आदारान सांगतां."

"कि....तें?"

"आमचीं ड्रायव्हरांचीं व्यसनां हिसपाभायर. मिनाचे खणीर, निदान प्लॉटार तरी कोण मानाय आमचें इतलें जोडिना. दोनशें अडचशें रूपया पागामेंत. ओव्हरटायम, ड्रायव्हर युनियनान वेळावेळ संप करून मेळयलेलो बोनस. वाटेर

मेळटा त्या पॅसेजरांची जोड. मिनांक अशी चारूय वाटांनी जोड आशिल्लो खंयचो मनीस आसा?''

''दुसऱ्यांचें आमकां नाका.''

''आमचेंच पळोवंया. इतलें आमी जोडटा पूण खंयच्या ड्रायव्हरान आपले जोडिचें कितें केल्लें आसा?''

''मिनाची जोड तशी मोड.''

''आमची मोड चड, व्यसनांखातीर.''

''तूं कितें म्हणटा नानू?''

''कित्याक आमकां हीं व्यसनां? पिवपाचीं. झोवपाचीं.''

''हें तूंच सांगता?''

''पयलींच सांगलां न्हूं. लायकी नासली तरी अणभव आसा.''

नानू सगळें कळवळ्यान उलयतालो. आपली गजाल दर एकल्यान मानून घेवंची अशी आस्त ताच्या उतरां उतरांत उकती जाताली.

''तशें न्हूं तें नानू. हीं व्यसनां कोणें मुद्दाम लावन घेतल्यांत? गरज म्हण एकदां केलां तें गरज म्हण सदां खातीर उल्लां. आमी खूब खातां. चाळीस-पन्नास रूपया म्हयन्याची च्यायेचीं बिलां जातात. खावचें पडटा. नाजाल्यार अशक्त जावन तूं मरतलो. हिसपाभायर पितां. पिवंचें पडटा. दिसाभराचो शीण निवळावंक नाका? ही धुल्लाची जीण खंयतरी बुडोवंचीच पडटा. नाजाल्यार फायचो दीस कसो येत सांगूं नजो. नायकिणी करतां, करच्यो पडटात. हो सगळो कुडिचो शीण आनी शिणलेल्ल्या कुडिच्यो वासना भागयतलो खंय? म्हणून म्हणटा हीं व्यसनां न्हूं. ड्रायव्हरांच्यो गरजो.'' एकल्या ड्रायव्हरान सांगलें. तो हरशीं फकाणां करतालो पूण उलयताना खऱ्यांनीच गंभीर जाल्लो.

उलोवन जातकीच ताणें कोप तोंडाक लायलें. आनी घटघट घोटलें. सगल्यांनी नानूचें म्हणणें धुंवडावन लायलें. नानूचे गंभीरतायेचीं फकाणां जावपाचो वगत आयलो. नानू निर्शेल्लेवरीं जालो पूण ताणें नेट सोडलो ना.

''पूण आमचे वासने खातीर आमी आंकवार चेडवांची वाट लायतां.''

''ताळी केन्ना एका हातीन वाजता?''

''तीं कित्याक वाट लावन घेतात?''

''पूण हें आमचे खातीर घडटा न्हूं.''

''मागीर आमी चोटलेचीं पोतां मुणावंचीं पडलीं.''

“हा ऽ ऽ हा ऽऽ.” परत सगळे खळखळून हांसले.

“आयकोरे नानू, आंकवार चेडवांची वाट लावंक जायना. बोरें आसा. म्हुणटोकीर सोगल्यांनी काजार जाल्ल्या कोणाच्या तोरी बायलांक घेवन नाचचें पोडलें. तूं कसो देवकेक घेवन आसा.” बऱ्या वेळान मानुयेलान तोंड घातलें.

“मानुयेल.” नानू ताचेर तापलो.

“मानुयेल? आतां मुजेर तापताय? केसो शापोतां सांगताय रे? गुंवान पायों भोलेल्ल्या मुनशान नितोळकायेचे शेरमांव सांगलें म्हुणोन उपकात्ता?” मानुयेलाचोय आवाज चडलो.

“तूं वगी राव.”

“कित्याक वोगो राव?”

‘हांव सांगता न्हूं आयज देवकेक. देवके, देवके ऽऽ.”

“कितें?” भितरल्यान थरथरत आवाज आयलो.

“भायर यो अशी. सांगतां तें आयक. हांयेंच तुकां दवल्लेली हांगा. रांदून वाडूंक म्हण आनीक कित्याकय म्हण. पूण हांवच आतां तुकां सांगतां. पिये नासतना. तूं आपली आतां खंयूय वाट धर. तुजो म्हजो संबंद ह्यानफुडें कांयच ना.”

“चोय, केसलो पोडमूर? तिज्यान आतां तुजी खाज भागोवं नेजो देखून आतां ती नाकाय.”

“मानुयेल, तोंड फोडटलों चेडयेच्या.”

“कोणांक गाळ माल्ली? पोत्ती मार.”

“आसूं रे मानुयेल. नानू, कुशीक सर.” एकलो दोगांयच्या मदीं पडलो.

“कितें आडायलां तुमी आयज?” देवकी मुखार आयली.

“आयको नानू, हांव मानुयेल तुकां सांगतां. देवकी हिंगाच रावतेली. तिचें कितें कोरपाचें तें आमी चोयतले. ही सुवात तुजी मुरे? हात लावन चोय एके कोंड्याचे कांबीक.”

“उजो लायतलों खाणावळीक.”

“तुज्या तुज्या शेंटांक पेटोय. आतां जाग्यार येयलाय तूं. इतले दीस सोरो पिवप बोरें आसलें. चेडवांक फुसलोप वायट नासलें. आंकवार चेडवांची वाट लायतोना तुकां गोमोना आसलें हेंकांय कोणतरी भाव आसतोलो म्हुणोन? तुजे भोयणीक कोणें तरी कुरार केल्या उपरांत –”

"राणग्याच्या-" नानून मेजावयलें रिकामें कोप मानुयेलावटेन भिरकायलें. मान बागोवन मांनुयेलान तीर चुकयलो. कोप ज्युस्त म्हेडीक आदळून फुटलें. तेसरशीं सगळे उठोन उबे रावले. मानुयेल नानूच्या आंगार झुडोन गेलो. देवकी मदीं आयली. तिणें नानूक कुशीक ओडपाचो यत्न केलो पूण नानून कोपर मारून तिका झिडपिली. कडव्यार आदळून ती न्हिन्नळ्ळी. थंयच रावली. दोगांकय सांबाळटाना एक दोगांचो मेजाक धसको लागून कोपांचो खुर्दो जालो. अंदाधुंदयेंत कोणांक कितें लागता कांयच कळना जालें.

इतल्यान दार उकतें करून पंडरी भितर आयलो. लापयांव उबारून ताणें पळयलें आनी तो काचाबूल ज़ालो. नानूच्या हुस्क्यान तो ताका तळ्यारसून सोदीत चिंचेदेवण्यार पाविल्लो. "नानू" "नानू" करीत ताणें ताका भायर येवपाक सांगलें. पंडरी आयला तें पळोवन बाकीच्यांनी नानूक भायर काडपाचें थारायलें. सगळ्यांनी ताका सरपट उखल्लो. तसोच आडवो धरलो. निमाणे संदिचो लाव घेवन दांत-ओंठ किल्लून ताणें मानुयेलाच्या हड्ड्यार खोंट शेडायली.

"भैझवऱ्या -"

"भैझवऱ्या मुरे, बोरें आसाय."

***

रातच्या आठांच्या सुमाराक सदच्यासारकी तळ्यार झुंडी पडली. उदक भर, आयदनां घास, झंन्नळून काड असलीं कामां जावंक लागलीं. मर्दीच कोण फातरार बोंदरां धोपटूंक लागलीं. कोण पोंवटार धरून कपड्याक शाबू चोळूंक लागलीं. उदक घेवन तोंड चोळपाक, पांय झंजाळपाक गती आयली. झिळमिळ्या उजवाटांत कोण कोणक वळखूंक पावना जालीं.

"हें ऽ तें तळ्यार कितें गे हयडुळेशें दिसता?"

"हातो दिसता."

"तळ्यावयलो हातो माळपी जाग्यार आसा मगे?"

"तो त्रक्स न्हू गे. नानून दवरला."

"खंयच्याच उजवाडलें? चिंचेदेंवण्यार जागे भल्ले दिसता."

“जांव गे. घराक तरी येयलो.”

“घराक खंय गे? त्रक्स हांगा दवरून धांवलो चिंचेदेवण्यार.”

“आगे बाये!”

“थंय देवकेच्या कुल्याक कुलो कोण तेंकयतलो?”

“बापूय गेला मगे लापयांव घेन पुताचे सोदीक.”

“जाण्टेंपणांत आनीक एक थापट घेवपाचें येवजलें दिसता म्हातान्याक.”

“मागीर जल्मांकूय घालूना तर तेका? पोशिना जालो म्हण कितें जाता?”

“तुमी पोसता गे म्हाज्या बापायक?” येदोवळ केंसर न्हातना आयकत बशिल्लें. ताणें जाप केली. काळखांत सगळ्यांनी ते वटेन पळयलें. कुशीक आशिल्ल्यांनी ल्हवूच चांटो उखल्लो. उतराक सांपडलेली थंयच गणपयत रावली.

“सगळ्यांचे धवळे कित्याक तुमच्या माथ्यार?” केंसर फणफणलें.

“बरें चणचणटा मगो तूं.” गणयतलेन म्हणलें.

“कोणाचें खावंना.”

“आमी खावयतलीं कोण बाये. खावोवपी दुसरे आसात. आनी खाता तेंचें सरता भायर.” तिणें जापेक जाप केली.

“भश्टयांनी न्हाता मगो तूं? मातशें कुशीक तरी बसोन न्हा.” दुसरेक नेट आयलो.

“तुमी मात जाय थंय पासडी पडोवन न्हाल्यार जाता दिसता.”

“जांव गे. न्हाव तेका. तळ्यावयल्याचे दयेन म्हयन्याच्या म्हयन्याक न्हाण तरी जाता. नाजाल्यार पोटां जाल्ल्यांक खंय न्हावंक मेयटा?”

“खरें बाये. मागीर बुरनूस कांबरून न्हिदपाचें आनी एक दीस सक्काळीं नायेले वचोन तिर्थ हाडपाचें.”

“पोरोबालें काय रवळनाथाचें गे?”

“सांगणें रवळनाथाक करपाचें आनी तिर्थ पोरोबालें हाडपाचें.”

“पयलीं फकत चवथीकूच गणपती पुजताले. तेवूय कोंकण्याच्या हातीन.”

“आतां चवथी आदींच पुजतात, कोंकण्याच्या न्हूं, किरिस्तावांच्या हातीन सुद्दां.”

केंसराच्या आंगावयलें उदक पुसच्या आदींच अरसून गेलें. काळखांत तें मोन्यांनी जळत रावलें. ताचें मुखामळ कोणाक दिसलें ना. मनांतल्या मनांत ताणें काळखाचे उपकार मानले.

त्याच वेळार पंडरी नानूक घेवन चिंचेदेवण्यार साकून आयलो. तळ्यार बोवाळ आयकून ताणीं गणयलेंशें केलें. केंसराचो ताळो आयकून लापयांवाची वात बारीक केली. कान दिवन बापायन आनी पुतान उतरान उतर आयकलें. काळखांत कोणांचीं तोंडां तांकां वळखूंक आयलिंना. वात व्हड करून ते मुखार सरले. तळ्यावयल्यान गेले. केंसरान बापाय-भावाक वळखले. सगळें उलोवप ताणीं आयकलां म्हणपाचो दुबाव ताका पडलो. तळ्यार शांतताय पातळ्ळी. एकलें एकलें मनीस वचून तळ्याकडलो वाठार केन्ना मनशावीण जालो तें कोणाक कळ्ळेंय ना.

‘‘आवय, फायच्च्यान केंसराक कामांक धाडूं नाका.’’

‘‘फाल्यां कितें पयशे पडपाचे आसा दिसता पुता.’’

‘‘पयशे घेवन यो म्हणचे. फायच्च्यान काम बंद तेचें.’’

‘‘तें कामांक गेल्लें कोणांक जाय?’’

‘‘पुरो जोडलें तें.’’

नानू सोप्यार बसलो. केंसर तळ्यार सावन पायणींतल्यान येतना ताणें पळयलें. तसो आदींच तो फाट वळोवन रावलो.

‘‘हांवूय फाल्यांच वळवय वचोन येतां.’’

‘‘जयदेवागेर?’’

‘‘हय. आनीक वगत नाकां.’’

रातचीं जेवणां जालीं. नानू कितलेशाच तेंपान घराक आयिल्लो. पूण सगळ्यांनीच मोन्यांचे एकवत आपणायिल्लें. दिवे वाडवले. नानू कूस परतीत रावलो. केंसराक सबंद रात दोळो लागलो ना. पंडरीन खोकीत खोकीत रात सारली. रूक्मीण परवतां परवतां मात्तूय झापडेलिना.

***

पंडरी वळवयसून आलतडीं पावलो तेन्ना दीस धारेक गेल्लो. तारी धडेवयलो

वयर सरून तो चिंचेपोंदा रावलो. तसोच च्यावेच्या दुकानाकुशीक आयलो. आयज दिसभर तो वळवय उरिल्ल्यान दुकान बंद आशिल्लें. सकाळीं उठच्या उठून तो वळवय गेल्लो. आतां दार उकतें करून भितर एक नदर भोंवडावंची अशें ताका आलतडी येनाफुडें दिसलें. पूण कोणें गिरायकान ताका इल्ली च्याव कडोवपाचो आग्रो केलो ना. आदींच निरशेल्लो तातूंत आनीक गोंदळ नाका अशें थारावन तो चलूंक लागलो. केन्ना एकदां जीव घरा घालून घेता अशें ताका जालें. जाणटेपणाची खरी जाणवीक ताका आयचे घडयेक जाली.

तो मोन्यांनी चलत रावलो. सदचे सगळे तोंडावयले ताका भेट्टाले. पळयलेनाशें करून कूस मारताले. कोण उलोवपाचे वा हडकुपाचे भानगडीक पडले ना. सकाळीं जाणीं ''बाप्पा'' ''बाप्पा'' म्हण उलो केल्ले ते मोन्यांनी कडसरताले. ताकाय आयज तेंच जाय आशिल्लें. कोणें आपणांक हडकुवंचो अशें ताकाय दिसलें ना.

तो तळ्यार पावतकीच तळ्यावयलीं बायलां एकामेकांच्या कानांत फुतफुतलीं आनी सगळ्यांच्या तोंडाक गुड्डे बसले. थंय मात लेगीत थारनासतना तो मुखार सरलो. तो धायेक धेंपार पावनाफुडें फाटसून आशिल्लें तशें फुतफुतप आनी मागीर बोवाळ सुरू जालो. पूण पंडरीन फाटीं वळून पळयलें ना वा फाटल्यान कानूय दिलो ना. तळ्यार साकून आपल्या घराकडलें एका उल्याचें अंतर केन्ना सोंपता काय ताका जालें.

तो भितर सरलो. हुंबऱ्या कुशीक रूक्मीण तोंडार पालव ओडून एकलीच बशिल्ली. पंडरीक अजाप दिसलें ना. ताणें मनांतूच म्हणलें, काम सादलें ना म्हण हिका आदींच सुलूस लागिल्ली तर. नाजाल्यार येनाफुडें विचारतली आशिल्ली. बरोच वेळ कोण कांय एक उलयलीं ना. घरांत दोगां बगर कोण नाशिल्लो. ताणें जोतें काडलें. आंगावयली मुस्तायकी देवयताना सांगूंक लागलो.

''ब ऽ रें जाण्ट्यांनी थारायलें म्हण आतांच्या भुरग्यांक तें मान्य आसूं नाका? आतां मनांक फाटीफुडें खावंक नाका म्हण विचारपाचें. तशें जयदेवान कांय म्हटलें ना. कितलोय जाल्यार सारके पिरायेचो. पूण नरशिंव... आतां एप्रेगाद काय कोण जाला न्हूं. जावं बावडो! जाच्या नशिबाचो तो. पूण सरळ सांगचें न्हूं? आमी तरी कितें नेयी सोयरीक जुळोवंक येयल्या? मामा-भाच्याचें नातें. पिळगेन पिळगी चलत येयलां. आमी तोडलें अशें नाका. त्याभायर ल्हानपणांत थारायल्लें म्हणटकच

आवय-बापायक एक ओड. तेखातीर गेल्लों विचारपाक, तर हो नरशिंव भितर रावन म्हणटा, "हय, आपणाक कितें ड्रायव्हर समजलो?" वयल्यान जाय फाय! "खंयच्या ड्रायव्हराकडेन जमना केंसराचें?" तें हेणें कालच्या पोरान सांगोंक जाय आमकां?"

"हूंऽऽ." रूक्मीणीक हुंडको आवरलो ना.

"तूं रडटा कित्याक? असलो मिजासी भाचो जावंय म्हण जाय कोणांक? धूव वाडली म्हण कोणाच्याय गळ्याक बांदप?"

"काळें लायलें आमच्या तोंडांक."

"कोणें?"

"धुयेन आमचे."

"कितें जालें?"

"ही ऽऽ गांवभर फाम पडल्या दनपारच्यान."

"कसली?"

"पळून गेलें केंसर."

"आं!"

"त्या किरिस्तांव मानयेला वांगडा."

***

# 10

एका सप्तका उपरांत पंडरी चिंचेदेवण्यार वचपाक भायर सरलो. बांदावयल्यान चलतना ताचीं पावलां आतां अदीक थरथरतालीं. पांच-धा धेंपांच्या अंतरावयलें लेगीत अस्पश्ट दिसतालें. पयस एकाच जाग्यार नदर खिळावन दवरल्यार सगळी काळखीच काळखी फांकताली. दोळे खोलायेक गेल्ले. कानांच्यो पाळयो मुद्‌दम दसयिल्लेभाशेन हालताल्यो. चामडी मरून गेल्ली. आंगार पिठयाळीं खरवडां पडिल्लीं. दुकानाकडेन पावलो तेन्ना सुर्या माड-देडमाड उबारेचेर पाविल्लो. पूण सदच्या सारकी वोताची रखरखसाण ताका जाणवलिना. बांदावयल्या व्हाळाची आडी हुपून पंडरी प्लॉटार आयलो. कुशीक पावडरींच्यो चाळणी लागिल्ल्यो. धा बारा कामेऱ्यां पावडर भरून गाळटालीं. दोन - चार मानाय कायली भरताले. खाक्यांत हॅल्मेट घेवन सुपरवायझर किट्‌किट्टालो. आडये वयल्यान येतना सुपरवायझरान पंडरीक पळयलो. खाक्यांतलें हॅल्मेट माथ्यावयर उबारून ताणें पंडरीक सादयलो.

"ओ बाप्पा, खंय रे? कितल्या तेंपान?"

सगळ्या कामदाऱ्यांचें लक्ष पंडरीवटयां गेलें. पंडरीक आंयकूंक येवंचें इतल्या अदमासान सुपरवायझरान विनोद केलो.

"आमकां दिसलें, तुंवूय कोणा बराबर पळोन गेला म्हण." कामेऱ्यां मुरगुट्टून

हांसलीं. सुपरवायझर भुरकुटलो. आपणाचेरूच खोशी जालो. पंडरी कांय एक जाप करिनातसना दुकाना दारांत पावलो.

"मानुयेल खंय पावलो काय?" एका कामेऱ्यान दुसऱ्याक विचारलें. पूण सुपरवायझरान तोंड घालें.

"तूं कितें समजलें, तो हांगसून परत येवपाक गेला? तेणीं खंयची तिकेट काडली देवाक खबर!"

"आनी येयना परत."

"कित्याक? तुमकां कोणांक उमेद आसा तेच्या वांगडा पळपाची?"

"आमकां कित्याक?"

"केंसराचें कितें?"

"आनीक कितें? जावपाचें जालें. एकदां तुटलेलें फळ जमनीभरवण जालें अशें मानपाचें."

"बाप्पाक आनीक ताकद आसा दुसरें केंसर करपाची?"

"आनी तो बाबुसो दिसना हालीं."

"दिसना कित्याक?"

पंडरीन कंबराची चावी काडून कुलपाक लायली. दार धुकलचे आदीं आपशींच पयस जालें. दारांतल्यान उजवाड फांकलो. ते सरशीं बांकावयले आनी विव्रांतले जल्ले सुर्र सुर्र करून कुशीक सरले. वण्टीवयल्या कॅलेंडराफाटसून कण्णेंत रिगले. सगळ्याक धुल्ल माखिल्लो. बांक तांबशे हळडुवे दिसताले. पायांक माती दसताली. खांदावयल्या तुवाल्यान पंडरीन बांक झाडले. धुल्ल वयर हुबलो. आशिल्लो तसो तळार आयलो. दोन तीन आंचावांची धांपणीं घुंवडावन ताणें उकतीं केलीं. खंयच्च्या तरी बुराकांतल्यान जल्ले वचून ताणीं फांती बिस्कुत्यांक बुराक केल्ले. फोलीणांतल्या चावेच्या पाल्याक चितो दाटिल्लो. तातूंत गुळटां गुळटां जावन घोंटेल्लेवरी जाल्लो. वासूय एके तरेचोच मारतालो. लातांत आशिल्ली कार्तभर साकर तेयोवन मॅल जाल्ली. तातूंत मुयो, दोमळे पडून मेल्ले. उकतीं केल्लीं आयदनां ताणें परत धांपलीं. दोणलेंतल्या उदकार शेळो दाटिल्लो.

दोणलेंत उदक कोण भरतलो हो ताका प्रस्न पडलो. देवकेकडेन आदलेवरी

बरेंपण आशिल्लें जाल्यार पंडरीची जाग आयकून भल्लेली दोड घेवन ती येतली आशिल्ली. फाटल्या दारार मारून कवडी उकती करून घेतली आशिल्ली. दोणलेंत हात घालून झंजळटली आशिल्ली. पार्ते उदक भायर रकोवन दोड दोडलेंत वोततली आशिल्ली. पूण पंडरी येवन अर्दवर जालें तरी अशें कांयच घडलें ना. कुशिच्यान गिरायकांचो आवाज मात ताका स्पश्ट आयकूंक येतालो. लोकांची वाडटी पावलट आवाजावयल्यान कळटाली आनी मर्दीं मर्दीं उतरांय कानांर पडटालीं.

"देवके, वयर हापिसांत व्हरपाक चार च्या कर. ग्लास रोखडे हाडून दितां."

"देवके, हे आयचे आनी कालचे च्यायेचे पयशे."

पंडरी तामरेतीर बसून आयकत रावलो. खिणांत ताणें सगळे परिस्थितीचो अदमास घेतलो. एका लांब सुस्काऱ्या सयत ताणें पांय मातशे सैल सोडले.

"बाप्पा, च्याव ना रे आयज?" एक मुकादम भितर सरलो. धुल्लाच्या बांकार तो बसलो. कानाचें विडये शेंवट ताणें पेटयलें आनी फुसकावंक लागलो.

"बाप्पा, सामके तडार वडयले तुयें आमकां च्याव नासून."

"फाटल्यान मेळना?"

"थंय कोण वयता? ताळो सुकोन खणखणलो म्हण म्हाज्यासारको पांयो दियत ते घार्णींत."

"आतां सगळें सगळें मेळपाक लागलें मरे थंय."

"मेळों. घेवपी आसा ते घेतले. सगळ्यांक एकेच पायलेन मेजले म्हण उपकारता?"

"तूं आयज वयर सो?"

"बेकार रावंचो पडलो मरे आयज."

"कित्याक?"

"कामेऱ्यां नासून. पावडर गाळूंक खंडितान रास केल्या. कामेऱ्यांनी घात मारलो. वळवयचीं कोणूच येयलिंना."

"कित्याक?"

"वळवय वयल्या वाड्यार कोण मेला खंय."

"कोण रे?"

"कोण म्हातारो खंय. सावळो मास्तर काय कोण!"

"सावळो मास्तर?"

''हय. सावळोच नांव. मिनाचो मास्तर काय शाळामास्तर देवाक खबर.''

''केन्ना?''

''रातीं मध्यान्नेर दिसता. चल, दवर पळोवंया च्यायेक इल्लें. ताळो सराटून आयला.''

''ना. ना. आयज दुकान बंद.''

''कित्याक रे?''

''सावळ्या मास्तराच्या मर्णादीस म्हजें दुकान उकतें आसूंक फावना. म्हाका तेच्या मर्णाक वचपाक जाय. चल तूं. चल्लो हांव. दुकान बंद. सावळ्या मास्तराच्या मर्णाखातीर.''

पंडरी तामरेती वयलो उठलो. ताचे हातपांय चड थरथरूंक लागले. ताणें म्हेडिचो आदार घेतलो. ताच्या दोळ्यांमुखार काळखी फांकली. पोटांतल्यान गुळोसो वयर आयलो आनी तेसरशीं खोंकलेची एक उबाळ आयली. तो खोकींत रावलो. उबो रावून, भेंड बागोवन. शिरंत्रां शिणून आयलीं तसो तो खोकीत खोकीत दुकानाच्या दरवंट्यार येवन बसलो. एक हात हड्ड्यार आनी एक हात पोटकळेर दामून खोकूंक लागलो. पोटांतल्यो आंतकड्यो तुटून भायर पडटाश्यो ताका दिसलें. ध्येयभानाचो विसर पडलो तरी खोकलेन ताची फाट सोडलिना. दरवट्या कुशीक धेरकेलांच्यो राशी पडल्यो. कालवां कशीं धेरकेलां... तांतयांच्या बोळासारकीं धवशीं... मुंडळेसारकीं हळडुवीं.. आनी दर एका धेरकेलाच्या पोटांत रगताचें एक एक खत आशिल्लें. कपलाक लायिल्ले तांबडे गुंज पिंजरी भाशेन.

''रगत पडटा. बाप्पाचें बारीक जोराचेर पडलें.'' वाटेन येवपी-वचपी फुतफुतूंक लागले.

तिनसांज जाली. पलतडसून कांय जाण आयले. ते सावळ्या मास्तराच्या इल्याक गेल्ले. पंडरी मात पावलोना तो पावलोच ना.

***

तळ्यार पावतकीच तो थारलो. ताणें लेंग्या वयलो धुल्ल फापुडलो. खांदावयलो

बोटवो तळपार दवरलो. धव्या खोमसाचे वयले दोनय बुतांव सोडले. वाळू पेंचून बानयानांत फूंक मारली. लेंगो थेंपरा वयर ओडून तो तळ्यांत देंवलो. पांय झंजळ्ळे. ओणंव घालपाक ताणें कंबराक बाग हाडली पूण अकस्मात ताची ताने वयली वान्साच गेल्ले भाशेन जाली. ओले हात लेसाक पुशीत तो उदका भायर आयलो. लेस खडपार पातळावन तसोच सांवळेक बसून रावलो.

सुर्या माथ्यार आयिल्लो. ताची नदर चारी वटयां भोंवली. सगळ्यांत पयलीं आबूच्या फोणा कुशीक. थंय फकत वेंत देड वेंत उबारसो वणणो आनी ताचेर ल्हान मोटे धा बारा फातर आशिल्ले. मदीं फोणार आबूच्या पिकिल्ल्या खाडासारकेंच करड मातिल्लें. खिणांत ताच्यो पातकड्यो ओल्यो जाल्यो. ताच्या दोळ्यांमुखार धा वरसां आदींचो आबूच्या मर्णाचो देखाव चित्रावरी उबो रावलो.

आबूचे खोपींतल्यान भायर सरिल्लें आबूचें किरवड... फुडें सावळो मास्तर... फाटल्यान झिडपत पावलां वडोवपी बेबदो बाबुसो... आनी फाटसून खोरें पिकास घेवन दिडक्या पांयार धांवपी आपूण.... कोळंबार दोळ्यांच्यो मलप्यो कश्यो धांपिल्लीं घरांचीं कवाडां....

खिणांत ताका दिसलें, आपूण कित्याक आयला कोळंबार? तो खोल येवजणेंत पडलो. मुखावयली आंबुल्ली मरून तिची नांवनिशाणी लेगीत उरूंक नाशिल्ली. कांटयाच्यो केगदी बेणून वडयिल्ल्यो. तांचीं फकत मुळां दिसतालीं. तळ्याचे सकयले वटेन एक हळडुवोच ट्रक तळ्याधडेर अजस्त्र बेबो कसो उबो आशिल्लो. दोग जाणा ताचेर उदक शिंपडावन तो धुताले. धुल्लाचें उदक तळ्यांत देवंतालें. ऑयल, डिझेलाचीं चक्रां उदकार चकचकतालीं. ताच्यान तें पळोवं नजो जालें. ताणें नदर फाटीं घेतली. तो आतां उठून चलपाक लागतलो आशिल्लो इतल्यान ताची नदर मुखावयल्या सांतोणाचेर पडली. सांतोणाचें उंच उबार माथें तशेंच मळबाक भिडिल्लें आशिल्लें. पूण तातूंत आदींचो नेट नाशिल्लो. कात झडिल्लेवरी तो रूख दिसतालो. कोळंबाचेर ताजी नदर पडटाली पूण आदींसारको तो आंग आंग पालोवंक नाशिल्लो. तटस्ततायेन सगळें मोन्यांनी पळयतालो. कोळंबाच्या सुखदुखखाकडेन ताचो आतां कसलोच संबंद उरूंक नाशिल्लो. ती कांगलिणीची वालूय आतां ताच्या गळ्यांत नाशिल्ली. इतलो सांतोण मुक्त आशिल्लो. सांतोणाचें तें रूप पळोवन ताका खोस जाली. आपलें पडबिंबूच

सांतोणान आसा अशें ताका दिसलें. ताका समाधान जालें.

"कोण रे?" कंबर वयर करून शाणून ताका हडकिलो. आपल्या खोल मेल्ल्या दोळ्यांनी ताका नियाळ्ळो. पूण शाणूक ताची चट्ट करून वळख पटली ना. तळ्यार येवपी-वचपी बरेच जाण ताचेकडेन व्हदळच्यान अजापान पळयताले. पूण कोण - खंयचो, कित्याक बसला हें आजून कोणाकच कळूंक नाशिल्लें.

"वळखुना शाणूदाद?"

"दोळ्यांक पडल्या पाड."

"हांव शंकर. येशालो."

"येशालो शंकर रे? कितल्या वर्सांनी उदेला! कोण वळखतले तुकां?"

"धा-बारा वर्सां जालीं."

"चड जातलीं दिसता. पोरा, खंय शिकपाक म्हण गेलो आनी येयलोच ना परत."

"हय."

"येशाच्या मर्णाकय येयलोना."

"कळ्ळें ना म्हाका."

"खंय म्हण सोदपाचो तुका? अखेरेक तेणें खूब याद काडली तुजी. मागीर आपुणूच म्हणपाक लागलो, "आपणें पुता खातीर कितें दवरलां फाटल्यान म्हण येतलो पूत मर्णाक.. जोडलें आनी सोऱ्याक मोडलें...." आनीक पांच-स वर्सां कांय जावंचेंना आशिल्लें तेका. म्हाज्यापरस ल्हान तो. पूण मिनाचो वावर करी आनी सोरो पी. पोटाक वळवळे काड. असल्यांनी फरकताय जाली. पंडरी सारकें बारीक जोरार पडलें तेचें. तूं केन्ना येयल्लो?"

"काल. वळवय येयल्लों सावळ्या मास्तराच्या मर्णाक." शंकरान सांगलें ते सरशी शाणून मान सकयल घातली.

"म्हाका आनी वचपाक जाय आशिल्लें. पूण मळणेक लागोन पावलोंना."

"मळ्ळें?"

"कपलाचें मळ्ळें! तणसुद्दां किल्लना शेतांत."

"कशें?"

"हें पळयना? पावसांत हो ऽऽ उदकाचो लोट येता तळ्यांत. तो मिनाचो

रस्तो शेनोरेर वयता. पावसांत रस्त्यावयलें उदक व्हांवोन तळ्यांत येता. धुल्लाचें आनी मिनाच्या फातरांचें उदक. हांगा तूं बसला थंय कंबरा वयर उदक जाता. तळ्याचें उदकूय वळखूंक येयना. वणटीक सारोवपाचो रेंबो कशें तांबडेंगूंज जाता. तळ्यांतसून मागीर तशेंच व्हांवता शेतांत. मातये सकट. हे मातयेन शेतां जाता निसू. मागीर शेण लागना. सारेंय लागना. सुल्ला गांवच्या भोंवतणी अशे मातयेन शेतांक पडली पाड. आतां एकदीस कोळंबाच्या शेतांक पाड पडपाची आसा.'

"कोण ना हांगा? सरपंच –"

"ना कित्याक? खूब आसा. पळय, तो त्रक्स सरपंचालो. कसो सुतलायला देवाक खबर. त्रक्स तळ्यांत धुयता. तेची वयली माती आनी तेल उदकांत. मागीर तशेंच शेतांत. सांजेक नाशिल्लो. सरपंच जातकूच घरां बांदलीं. त्रक्स घेवन मिनांक लायले. मत्तांच्या वेळार शींव वाग नाचयतात हाडून. सरपंच सांगता तेका दिवपाची मत्तां. हें दितले आनी तें दितले म्हण आड्डतात. दिता तें कोण घेवन खाता, तळ्या वयल्याक खबर! पूण तळ्या वयलो तरी खंय जाग्यार आसा?"

खिणभर दोगय वगी रावले. शाणून एक लांब सुस्कार सोडलो.

"हें मीन काबार जातकूच कोळंबकार खातले कोणांक? सरपंचाच्या हातीपायांक पडोन त्या मिनेरांक तरी सांग म्हण सांगलें."

"मागीर?"

"ते राणग्याचे म्हण्टात खंय, शेतां पाड पडल्यार आमी विकतीं घेतात. आतां शेतां विकून दुडू घेवन कितें आमच्या फोणार दाळपाचे आसात? तुमी शिकलेले."

"अं?"

"पूण सारके शिकले तरी खंय! शिकप सोडून तेन्ना माथ्यार कायली माल्ल्यो."

"आनी कितें..."

"त्या कागदांचेर कितें घालां तरी. सगळ्या लोकांक कळूं दी."

"सगले पेपर मिनेरूच छापतात."

"छापूं."

"आपल्याचेरूच वायट ते कशे छापतले?"

"मागीर हें भारत काय कितें जालां तें फकत कुकमाक आदार? तूं वगी

कित्याक?''

शंकर फकत मिश्यांनी हांसत रावलो. शून्य नदरेन मुखावयल्या सांतोणाक पळयत रावलो.

''जांव, आमी कुसले हितूर. तूं भायर वचोन मातसो जिवान तरी जावन येयलो.''

शंकर परत हांसत रावलो. शाणूच्या मूळ स्वभावाक लागून. सगळें बदल्लें पूण शाणूचो सभाव तसोच आशिल्लो.

''हांगा बसोन कितें करतलो? घर तरी उल्लां? चल, आमगेर येता मरे?''

''ना.''

''मागीर?''

बोटवो खांकेक मारून शंकर शाणू फाटोफाट चलूंक लागलो. शाणू कितें कितें सांगतालो. शंकर चलतना फकत मोन्यांनी आयकतालो.

***

आबूचे खोपीच्यो चार वण्टी फकत माथेंभर उरिल्ल्यो. बाकीचो भाग भूंयभरवण जाल्लो. मदली पारेत कंबरभर तिगिल्ली. शंकरान भितर पावल दवरलें आनी भितल्ली आडखळ भायर वडोवपाक सुरवात केली. कर्मे वांशे आनी कण्णेच्यो कोंड्या-कांबी ताणें भायर भिरकाटायल्यो. चुडटांचो कोलू तूस जावन पडिल्लो तो पोशांनी भरून भातर वोतलो. चारूय कोनशे निवळ केले. थंयचोच एक सान्नी-खुंटारो घेवन सरपटून सान्न मारली. शेजाऱ्याकडली एक कळसुली मातशी मागून घेतली. तळ्यावयलें उदक हाडून भितर शिंपडायलें, तसो हुबिल्लो धुल्ल जमनीक पांखोवन बसलो.

सांजचो आदेसभर ताचें काम चलिल्लें. पायणींतल्यान येतो-वेतो ताका पळयत वतालो. मेळटा ताचेकडेन वासपूस करतालो. येन्ना मेरेन ताची वळख सगळ्यांनी भायलेभायर करून घेतिल्ली पूण ताका तोंडार वळखुपी थोडेच आशिल्ले. भुरगीं तर ताच्या तोंडाकडेन अजापान तुकूतुकू करून पळयतालीं. तो नेमकें कितें करता तें कोणाकच कळूंक नाशिल्लें. कोणेंय हडकिल्यार जाप दिवपा

बगर एक उणें उतर तो कोणाकडेन काडिनाशिल्लो. पूण ताका पिशांत काडपाचें धाडसूय कोणाक जालें ना. सगळे तोंड धांपून ताची करणी पळयत रावले.

वणटी वयलीं वोतां बावलीं तेन्ना ताणें कुशीचीं चार मल्लां उखलून हाडलीं. मल्लां उबारता म्हण कोणें धनयान ताका हटकिलोना. दोन मल्लां मोडक्या पाऱ्यार घालून पांखें कशें केलें. उरिल्लीं दोन सकयल हांथुल्लीं. चुलिच्या खुरांचो उपेग ताणें लवंडपाक उशाभशेन केलो.

आमोरी जावन काळोख फांकलो. बोटव्यांतली मेणवात काडून ताणें पेटयली. उजवाडान बोटव्यांतलें सगळें सामान भायर काडलें. चित्रकलेचे कोरे कागद, पेन्सिली, रंगांच्यो डबयो, पिशोलां मुखार मांडलीं. एक एक कागद घेवन तो चितारूंक लागलो. भोंवतणचो ताका पुराय विसर पडलो.

"शंकर!" नानूच्या पयल्या उल्याक शंकराची तनरी भंगली ना. नानून दारा भितर सरून दुसरो उलो मारलो.

"शंकर!"

शंकरान पायांवयल्यान नदर वयर काडली. नदरेक नदर मेळटकीच खिणभर दोगय एकामेकांक पळयत उरले. नानू तसोच बागवलो. ताचे कुशीक मल्लाचेर बसलो.

"वळखूं ना रे?" ताचे पोंवटेर हात भोंवडायत नानून विचारलें. "कितल्या तेंपान रे शंकर?"

"हांव काय तूं?"

"दोगय." दोगय मन सोडून हांसले. पूण घडकेंत शंकर आशिल्लो तसो गंभीर जालो. एकामेकांक पळयत रावले. कितें उलोवंचें दोगांकय येवजलेंना.

"कितल्या वर्सांनी तूं कोळंबा येयला रे?" असो प्रस्न नानूच्या वोंठार आयलो. पूण ताणें तो विचारलोना.

"केन्ना येयलो?"

"काल. वळवय सावळ्या मास्तराच्या मर्णाक."

नानू परत तोंडाक गुड्डी बशिल्लेवरी वग्गी जालो.

"म्हाकाय वचपाचें आशिल्लें रे पूण काल खूब उसरां कळ्ळें. सामकें आमोरेर." नानूच्यो पातकड्यो ओल्यो जाल्यो. आनीक मातश्यान ताका रडूंक

कोसळटाशें जालें.

‘‘सावळ्या मास्तराक आमी केन्नाच वळखलेना रे. शंकर.’’

‘‘अं.’’

‘‘आनी आमच्या आबूक सुद्दां.’’

‘‘कशे?’’

‘‘जाणां रे. तूं फकाणां करता म्हाजीं. आबूच्या मर्णाक तूं आशिल्लो आनी काल सावळ्या मास्तराच्या. हांव मात दोनय फावटीं मिनांक.’’

‘‘आतां मेकळो हांव.’’

‘‘खंय आसता?’’

‘‘असोच भोंवत आसतां. फकत पळयतां. त्या तळ्यावयल्या सांतोणा भशेन.’’

‘‘असो उमाण्यांनी उलयतासो. करता कितें?’’

‘‘आतां हीं सपनां रंगयतां. आबूचीं.’’

‘‘पळोवंया. आरे, चित्रां काडपाक लागलो.’’

‘‘पोटाखातीर न्हय.’’

‘‘मागीर?’’

‘‘चित्रां रोकडीं पुसपाक मेळटात.’’

‘‘परतो लागलो कुवाड्यांनी उलोवपाक. आदीं कसो गाळींनी उलयतालो.’’

‘‘आदलें सगळें मनशाकडेन खंय उरता? कांय कांय गजाली कळनासतना शेणटात. दोळ्यां हुजीर.’’

‘‘तूं शेणलेलो तसो?’’

‘‘अं? हं. तसोच. सामको देंठांत तुटिल्लें फळ कशें. मागीर फकत वयले दराक देंठाकडेन नातें सांगपाचें. दसोवप शक्य नासता.’’

‘‘आमी दसयतात बाबा.’’

‘‘कितें?’’

‘‘लोखणां. व्हेल्डींग करून.’’

‘‘म्हणून माकनां आनी मनशां वेगळीं.’’

‘‘म्हाका कळना. चित्रां दाखय.’’

"घे."

"आर्दी पाटयेर पितारतालो. तळ्यार मातयेंत चित्रायतालो. आतां असो चित्रकार जायत म्हण चितूंक नाशिल्लें. कोळंबावयलो पयलो चित्रकार तूं."

"फट."

"फट कित्याक?"

"पयलो आबू. पळय ताजे कल्पनेंतलीं चित्रां."

"ही आमची चौखी मरे. दोशीवशीं पाटयो घेवन बसल्यात ते भुरगे . मर्दी उबो सावळो मास्तर. सारकें तश्शें."

"हें पळय."

"तीच चौखी. पूण आतां पखवाज, पेटी. मर्दी तोच सावळो मास्तर. भजनी. खऱ्यांनीच म्हाज्या कानांत तो गजर आनी ताळांचो आवाज घुमूंक लागलो.

"हें चित्र पळय. कितले लोक बसल्या तेच चौखेर. आतां बायलां सुदूदां. चौरंगार पुस्तक कसलें जाणां? रामविजय. वाचपी भुरगे. लोकांक अर्थ विस्कटावन सांगपी भुरगेच. फाटलो फेटेवालो आबू."

"शंकर, आनी हें बैलांचें चित्र?"

"ही बैलांची मळणी. पळय केदी भाताची आनी तणाची रास. मुडयांच्यो थडयो."

"आनी ही बायलमनीस."

"ती कोळंबकान्न. कोळंबा वयली एक बायल. वारो झणझणटाना जिवाच्या आकांतान हड्ड्यार पालव सांवरून रावपी."

"सोंपलीं?"

"अं."

"कितलीं सुंदर चित्रां!"

"सपनां."

"फास्केन भरून लावंचीं."

"नाका. हीं अश्शीं..."

शंकरान काळ्या रंगान चित्रांचेर चर्रचर्र करून पिशोलां भोंवडायलीं. काळ्या रिस्कांनी विद्रूप करून वडयलीं. नानू 'आं' करून अजापान पळयत रावलो.

कितलोसोच वेळ तसोच गेलो.

"आदलो पाडो सभाव वचोना तुजो."

"फास्केन भरतात चित्रां. सपनां न्हय."

"पूण आसूं आसलीं तीं."

"कित्याक?"

"धा वर्सां आदींचीं सपनां तीं. आतां हांव कोळंबाचें चित्र काडटलों. पन्नास वर्सां फुडलें."

"अशें इबाडूंक?"

"ना. फास्केन भरूंक."

"कोण भरतलो?"

"तूं भरशीत?"

"केन्नाय."

"दर एकल्या कोळंबकाराक तें फास्केंत भरचेंच पडटलें."

"केन्ना काडटा?"

"आतां."

"केन्ना जातलें पुरतें?'

"फाल्यां सकाळ मेरेन."

"रातचें काडटलो?"

"आख्खी रात."

"जेवपाक यो आमगेर."

"रातचो जेवना हांव."

"हांगा सगळो दंव."

"मागीर?"

"आमगेर येवन चितार."

"ना."

"कित्याक?"

"हांगा आबुच्या आत्म्याक तें दिसूंक जाय."

"हांव वचों तर?"

"चल."

"फाल्यां दनपारां कामार सावन घरा येतां तेन्ना येतां पळोवंक."

"सवकास आयल्यार जाता."

"सवकास कित्याक? धांवत येतलों."

"यो."

***

नानू केन्ना न्हय तो फांत्यारूच जागो जालो. रूक्मीणीक खोंकून खोंकून मध्यान्नेर दोळो लागिल्लो. ती सुस्त न्हिदिल्ली. पडवे वयल्या सोप्यार कांबळ कांबरून पंडरीन आंकडो केल्लो. नानू तसोच भायर आयलो. सोंपणां देंवून ताणें आंगणांत पावल दवरलें. कितल्या वर्सांनी तो इतल्या फांत्यार उठटालो.

ताका आपलें भुरगेंपण येवजलें. सावळ्या मास्तरान ताका सदूदां फांतोडेर उठपाक फर्मायिल्लें. नित्यनेमान तो उठटालो. पाठांतर करतालो. एके फांतोडेर पुस्तक वाचतां वाचतां लकण आयली. इतल्यान आबू दांडो घेवन दत्त म्हण हाजीर.

ताणें आबूल्या घरावशीन नदर मारली. मेणवात आजून जळटाली. शंकर आजून चित्र पितारतालो. थंय वचून शंकराची खबर घेवंची अशें ताका दिसलें. पूण ताच्या मोलाच्या कामांत आडखळ नाका म्हण तो खळ्यांतच रावलो.

तळ्यावशी ताणें नदर मारली. उबार सांतोण धुंवटेंत बुडिल्लो. उदेंतेकडेन तांबसाण मारताली. धुंवटी ल्हवू ल्हवू विरगळटाली. तो खूब धादोसलो. कितलोसोच वेळ पळयत रावलो. जिणेंत फांतोडेचीं उदेंत पळोवपांतूच एक सूख आसता हाचो दिश्टावो ताका पयलेच खेप जालो. अश्यो कितल्योश्योच फांतोडी ताचे जिणेंत येवन गेल्ल्यो पूण तांची केन्ना ताका सुलूसय लागलीना. ताच्या मनांत आयलें, अशी जिणेंतली पयलीच फांतोड; तिका न्हावन धुवन येवकार दिवचो.

तो भितर गेलो. झिळमिटें जाल्लें पूण घरांत उजवाड फाकूंक नाशिल्लो. फस्काची काडी मारून ताणें दिवो पेटयलो. कळसुली घेतली. कोळयांत हात घालून शाब्बाचें फोलीण काडलें. तुवालो खांदार वडयलो. उमळी चेड्डी घेतली.

भायर सरूंक आनी ताका राजवाची याद जाली. ताणें घरांत, पडवेर सगळ्याक सोदलो. खंयच हाताक गावलोना. ताच्या पावलांचे जागीन रूक्मीण जागी जाली.

"बाब, कितें सोदता रे?"

"राजू."

"कित्याक?"

"तळ्यार न्हावंक वयतां."

'तळ्यार राजू कित्याक रे?"

आतां ताचे तकलेंत चक्क करून उजवाड पडलो. ताका लजिल्लेभशेन जालें. तो तसोच भायर सरलो.

"बाब, शेळें उदक न्हाता?"

"कांय जायना."

"आयजुचशें कित्याक रे?"

"बेश्टें. न्हायन दिसले."

"राव, माथ्याक आनी आंगाक तेल सारय. नाजाल्यार बादतलें तुकां उदक."

"तूं उठों नाका. हांव हाडटां."

"नाका. तुका मेळचेंना. खंय काय तेलाचें पंचपात्र?"

"केंसरान खंय दवरलां दिसता!"

रूक्मीण मोन्यांनी सोदीत रावली. नानूक उलयतकीच उगडास आयलो. अकस्मात तोवूय वगी जालो.

"यो, हांव थापतां माथ्यार."

"नाका गे. त्रास जातलो तुकां."

"कांय जायना! बस."

नानू उकणयां बसलो. वणटीक तेंकून रूक्मीण उबी रावली. दोनय तायटांर पोळयांनी तेल ओतून घेतलें आनी 'चपा' 'चपा' करून ताळयेर घांसलें. नानूक परतें एकदां आपलें भुरगेंपण येवजलें. नकळटाना भुरग्यासारके पांय सोडून तो बसलो. ताका आपणाली तकली ल्हव ल्हव दिसपाक लागली.

"आवय!"

"कितें?"

"तो आबूले थंय उजवाड दिसना?"

"कोण रे बाबा थंय?"

"येशालो शंकर येयला."

"केन्ना?"

"काल. मुद्दम थंय रावला."

"आजून अवचित्रपणां वचोना तेचीं?"

"काय बरीं चित्रां काडटां! पूण पाडो सभाव तसोच. काडटा आनी इबाडटा."

"आतां रातभर जागो?"

"हय. कोळंबाचें चित्र काडटा तो. म्हाका फास्केंत भरूंक दितां म्हण सांगलां. आयज सकाळमेरेन पुरतें करतलो. हांव दनपारां वचोन घेवन येतलों."

"यो."

"फाल्यां वचतय घडये तो. आयज दनपारां जेवणाक आपयतां."

"आपय."

"पयलीं तिगांय आमी वांगडा खेळटालीं. हांव, तो आनी –"

"वयता मरे न्हावंक?"

"हय. आवय?"

"कितें?"

"चार फुलां खुंटून दवर आं. न्हावन येवन तुळशीची पुजा करतां."

"कर रे पुता."

***

सुर्या माडभर वयर पावलो तेन्ना शेनोरेवयली ती खबर कोळंबा पावचे आदी चिंचेदेवण्यावयल्या प्लॉटार पावली. तेन्ना मिनाचो वावर सारको सुरू जावंक नाशिल्लो. एकलो एकलो प्लॉटार जमत आशिल्लो. वाऱ्या सारकी ती खबर सगळ्यांच्या कानार पडली. शेनारेर सावन निकतोच ट्रक घेवन आयिल्ल्या ड्रायव्हरान ती खबर हाडिल्ली. फोन करून कंपनींक आनी पुलीशेक कळोवपाखातीर तो ड्रायव्हर चिंचे देवण्यावयल्या ऑफिसांत आयिल्लो.

देवकी भरकाव दोड घेवन भितर सरतानाच कोणा कामेऱ्यान तिच्या कानार

घातलें. आपूण किर्ते आयकता तेंच तिका कळना जालें. तिच्या हातांक गळसणी लागली. कळसुली गळ्ळी. तिचेर घब्बांयच करून कळसोय सुटून पडलो. तिची चिनारी गेली. कडव्याक धरून ती कितलोसोच वेळ उबी रावली. ध्येयभानार येतकीच तिणें एक लांब सुस्कार सोडलो. फुडले सगळे स्वास तिणें दामून धरले. दोनय भुजां उबारलीं. आनी तणतण कळशार मनगटां आदळून सगळीं कांकणां फोडून वडयलीं.

इतले म्हणसर कोपां-पिरयो धुयत बशिल्लो बाबुसो पायांच्यो किल्ल्यो दामीत धांवत आयलो. तो फुड्यांत पावचे आदींच तिणें उजवो हात कपलार ओडलो आनी पिंजरीचो कुकूम पुसून वडयलो. बाबुशान मुखार येवन तिच्या हाताक धरलें. ताची आख्खी कूड रागान थरथरताली.

"चड जालें तुजें. दिंगण्या गवळांत कामाच्या निमतान रावली. मानायांच्या फुड्यांत न्हिदली. म्हणोन गवळाक उजो पेटयलो हांयें. हांगा खानावळ काडली, ड्रायव्हरांच्या फुड्यांत न्हिदली. तरी कांय म्हटलें ना. आयज घोव आसतना तो थंय मेला म्हण तेच्या नांवान कांकणां फोडून कुकूम पुसून राडांव जाता! हांव तुजो लग्नाचो घोव हांगा तुच्या मुखार जितो आसतना?"

बाबुशाचीं उतरां तिच्या कानार पडचे आदींच तिची दुसरी चिनारी गेली.

***

कोळंबार खबर पावली तेन्ना मिनाक वचपी मानांय-कामेऱ्यां तळ्यार पाविल्लीं. जेवणाच्यो भुतयो तश्योच तळ्यार आपटून सगळ्यांनी शेनारेर धांव मारली. पयलीं कोणाक सारकी खबर कळ्ळी ताका कळ्ळी. बाकीचे एका फाटोफाट धावूंक लागले. तारां-पोरां करंदाय करीत आवय बापाय फाटल्यान धांवलीं. गोरवां वासरां कान ताणून आनी शेंपड्यो उबारून रावलीं. तळ्याचें उदक साय दाटिल्लेवरीं थीर जालें. बेबकां खोरवो तळाक मांडून बसल्यो. सांतोण मात लेगीत हाल्लो ना. पूण ताचीं दोन पानां नकळटाना गळ्ळीं. आनी तळ्यांत अचळय दुकां कशीं पडलीं.

शेनोरेर प्लॉटार पावडरीचेर चुडत हांथरून नानूचें मडें पातळिल्लें. हात पांय तायट करून दवरलेले. आंगाक सगळी काळशी निळशी पावडर दसलेली. दोळ्यांच्या धव्या मुंडोळ्यांतय पावडर गेल्ली. माथ्यांतय तशीच. कानांत आनी नाखांतूय. गळ्याभोंवतणी रगताचीच पट्टी दिसताली.

कुशीक कोसळिल्ली पावडरीची रास पडिल्ली. ताचे कुशीक दांतयाळें शेवाळें. शेवाळ्याच्या दातऱ्यांक ताच्या रगताचे दाग लागिल्ले आनी ते वोतांत चकचकताले.

नानू सकाळींफुडें दिंगण्या सावन मिनाची ट्रीप येवन आयिल्लो. प्लॉटार ट्रक दवरलेलो. मानांय उसपिताले. ट्रकांत उज्जो जाता म्हण तो कॅबिनांतल्यान भायर सरलो. भायर किर्नाचें वोत सोसूंक जायना म्हण सावळेक रावपाचें ताणें थारायलें. माड तर न्हंये धडेर, आनी आशीकुशीक झाडांपेडां नाशिल्लीं. कुशीक पावडरीची माडभर उबार रास आशिल्ली. अस्तंते वटेन तिची सांवळी पडटाली. तो थंय राशीमुळांत रावलो.

आनी अकस्मात कॅपूच कोंसळ्ळें ताज्या माथ्यार. आवाजा सरशीं ट्रक उसपुवपी मानांयानी तेवटेन पळयलें. नानूक तेवटेन वतना ताणीं पळयिल्लो. ताणीं तोंडावयल्यो बोबो मारल्यो. कुशीच्या हॉटेलांतले लोक धांवत आयले. सकयले बार्जीवयले मद्रासीय लुंगेक गांठ मारीत थंय पावले. कितें करचें कोणाक कांयच येवजलेंना. अखेरेक कुशीक आशिल्ल्या शेवाळ्याचेर कोणाची तरी नदर गेली. ड्रायव्हर शेवाळें मारपाक तयार नाशिल्लो. नानू नेमको खंय पडला म्हणपाचें ताका खबर नाशिल्लें. पूण बाकीच्यांनी बळयां ताका शेवाळ्यार बसयलो. पयलीं दोन बॉकेटां मारताना ताचेर आकांत आयलो. तिसरें तेकयलें.

"फुडें आनी मातशें फुडें." मानाय आड्डले. ताणें बॉकेट तशेंच धुकळ्ळें आनी...

"म्हाज्या पुता रेऽऽ" अशी हालेट घालून लोकांचं कंवडाळें मोडून रूक्मीणीन भितर उडी मारली. तिका आडोवपाक एका मानायान धांलून घेतलें. पूण रूक्मीणीन झोपय घालून नानूच्या माथ्याकच वेंग मारली. मानायान तिका तशीच फाटीं ओडून काडली.

... आनी सगल्यांनी एकदम किलांट मारून आंगां शिरशिरायलीं. रूक्मीणीचे वेंगेंत नानूचें फकत मस्तक आयिल्लें. तिणें सकाळी तेल थापिल्लें.

कोळंबार सगळ्यांत निमाणें ही खबर शंकराक कळ्ळी. तेद्या वेळार तो आपणाल्या चित्रार निमाणें पिशोल भोंवडायतालो. ताणें काडिल्ल्या चित्रांत एक कोळंबकार माथ्यार साटली पोटली घेवन आबूच्या फोणावयल्यान कोळंबाची शीम हुपताना दिसतालो.

नानूची खबर आयकनाफुडें ताणें चित्रकलेचें सामान बोटव्यांत भरलें. बोटवो खांदार लांबयलो. तें चित्र आबूले वण्टीर दसयलें. आनी माकनां सारको निर्विकार मुखान तो शेनोरवशीन चलूंक लागलो.

***

# अच्छेव - संदर्भ

○ पुस्तकांत - नेमाळ्यांनी आयिल्ले संदर्भ


1. **तडकोडकार प्रियदर्शिनी सुधीर** - कोंकणी साहित्य मञ्जिरी - (नदर आनी नियाळ) (2005) केदार प्रकाशन गृह, पणजी गोंय
2. **तेंडुलकार एस. डी.** - वालोर - (1998) राजहंस वितरण, पणजी, गोंय
3. **Thali Prakash** - Entry on 'Acchev' - Encyclopedia of Indian literature Volume -1 - (1985) - Sahitya Akademi - New Delhi
4. **Naikar Basavaraj** - Glimpses of Indian Literature in English Translation - (2008) Authors Press, Publishers of Scholarly Books, New Delhi (India)
5. **डॉ. नागवेंकार हरिश्चंद्र** - आस्वादन - (1987) गोंयकार प्रकाशन, मडगांव, गोंय
6. **नायक राजू** (संपादक) - वेंचीक पुंडलीक - (1999) कोंकणी भाशा मंडळ, मडगांव, गोंय
7. **फडते सोनाली** - 'अच्छेव' मनीस जातीची शोकांतिका - लेख - 'कोंकण टाईम्स' दिवाळी अंक 2005, कोंकण टाईम्स पब्लीकेशन, बेती वेरें, गोंय
8. **डॉ. बुडकुले किरण** - साहित्य नियाळ : अंतरंग आनी कायां रूपां - (1998) ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन, काणकोण, गोंय
9. **मणगुतकार अशोक** - अच्छेव वास्तव तितलीच कलात्मक - 'कोंकणी' वर्सूकी अंक - (1984-85) कोंकणी भाशा मंडळ, मडगांव, गोंय
10. **Dr. Maria Aurora Couto** - Introduction - The Konkan, its people, their language - The Upheaval - (2002 & 2007) Oxford University Press, New Delhi
11. **मावजो दामोदर** - गोंयचे कोंकणी नवलकाणयेंत अस्तुरेची सुवात - लेख - 'सृजन' खास अंक (1998) किटोळें, बेतोडें, गोंय

12. **मावजो दामोदर** – संवसार बुट्टी निमतान कोंकणी नवलिका – लेख – दै. 'सुनापरान्त' ता. 24 नोवेंबर 2002, पणजी, गोंय

13. **Dr. Sardessai Manohar Rai** - A History of Konkani Literature (2005) Sahitya Akademi, New Delhi

14. **डॉ. सरदेसाय माधवी** – कोंकणी नवलकाणयेंत बायल मनशेचो आवाज – लेख – 'जाग' दिवाळी अंक (2007) जाग प्रकाशन, प्रियोळ, गोंय


○ **अभ्यासक्रमांत संदर्भ**

15. **Karnataka University**, Dharwad - The Upheaval - M.A. Syllabus (2006)

16. **गोवा विद्यापीठ**, ताळगांव – अच्छेव – बी.ए. कोंकणी तिसरें वर्स – (2009) – अभ्यासक्रमाखातीर


○ **पि.एच.डी. खातीर संदर्भ**

17. **डॉ. मांद्रेकर वृषाली** – मार्कण्डेय एवं पुंडलीक नायक के आंचलिक कथा साहित्य का तुलनात्मक अध्ययन – पि.एच.डी. प्रबंध (2003-04) गोवा विद्यापीठ, तालिगांव, गोवा

18. **डॉ. वजरीकार प्रकाश रमाकांत** – कोंकणी कादंबऱ्यांतलें समाज दर्शन ('अच्छेव' आनी 'कार्मेलीन' कादंबऱ्यांच्या संदर्भांत) पि.एच.डी. प्रबंध (2006) गोंय विद्यापीठ, ताळगांव, गोंय


○ **राष्ट्रीय परिसंवादांत संदर्भ**

19. **X International Conference at The International Centre Goa** - Special Pleary Session on 'The Upheaval' - organised by Forum on Contemporary Theory, Baroda & Department of English, Goa University (17 December 2007)

20. **National Symposium at Kala Academy, Panaji Goa** of Konkani Novel in the context of Indian Novel - (Octomber 2006) organised by Sahitya Akademi, New Delhi

○ **इंग्लीश नेमाळ्यांतले अभिप्राय**

21. **Goa Today** - Konkani Literature in English by - Alexandre M. Barbosa - (May 2002)
22. **The Asian Age** - The Upheaval, Acchev - (21 April 2002)
23. **The Tribun** - Protest against destruction of humanity and nature - by Brian Mendonca (5 May 2002)
24. **The Indian Express** - Across the river - (28.4.2002)
25. **The Week** - Konkani anger - by Mini Krishnan - (28 April 2002)
26. **The Hindu** - The Upheaval - (21 April 2002)
27. **The Herald Mirror** - A cry from the heart - by Brian Mendonca - (21 April 2002)
28. **Deccan Herald** - Pundalik Naik's The Upheaval - by Manohar Shetty - (25 May 2002)
29. **Frontline** - The Upheaval - (5 July 2002)
30. **M. Vijayalakshmi** - A story of Universal Import - (2 November 2002) - (Librarian, Sahitya Akademi, New Delhi)

‘‘पुंडलीकाचे प्रतिभेचें वैशिश्ट्य म्हळ्यार ताची आगळी वेगळी मुळावी नदर. ही नदर जंय पडटा तो आंवाट उलोवंक लागता. झाडां–पेडां किटकिट्टूंक लागतात. तरेकतरा रंगांनी आनी सुरांनी सैम नाचूंक लागता आनी एका नव्या तेजाचो शिंवर सगळेकडेन पडटा. मारूतीन खंय जल्मांक येनाफुडें सूर्याचेर झेप घेतिल्ली. तीच गत पुंडलीकाचे नदरेची. ती पोन्नांत नवें सोदता. नव्याक नवो अर्थ आनी आशय दिता.

पुंडलीकाची नदर मुळावी जाल्ल्यान ती आपले भुंयेकडेन पयलीं पळयता. तिका केळयता.’’

‘‘ज्ञानेश्वर सांगत वतां तसो पुंडलीक बरयत वता. तेन्ना आपशींच रस निर्माण जाता. एखाद – दुसरो प्रसंग तोय सादो, ड्रॅमॅटीक न्हय असो – ताका पुरो जाता. पूण बरयतां तातूंत रोस थपथपता. निखट्या वातावरणाचें वर्णन केलें जाल्यारूय तें वाचप्याचें मन ओडून व्हरता. ताची नदर वयल्या वयल्या थराचेर चड वेळ थिरावना, ती खोलायेंत देंवता आनी वेगळे वेगळे थर हुंपीत मनशाच्या काळजाच्या तळामेरेन पावता.’’

**– प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय**

(‘कथा–शिल्प’ पुस्तकांतल्यान)

अपुरबाय प्रकाशन

ISBN-81-86488-75-8